वर्स : १० अंक ९

सप्टेंबर २०११

मोल ४० रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स, बेळगांव.

व्यवस्थापक
कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर
वर्सुकी ३५० रु. / तीन वर्सां १००० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो

संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in

ह्या अंकांत उक्तायल्ले विचार
त्या त्या बरोवप्याचे आसात.
संपादक मंडळ ताचेकडेन
सहमत आसतच अशें ना.

६

कितें गे बाये ही म्हारगाय...
सामकीच हुलपिता सगळ्या वाटांनी...

- प्रकाश कामत

कोंकणी मासिक
बिम्ब
१० वें वर्स



**रेखाचित्रां**
**गिरिश नंदा बोरकार**




Azulejos tiles painting ■ Coconut craft ■ Cashewnuts ■ Terracotta ■ Fibre craft ■ Banana Fibre ■ Ivory craft









APARANT promotes Goan art and crafts, which provides livehood to hundreds of local artisans. Since times immemorial, Goan handicrafts like Lacquerware, Azulejos tiles painting, Crochet, Carved Wooden items, Jute items, Paper Machie, Brassware, Coconut items, Shell items, Terracotta etc. Have reinforced the Goan tradition. Support the cause and visit our APARANT showrooms conveniently located in all the prominent towns of Goa. Carry home sweet Goan memories that you will cherish for a life time.




**Goa Handicrafts, Rural & Small Scale Industries Development Corporation Ltd** (A Government of Goa Undertaking)

Crafts Complex, Neugi Nagar, Rua de Qurem, Panaji-Goa 403 001 India
+91-832-2228157, 2225328, 2224478, Fax: 2228158
Email: marketing@ghrssidc.org, md@ghrssidc.org

VISIT APARANT HANDICRAFT EMPORIA AT
- Crafts Complex, Neugi Nagar, Panaji, Goa. Ph. 2226448
- Panaji Residency, Panaji, Goa. 2425128
- Mapusa Residency. Ph. 2253267
- Margao Residency. Ph. 2730399
- Dabolim Airport. 2542347
- Vasco Residency, Vasco da Gama. 2513582
- Big foot, Loutolim, Goa 2858697
- Interstate Bus Terminus, Kadamba Bus stand, Panaji, Goa 2437216
- Udyog Bhavan, Opp. Menezes Braganza Hall, Panaji Goa., 2225421
- Calangute Residency, Handicrafts Emporium 2282878
- Rajiv Gandhi Kala Bhavan, Baba Kharak Singh Marg., New Delhi.



www.ghrssidc.org
www.goanhandicrafts.com

NOW SHOP ONLINE!

design@ei8htdegree.com

हे बुध्दीदाता महागणपती,

वर्सपध्दती प्रमाण ह्याय वर्सा आमी बिम्बपत्र तुज्या चरणी ओंपतात. फाटलीं णव वर्सां नित्यनेमान तूं आमचे लागच्यान सेवा घेत आयला.

हे ओंकार स्वरूपा गजवदना,

दर वर्साच्या भाद्रपद मासांत आमी हें मासिक तुकाच ओंपलां. त्याच नेमान ह्या दशकपूर्ती वर्सांतलो हो भाद्रपदांक तुजे बगर कोणाक ओंपचो? देखून हो अंक तुजे चरणी रुजू करून घे.

गौरीनंदना, खंयचेय थळावे भाशेंतलें नेमाळें हें आज चिंतेचो विशय थारला. देखून हे चिंतामणी प्रतिकूल परिस्थितींत लेगीत चिंतेचीं गगनां करिनासतना आमी थारिल्ल्या वेळार अंक वाचकां मेरेन पावोवपाचो यत्न केल्लो आसा आनी आमी वाचकांक दिल्ल्या उतरा प्रमाण धा वर्सांचो काळ ह्या वर्साच्या डिसेंबर म्हयन्यांत पूर्ण करतात.

हे विघ्नेश्वरा,

ह्या धा वर्सांत हें मासिक चलयतना वेगवेगळीं विघ्नां आमचेर आयिल्लीं आसात. तीन-चार वर्सां सरकारान जायरातीचेर बंदी लेगीत घाल्ली आसा. तरी लेगीत तुवें आमचे वयलीं विघ्नां पयस करून अंक नेमान उजवाडाक हाडपाचें बळ आमकां दिलें देखून तुजे पायां लागीं आमी नतमस्तक जातात.

हे आनंद सागरा, एक नेमाळें चलोवप म्हळ्यार आनंदाच्यो दोडीर दोडी वाचकांच्या काळजांत रकोवप, गिन्यानाची गंगा तांच्या घरामेरेन पावोवप. तेच पासत हो तुजोच आदेस अशें मानून आमी हो वावर हातांत घेतलो आनी तो सार्थी पावोवंक आमकां यश लाबलें.

फुडलो अंक ऑक्टोबर-नोव्हेंबर हो जोड अंक दिवाळी अंक म्हूण आमी तुज्या चरण कमलांचेर ओंपतले तो तुवें पावन करून घेवंचो आनी डिसेंबरचो अंक ह्या दशकांतलो निमणो अंक म्हूण वाचकांचे सेवेक तुजेच आज्ञेन धाडटले. होय वावर तुवें फाटीं जसो करून घेतला तसो करून घेवंचो.

हे वरद विनायका, तूं तुज्या भक्तांकडल्यान दर भाद्रपदांत आपली सेवा करून घेता. तुजी इत्सा आसत जाल्यार धा वर्सांच आमी हें मासिक चलयतले म्हणपाचो केल्लो संकल्प मोडूं येता. हें मासिक मुखारूय चलचें अशें जर तुका दिसता जाल्यार तुज्या भक्तांच्या मनांत ह्या मासिकाखातीर तांची लागणूक आशिल्ली सेवा दिवपाची बुध्दी घाल रे देवा!

तुजे सगळे भक्त हे बुध्दीवादी हाची आमकां जाण आसा. तांचेकडल्यान तांचे तांकी प्रमाण कितें ना कितें तूं बरोवन घेत आयला. तांचें तें बरप बिम्ब मासिका खातीरूय ताणीं धाडचें असो विचार तांच्या मनांत रूजय.



## गणराया आमकां बरी बुध्द दी!

आज शाळा कॉलेजीनी कोंकणी पावल्या. खूबशे कोंकणी लोक कोंकणी शिकोवपाचें काम करतात. तांची आर्थिक चणचणूय हे चिंतामणी तुवें पयस केल्ली आसा. त्या सगळ्या भक्तांच्या मनांत बिम्ब मासिकाचे वर्गणीदार जावपाचो विचार तुवें घालचो आनी फुडलीं आनीक धा वर्सां तरी बिम्ब चलोवपा पासत आमकांय प्रोत्साहन दिवचें अशें आमी तुज्या पांयाकडेन मागतात.

गोंयच्या मुख्यमंत्र्यान स्वातंत्र्यदिनाच्या आपल्या उलोवपांत बिम्ब मासिक सगळ्या शाळांनी पावयतलों म्हणपाचें उतर दिलां अशें कानार पडलां. मुख्यमंत्री हो तुजो एक बऱ्यांतलो बरो भक्त. तो फकत उतर दिवन मेकळो जाता. ताका ताचें उतर बेगोबेग पाळपाची बुध्दी दी रे देवा!

हे सिध्दी विनायका, तूं सगळ्या सिध्दींचीं फळां दिवपी. अज्ञानाचें आवरण पयस करून, भ्रम नश्ट करपी, अनाथांचो नाथ.

आयज आमच्या देशांत अनाथांचो तूंच नाथ जावन आसा. देशांतले सगले अनाथ जनलोकपाल विधेयक पास जावंचें म्हूण रस्त्यार आयल्यात. पूण आमी जांका वेंचून काडून आमचे नाथ म्हूण सदरेर बसयल्यात तांच्या मेंदवार अज्ञानाचें आवरण आयलां तें पयस कर. तांचेमदीं भ्रम निर्माण जाला तो पयस कर आनी अज्ञान पयस जाल्या, भ्रम ना जाल्या आमचे कडल्यान फुडल्या वर्सा हाचे परस दाम दुप्पेटीन सेवा करून घे रे देवा.

मोरया....

दि- ४/०८/२०११.

प्राति,
संपादक,
बिंम्ब.

इंद्रजीत घुळेचो नमस्कार.

सर,

हांवे कोंकणीतल्यान बरयली 'काजेंच्या मळ्यांत' ही कविता 'बिंम्ब' मधल्यान उजवाडाक येवपा खातीर धाडल्या.

हांवे 'भारतीय भाषा संशोधन केंद्र पुणे' हांगा भास शिकपा खातीर आशिल्लो. थंय कोंकणी भास शिकून ह्या म्हयन्याचो कोर्स पुराय केलो. ही भास शिकतना म्हज्याकडल्या ही कविता बरोवन जाली.

तुमी 'बिंम्ब' मधल्यान ती उजवाडाक हाडटले अशी आस्स बाळगिता.

तुमचो

(सही)

[इंद्रजीत गणपत घुळे]

## बिम्ब वर्गणीदारानी हें वाचचेंच!

**'बिम्ब मासिक'** ह्या २०११त १० वर्सां पुराय करता. फुडलो ऑक्टोबर–नोव्हेंबर म्हयन्याचो अंक दिवाळी अंक. हो साहित्यान भरगच्च भरिल्लो अंक २५ ऑक्टोबर २०११ मेरेन वर्गणीदारांच्या हातांत पडटलो. पूण जाणी वर्गणी नेमान भरल्या वो जे बिम्ब परिवाराचे वांगडी आसात तांकांच. हेरांक आमी तो कोंकणी मोगी, ताका केन्नाय तरी वर्गणी भरपाची वान्सा जातली अशें चिंतून अंक दर म्हयन्याक धाडीत रावले तांका दिवाळी अंक मेळचोना. तांका जायच जाल्यार ताणीं कोंकणी अकादेमी, पणजे वो कोंकणी भाशा मंडळ, मडगांव हांगच्यान विकतो व्हरूं येता. डिसेंबर २०११ अंका उप्रांत मात सगळयांक पोस्टान अंक धाडप बंद जातलें. जर जानेवारी २०१२त अंक काडपाचो निर्णय घेतलो वो बिम्ब चालूच उरचो अशें थारायलें जाल्यार जांची वर्गणी येता तांकाच आमचे कडल्यान अंक तांचे मेरेन पावतलो. जांकां बिम्ब चालू उरचें अशें दिसता ताणीं आता पासुनच आमचेकडेन संपर्क करचो.

– वेवस्थापक




संपादक,

हांवें तुमचो ऑगस्ट २०११चो बिम्ब वाचलो. आमकां हें मासिक खूब आवडटा. शाळेंत कोंकणी विशय शिकिल्लीं ताचो वापर जावपा खातीर तुमच्या बिम्बाचो खुबूच फायदो जाता. ह्या अंकांत येवपी भुरग्यांचें साहित्य आमी आमच्या भुरग्यांक वाचून दाखयतात. आमचीं भुरगीं इंग्लीश मिडियमांतल्यान शिकतात. पूण कोंकणी काणयो वाचून दाखयत जाल्यार तीं मन लावन आयकतात आनी आपणें बरोवपाचो यत्न करतात. ह्या अंकांतलें डॉ. संगीता बर्वे हांची हांव फुलपाकुलें जालें तर! ही काणी भुरग्यांक तशी आमकांय खूब आवडली. अश्योच हेर भासांतल्यो काणयो आमकां वाचूंक मेळच्यो. शीला कोळंबकाराची कावळ्या काक्या रे ही तुमी थोडी थोडी छापतात ती वाचतना विरस जाता. कित्याक भुरगीं विचारतात निळुचें मुखार कितें जालें? तेन्ना तुमी काणयो ल्हानूच दिवंच्यो आनी एकदम वाचूंक मेळटात अश्यो आसच्यो.

तुमी गोंयची भोंवडी दितात तें आमकां आवडटा. वाचून आमी थंय वचपाचें प्लॅनींग करतात. अश्योच नव्यो नव्यो सुवातो सांगच्यो. तुमकां चवथिचीं परबीं आनी इदाचें आमंत्रण.

**– रशिदा शेख**
चिंबल, गोंय.

ज्येश्ठ सुटके झुजारी रामदास चाफाडकार हांचो सत्कार करतना उद्योगपती विश्वासराव धेंपो. वांगडा दावेवटेनच्यान उदय डांगी, उक्षया धेंपो, यतीश धेंपो, दादासाहेब मोरे, रामदास चाफाडकार, राजेश धेंपो, भक्ती धेंपो आनी रूक्मी डांगी.



# दादा वैद्य विद्यालयाक वैकुंठराव धेंपो स्मृती चषक

**विद्यावृध्दी** संस्था आनी किडस् नेस्ट, सांताक्रूज, फोंडें हाणी आयोजीत केल्ले फोंडा तालुका राष्ट्रीय एकात्मता समूहगीत गायन सर्तीत कुर्टी-फोंडें हांगच्या दादा वैद्य विद्यालयाक णववो सर्गेस्त वैकुंठराव श्रीनिवास सिनाय धेंपो स्मृती फिरतो चषक फावो जालो. स्वतंत्रताय दिसा किड्स नेस्ट सभाघरांत ही सर्त जाली.

हे सर्तींत शिरशिरें हांगच्या स्वामी विवेकानंद विद्यालयाक दुसरें आनी श्री मल्लिकार्जुन इंग्लीश हायस्कूल, तळावली हाका तिसरें पारितोषीक फावो जालें. डॉ. सखाराम गुडे विद्यालय, वजनगाळ-शिरोडें, ए. जे. जी. आल्मेदा विद्यालय, फोंडें आनी इंदिराबाय ढवळीकर विद्यालय, ढवळी हांका उमेद वाडोवपी इनामां फावो जालीं.

यशवंतराव चव्हाण मुक्त विद्यापिठाच्या गोंय फाट्याचे विभागीय निर्देशक दादासाहेब मोरे आनी उद्योगपती विश्वासराव धेंपो हे समारोप सुवाळ्याक हाजीर आशिल्ले. फोंडेचे नगराध्यक्ष किशोर नायक, अक्षया धेंपो, यतीश धेंपो, भक्ती धेंपो, राजेश धेंपो, उदय डांगी, रूक्मी डांगी आनी विनोद कामत हांचीय हे वेळार हाचेर आशिल्ली.

सुटके झुजारी रामदास गणपत चाफाडकार हांचो हे वेळार विद्या वृध्दी संस्थेवतीन सत्कार जालो. श्री. चाफाडकार हाणी हे वेळार आपल्यो बंदखणींतल्यो यादी सांगल्यो.



# कितें गे बाये ही म्हारगाय... सामकीच हुलपिता सगळ्या वाटांनी...



– प्रकाश कामत

देशाचे आर्थिक उदरगतीची गाडी व्हडा नेटान फुडें वता. अशें चित्र संवसारीक मंदीच्या फाटल्या २-३ वर्सांत लेगीत भारतान पितारलें. पूण ह्या यशाच्या झगझगाटाची बेगड आतां परतून एक फावट काळी पडूंक लागल्या : सामान्य मनशाक नाकापुरो करपी 'म्हारगायेन' चवथी सारक्या सणाच्या काळांत तर ''कितें गे बाये ही म्हारगाय... सामकीच हुलपिता सगळ्या वाटांनी...'' अशीं उतरां संवसारी बायलांच्या ओंठार हाडटात. दादल्या जोडकारांच्या बोल्साक हो हुलप आनी ताका लागून पडपी खार बरोच जाचक जाता.

सर्वसामान्य मनीस सामको वितरागता. सद्याचें आर्थिक मळावेलें चित्र तर सामकेंच चिंताजनक. मुदलांतच म्हारगाय 'हांव' म्हणीत सर्वसामान्य लोकांक नाका-पुरो करता. तातूंत अमेरिकेक वित्तीय रेटींग संस्थांनी आर्थिक नदरेन दुर्बळ थारावपी 'रेटींग' दिलां. अमेरिकन डॉलर हो संवसारीक पावंड्यार प्रमाण मानिल्लें चलन. ताचो 'तुरो' आनी 'तोरो' देवप म्हणचे संवसारीक मंदीची आनीक एक फेरी अशें उघड दिसता. फाटल्या मंदीन येवरोपाक जाम केल्लें. तेन्ना भारतान बरी तग धरिल्ली. आतांची मंदी भारताक बादीकार थारूं येता कारण ती येता तेन्ना येवरोपी आर्थिक संकश्ट सोंपिल्लें ना आनी भारतांत म्हारगाय खूब व्हड प्रमाणार बादीकार करता. आमची ३५ टक्के निर्गत अमेरिकी-येवरोप ह्या देशांक जाता! ही म्हारगाय वा दरवाड-दरवाड म्हणटात तें प्रकरण मुदलांत कितें, तें समजून घेवपाक जाय. आमच्या देशांत जेन्ना वेगवेगळ्या वाठारांनी उत्पादन जाता तांतलें एक वाटो देशांतल्या लोकांपासत तें मेळूंक फावो. कांय उत्पादन निर्गत जाता.

आमचो देश उदरगतशील. देखून ताचेकडेन फाव ती साधन संपत्ती ना. देखून तो रिणांचेर जगता. हीं रिणां म्हणजे कृत्रीम तरेन पयसो निर्माण करप. त्या पयशांक उत्पादनांचो तेंको जेन्ना आसना तेन्ना ताका 'डॅफीसीट फायनान्सींग' (तुटीचें अर्थकारण) म्हणटात. गांवठी भाशेंत सांगपाचें जाल्यार सरकार नोटांच्या छापखान्यांत नोटी छापता. कारण कितें?.... कर्मचाऱ्यांक चड पगार जाय. गरीब लोकांक वेगवेगळीं अनुदानां, सोपेपणां, सवलती आनी समाजीक राखणेच्यो येवजणी जाय. सरकारी पयश्याचो व्हड वांटो भ्रश्टाचारांतय फस्त जाता. सरकार ही कल्याणकारी यंत्रणा, देखून शिक्षण, साधन-सुविधा, देशाची राखण अश्यो जायत्यो गजाली ताका चुकूंक येवंक नात. पयसो वा चलन हांची तांक कशी थारता? जो पयसो देशाची रिजर्व बँक छापता ताचे फाटल्यान भांगर भांडवल, उत्पादन अशी गडगंज तांक आसूंक फावो. ती जेन्ना आसना तेन्ना तें चलन पोकें थारता. अमेरिकेच्या डॉलराक संवसारीक बाजारपेठेंत मान कित्याक तर ह्याच तिच्या देशांतल्या घटपाणेक लागून. आनी हाच्या उरफाटें आमच्या रुपयाक संवसारीक बाजारपेठेंत मोल कितलें? एका डॉलराक ४०-४१ रुपया मेजचे पडटात. ह्याच रुपयान आमी आमच्या देशांत वस्तू आनी सेवा विकत्यो घेवपाक बाजारांत वतात. रासवळ जीणेंत सगळ्या वाठारांतले लोक वस्तू हाडपाक वतात.

लोक वस्तू हाडपाक वतात. पूण देशांत वस्तू उत्पादन उणें. मागीर कितें जातलें? मागणी चड आनी म्हाल उणो. होच अर्थवेवस्थेचो खेळ! म्हणचेच वस्तू चड आनी चड दरान उपलब्ध जातात. हीच ती म्हारगाय. मागीर हे म्हारगायेंत वायट प्रवृत्तीचे वेपारी आपले हात धुवन घेतात. ज्यो वस्तू चड लोकांक जाय - देखीक खाण्या-पिण्याच्यो, कपडो-लत्तो - त्यो चड म्हारग जायत वतात. पाडे वेपारी मागीर कृत्रीमपणान वस्तू लिपोवन लोकांक आनी हैराण करतात. दरो आनीक चड वाडयतात. हें 'ब्लॅक मार्केटींग'. आनीकय एक अनिश्ट गजाल घडटा, ती म्हळ्यार वस्तू बाजारांतल्यान गडप जावपाक लागतकच लोक भियेतात आनी वस्तू गरजेपरस चड हाडून सांठोवन दवरतात. हाचो परिणाम गरजवंत लोकांक त्यो खुलेपणान मेळपाक अडचण जाता. हाचोय परिणाम आनीक म्हारगाय वाडपाक जाता. म्हळ्यार व्यापारी वर्ग मागीर कायम लाव जोडटा आनी गरीब मनीस सासणाचो म्हारगायेंत हुलपता. आमचे गोमटेर म्हारगाय बसून आसा तिचें हें एक कारण.

आमी अदून-मदून पेपरांनी वाचतात. रिजर्व बँकेन बँकांक दिवपाच्या रिणांचें दर वाडयलें. हाचो अर्थ कितें जाणात? रिजर्व बँक ही बँकांची बापूय. बँको रिणां तरेकवार गजालींक दितात. जश्यो उद्येग, वेवसाय, शेती करपाक दितात - हाका उत्पादक रिणां म्हणटात, तश्योच गाडी, घरां, घरांतल्यो वस्तू आदी घेवपाक लोकांक रिणां दितात. हीं जीं रिणां आसतात तीं लोकांच्या हातांत कृत्रीम पयसो वाडयतात. देखून तांकां बिगर उत्पादक रिणां म्हणटात. तीं बाजारांत गाडयो, घरां, घरांतल्यो वस्तू हांची मागणी वाडयतात आनी तांच्यो दरो वाडयतात. पूण तांची परतफेड जावपाची ती पगार आनी उद्येग-वेवसायांतल्या लावान. हे परत फेडीचे मार्ग (खास करून पगार) फावो त्या नेटान वाडनात. ह्या सगळ्यांचो परिणाम म्हळ्यारच म्हारगाय वाडटा. आतां आमी भ्रश्टाचाराचो वांटो पळोवया. सामान्य मनीस कश्टाच्या पयशांनी सामान खरेदी करता जाल्यार भ्रश्टाचारी लोक 'पर्यायी पयशानी' वस्तू घेवंक सर्त करतात. ते हीय 'सर्त' जिखतात.

ते चैनीच्योय वस्तू सोपेपणान घेतात, गाडयो फिरयतात, सिनेमा नाटकां पळयतात,बऱ्या हॉटेलांनी जेवतात. तांचो पयसो 'घामाच्या पयशांच्या' वचत थंय आड घालता. अशे तरेन ते वर्सयभर दिवाळी करतात जाल्यार म्हारगाय आमकां हुलपायता. ह्या म्हारगायेचो आनी आर्थिक मंदीचो संबंध सोपो. आर्थिक मंदीक लागून अर्थवेवस्थेंत उत्पादन उणें जाता, कारण गुंतवणूकदार गुंतवणूक करपाक भियेता. मागीर आनीक म्हारगाय भडकपाचोच भंय उप्रासता.

हांवें जें वयर तुमकां म्हारगायेचें गणीत विस्कटावन सांगलां, तितलें तें सामान्य गणीत न्ही. पूण सामान्य मनशाक सादेपणान समजुपाक तें 'सोडपें' केलां, हें मतींत दवरचें! आमच्या देशांत राजकारणी व्हडले चांडाळ. तांचेपरीन ते कशे लोकांच्या जिवाकडेन खेळटात तें सादे-सोपे पध्दतीन सांगतां. आमचे केंद्रीय शेतकीमंत्री शरद पवार. ते महाराष्ट्रांतल्या साखरी उद्देगाचे व्हडले सम्राट. शेतकी मंत्री म्हणून साखरेच्या दरांकडेन तेच 'खेळून' चड उतार करपाक शकतात.

शरद पवार हांचें शेतकी मंत्री म्हणून काम कितें आसूंक फावो? देशांतलें उत्पादन वाडोवप, शेतकाऱ्यांक शेती-मालाचे रास्त भाव

## सरकार म्हारगाय नियंत्रीत करूंक शकता !

– ॲड. सुरेश धोंड



**म्हा**रगाय ही फकत गोंयांतच न्हय तर ती सगळ्याक वाडल्या. लोकांचें बजेट अपसेट जालां. पेट्रोलाचे, डिजलाचे, खावपाच्या पदार्थांवयले दर परत परत वाडतच उरल्यात. हाका लागून सर्वसामान्य मनशाचेर सगळेवटेन ताण पडला. दिसानदीस एक सारकी वाडपी ही म्हारगाय बेगीन थारतली म्हणपाचीं चिन्नां दिसनांत. हाका लागून लोक सामके थतरवितर जाल्ले दिसून येतात. चड फटको बसला तो जे लोक खासगी आस्थापनांत काम करून निवृत्त जाल्यात तांकां. सरकारी बी नोकरांक डि. ए. बी वाडटलो म्हणपाची जशी आस्त आसा तसली आस्त खासगी आस्थापनांत काम केल्ल्यांक नासता. तांची हालत बिकटूच जावन गेल्या अशें म्हणल्यार जाता.

चवथ ही गोंयकारांची उमेदीची परब. हातांत पयशे खेळत जाल्यार चार पयशे खर्चूं येतात. उमेदीन चवथ सरता. पूण म्हारगायेक लागून घरांतल्या जोडकाराक मूठ आवळून धरची पडटा. हाका लागून घरांतल्या भुरग्यांची आनी जाण्ट्यांची लेगीत उमेद मेल्या अशें दिसले बगर रावना.

आतां ही म्हारगाय जावंक जापसालदार कोण? तर गरजेच्या वस्तुंचो वेव्हार करप्यां मदीं जो दलाल आसता, काळो बाजार करपी आसतात ते परिस्थितीचो गैरफायदो घेवन वस्तुंचो दर अव्वाच्या सव्वा लायतात. लोकांची पिळवणूक करतात. हाचेर सरकार खूबशे तरेन नियंत्रण दवरूंक शकता. आतां पळयात आंतरराष्ट्रीय बाजार पेठेंत क्रूड तेलाचो दर वाडलो काय देशांतूय पेट्रोल, डिजलाचो दर वाडटा. जर सरकारान ह्या तेलाचे आयातीचेर जो कर लायिल्लो आसा तो जर कमी केलो जाल्यार म्हारगाय देवूं येता. जाय तो प्रयत्न आनी इत्सा.

मेळप, लोकांक खाण्या-पिण्याच्यो गरजेच्यो शेती-आधारीत वस्तू योग्य दरान मेळटल्ल्यो हाची तजवीज करप. पूण प्रत्यक्षांत जाता कितें? शेतकीमंत्र्यांचीं वेगवेगळीं विधानां तुमी पेपरांतल्यान वाचतात. तीं तुमकां सादीं दिसतात वा केन्ना केन्ना हुसक्याचीं, केन्ना केन्ना खोशेचीं दिसतात. पूण तीं संवसारीक अर्थवेवस्थेंत आनी देशाचे अर्थ वेवस्थेंत तीं 'भांगरा खोऱ्यान पयशे' ओडपाचे तांकीचीं आसतात हें खबर आसा व्हय?

एक देख: शरद पवार म्हणटा, 'अंदू देशांत साखरेचें विक्रमी पीक आयलां' म्हळ्यार तो कितें 'सिनाल' करता जाणा?... संसारीक बाजारपेठेंत साखर व्यापाऱ्यांक शिटकायता, 'आमी साखर संवसारीक बाजारपेठेंत व्हडा प्रमाणार निर्गत करूंक शकतात. तशें केल्यार संवसारीक दरो उण्यो जातल्यो. तुमची 'नफेबाजी' उणी जातली...

ताच्या त्याच उतरांची 'शिटकावणी' देशांतल्या शेतकाऱ्यांक कितें जाणात? 'चड दर मागपाचे भानगडींत पडूं नाकात.' वा देशांतल्या साखर सम्राटांक कितें शिटकावणी जाणात? 'तुमकां जर देशांतल्या साखरेच्यो दरो पडून उणी नफेबाजी नाका आसत तर निर्गती पासत सरकारचेर दबाव घालपाक लागात.'

ताचे हे 'इशारे' वगीच तोंडाची वाफ आसना, इतलेंच हांव तुमकां सुचयन. पूण ताच्या आनी ह्या वेगवेगळ्या उतरांचो थेट परिणाम देशांतल्या धान्य बाजारपेठांनी दरांचेर जाता आनी दरो वयर-सकल जावन म्हारगायेचो हुलप बादता तो मात गरिबांक. आतां म्हारगाय आपलेपरीन उणी बादपा पासत (आनी हेरांक लेगीत) कितें करूं येता?

सगळ्यांत म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार शक्य तितलें काचाबूल जावन गरजेच्यो वस्तू 'सांठोवन' दवरच्यो न्ही. व्यापाऱ्यांक तुमी हें केल्लें जाय म्हणून ते जायते फावटी सुचयतात. 'साखर ना आं, इल्ली आशिल्ली ती व्हर' तुमी तांचे पाडे बुद्दीक बळी पडटात आनी मागीर तो आनीक दर वाडयता आनी लाव जोडटा. आपल्या घरगुती खर्चाचें अदमास पत्रक तयार करप. म्हारगाय बादता तेन्ना चैनीच्यो, प्राधान्य नाशिल्ल्यो वस्तू वा सेवा (सिनेमा पळोवप, भायर जेवपाक वचप) ह्या गजालींचेर उणो खर्च करचो. गरजेच्या वस्तूंची खरेदी करतानाय (देखीक : कडधान्यां, भाजीपालो, नुस्तें) उणे दराच्यो वस्तू हाडपाचे यत्न करचे. प्रवास बी करपाचो पडलो जाल्यार शक्य थंय खावपाच्यो-पिवपाच्यो वस्तू घरांतल्यान व्हरच्यो. म्हणचे जाता थंय खर्चाक कातर लावन शिक्षण, वखदां आदी प्राधान्यक्रम राखपाक पयसो सांठोवपाचे यत्न करचे. सणा-सुदीक दारुगोळो-फोग असल्या अनाठायीं गजालींचेर खर्च टाळचो. ताची आपली बचत जावपाक मदत जाताच पूण आपल्या आनी लोकांच्या भुरग्यांक बी दोतोरागेर व्हरून वखदांचो खर्च करपाची पाळी येना!

## कितली म्हारगाय गे सायबिणी !

– ज्योती मोंडकार



'कितली म्हारगाय गे सायबिणी संवसार कसो करचो आमी'

ही आदल्या तेंपार रचिल्ली फुगडी आमी आयज मेरेन बदलूंक शकले नांत.

आयज चडशा कुटुंबांत दादलो तशेंच बायल ही दोगांय जाणां नोकरी करतात पूण कोणाच्याच तोंडांतल्यान समादानी शब्द आमकां आयकूंक मेळना.

कसलीय गजाल करतना आयचे म्हारगायेचो विशय मदीं आयलो ना अशें केन्नाच खंयच जायना. कितें बाये म्हारगाय वाढल्या! बाजारांत गेल्यार हजाराची नोट केन्ना सोंपता तें कळच ना. अशेंच आमकां आयकूंक मेळटा.

नुस्तें म्हारग म्हूण गरीब लोक शिवराक जेवप पसंद करताले पूण आयची परिस्थिती पळयल्यार शिवराकापेक्षा नुस्त्याचें जेवण बरेंशें दिसता कारण कडधान्याचो दर इतलो वाढला की शिवराक नाका रे बाबा अशें म्हणचें पडटा. फळांचोय दर पळयल्यार तीच गत. गोंयांत सगळ्यांत सहज उपलब्ध आनी सवाय अशें फळ म्हळ्यार केळें. पूण आयज केळ्याचो दर तिप्पटीन वाडिल्ल्यान केळीं सुद्धां खावप कमी करचें पडलां.

हे दीस चवथीचे. चवथ म्हळ्यार गोंयकारांचो सगळ्यांत व्हडलो सण. गरिबांतलो गरीब लेगीत चवथीक कितें ना कितें करून हे दीस खुशालकायेन मनोवंक सोदतात. ते पासत रिणां काडूंक लेगीत फाटीं सरनांत. रीण काडून सण करप हेंच आमच्या गोंयकारांच्या नशिबांत आदीं सावन चालूच आसा अशें हे म्हणणे वेल्यान सिध्द जाता. ही म्हणणी आतां केन्नाच ना जावपाची ना अशें आयची एकंदर परिस्थिती पळयल्यार दिसून येता. म्हारगाय कित्याक वाडटा हाची पुराय कल्पना आमच्या वेचून दिल्ल्या प्रतिनिधींक आसा. जिवनाउपयोगी वस्तू वितरीत करपी सगळ्या संस्थांक आसा. ताणीं हाचेर उपाय काडूं येता. पूण गरिबांक हुस्क्या मेकळें करपाचें आज मेरेन कोणाकूच सुचना. तेन्ना ह्या फुडें म्हारगाय उणी जातली असो विचारच करप पिशेंपणाचो थारतलो. म्हणटकच जशे दीस आयल्यात तशेच सारचे पडले अशेंच म्हणचें पडटलें! आनी कितें?

आमच्या देशान फाटल्या संवसारीक आर्थिक मंदी, तग कशी धर्ल्ली जाणात? आमच्या देशांत सर्वसामान्य लोक सदांच इल्लीशी बचत

करून फुडाराची तजवीज बँकांनी वा हेरकडेन पयसो दवरतात (हांव हांगां भ्रश्टाचाऱ्यांच्या स्वीस बँकांतल्या पयशांविशीं उलयना) आमच्यो बँको-विमो कंपन्यो व्हड प्रमाणार सरकारी वाठारांत आसात. आमचो सर्वसामान्य लोक क्रॅडीट-कार्ड कल्चराचेर आधारीत फोल्गी जीण जगना. आयच्या प्रगत देशांनी बँकींग-विमो हे खाजगी वाठारांत आसात. त्यो लोकांक क्रॅडीटाचेर फोल्गी जीण जगपाक प्रोत्साहन




दितात. ताका लागून जेन्ना अर्थकारण मंदीचे वटेन वता ते वेळार बँको, इन्श्युरन्स कंपन्यो बी वसुलीच्या वावराक अचकीत नेट दितात. ते वेळार लोक उगडो पडटा. बँको, विमो कंपन्यो खाकनवाळ जातात, आनी मंदी आनीक खर जाता.

आमच्या देशांतल्या फुडाराचो कुटुंबाचो हुसको करपी गृहस्तीक देखून 'वालोर' जाय आनी ताचें म्हत्व आमी जाणूंक जाय.

वाडटे म्हारगायेच्या काळांत ह्याच गृहस्तीच्या आदारान आनी थोडेशे समाजीक भावनेन जर नागरीक वागत जाल्यार म्हारगायेच्या हुलपाक तोंड दिवप इल्लें सुलभ जरूर जावं येता.

आमकां 'अर्थवेवस्थेचो उदरगतीचो वेग वाडलो', 'आमचो देश फुडली म्हासत्ता' असलीं उतरां आयकूंक हड्डें फुडें येता. पूण याद दवरात, 'व्हड म्हारगाय हो ताचोच आमकां चटको...' ताचोच 'प्रायस'!





**म्हारगाय आळाबंदाक हाडूंक फावो तितलें यश आयलें ना.**

**– प्रधानमंत्री मनमोहन सींग**

देशांतले म्हारगायेचीं कारणां हीं जायते खेप देशाभायले परिस्थितीचेर आदारून आसतात. सरकार ही म्हारगाय आळाबंदाक हाडूंक प्रयत्न करीत आसता पूण सरकाराक फावो तितलें यश अजून येवंक ना.

पेट्रोलियम पदार्थ, अन्नधान्य तशेंच खाद्यतेलाचो दर आंतराष्ट्रीय बाजारपेठेंत प्रचंड प्रमाणात वाडला. हे असले तरेचे पदार्थ जेन्ना भायल्या देशांतल्यान आयात करचे पडटात तेन्ना तांचो परिणाम भारतीय बाजार पेठेच्या दरांचेर साहजिकच जाता. आमचें सरकार दर खेपेक ही म्हारगाय, भाववाढ आळाबंदाक हाडपाचो प्रामाणीकपणान यत्न करता. पूण खूब काळ मेरेन तें शक्य जावंक पावलेंना.

**(स्वातंत्र्यदिनावेळा वयल्या लाल किल्ल्या वयल्यान केल्लें भाशण)**

**हे शिर्शकथेचे लेखक श्री. प्रकाश कामत हे ज्येश्ठ पत्रकार आनी 'द हिंदू' ह्या राष्ट्रीय वृत्तपत्राचे गोंयचे प्रतिनिधी जावन आसात.**



# 'वृक्षवल्ली आम्हां सोयरीं, वनचरें'



*ज्या 'विकासा'न हिमालयाची अशी धूळदशा करून उडयल्या तो गोंयचें कितें करतलो, सांगपाची गरज आसा व्हय? सैमा कडलें नातें मनीस तोडटा तेन्ना देंवचार ताचे गोमटेर बसता. ताच्यांत विकृताय रिगता आनी ती ताच्यांतलें मनीसपणूय ना करून उडयता. तो मागीर लाव लुस्कानेचे कसवटणेचेरूच सगळें घांसून पळेता आनी जातूंत लाव ना तें सगळें भायर मारता.*

म्हज्या भुरगेपणांत आमच्या गांवांत नळ नाशिल्ले. बांयो आशिल्ल्यो. आनी बांयो सदां उपाट भरिल्ल्यो आसताल्यो. बाराय म्हयने उदक मेळटालें. बांय सुकल्या म्हूण कोण दुसऱ्यागेर न्हावंक गेला म्हणपाचें कोणें केन्ना आयकूंक नाशिल्लें.

गांवांत नळ नाशिल्ले तशे पायखिळेय नाशिल्ले. लोक दोंगरार वताले वा व्हाळार बसताले. प्रदूशण जातालें. पुणून तें व्हडलेंशें कोणाक बादनाशिल्लें. कित्याक, दुकरां आसतालीं आनी दुकरां प्रदूशण जावंक दिनाशिल्लीं.

'गोपुरी' संडास पळेले तेन्ना मनांत म्हळें, 'फाल्यां गोंय स्वतंत्र जालें म्हणटकूच गोंयभर भोंवतलों आनी गोपुरी संडासांचो प्रचार करतलों. हवाय निवळ उरतली आनी भुंयेक 'भांगरा सारें'य मेळटलें.'

पुणून सगळें सपनांतूच उरलें.

आतां पळेतां, गांवांत सगळ्यांगेर सॅप्टिक टँकी आयल्यात. लोक 'कमोडां'चेरूय बसपाक लागल्यात. आनी केन्नाच घडूंक नाशिल्ल्यो दोन व्हडल्यो 'सुधारणा' गांवांनी घडून आयल्यात. बांयो प्रदुशीत जाल्यात आनी गांवांत जळारां जाल्यांत. जळारां मारपाक लोक डी. डी. टी., ऍल्ड्रीन, लिन्डेन, टॉक्सेफिना सारकीं वखदां वचत थंय शिपडावंक लागल्यात. जळारां कितलीं ना जाल्यांत, जळारांक खबर. पुणून हजारांनी जातिंचे जीव जमनीर लाखांनी कोटिंनी वर्सां सावन जियेत आयिल्ले तांचे दोन वांटे खंय ह्या वखदांक लागून ना जावन गेल्यात. उरिल्ले ह्या धा वीस वर्सांत ना जावपाचे वाटेर आसात. सायंटिस्टूच हें सांगतात.

देवान ही धरतरी फकत मनशां खातीर निर्मूंक नाशिल्ली. मनशाक जल्माक घालचे पयलीं ताणें लाखांनी जातिंचे जीव-जंतू - किडी-मुयां पसून हतयां-गेंड्यां मेरेनचे जल्माक घाल्ले. सगळे एकामेकांक आधार दिवन जियेत राविल्ले. तांच्याच सांगातान तरां तरांची चकचयाळ रुखावळ जियेत आयिल्ली. आनी देव ओत वारो पावस ह्या रुपांनी तांचेर आपणालो आशिर्वाद शिंवरायत राविल्लो.

अवचीत देंवचारान चावी घुंवडायली आनी मनीस 'विकास' नांवाचे अवदिशेच्या नादाक लागलो.

जे धर्तरेर आपूण जियेतां ती अपघातान, 'ॲक्सिडेंटा'न निर्माण जावंक ना; तिचे निर्मणे

फाटल्यान एक हेतू आसा, एक उद्‌दिश्ट आसा; सर्जन करपी एक बुद्द तिचे भितर काम करता; ती कशाय कशी चलना, नेमांक धरून चलता, आपले आपूण चलता, आपुणूच आपणाली संतुळा सांबाळून चलता म्हणपाचें मनीस विसरलो. आनी तो तिगेल्या वेव्हारांत मदीं पडून आडखळी हाडपाक लागलो.

मनीस 'विकासा'च्या नादाक लागलो ताचे पयलीं तो सैमाच्या सांगातांत रावतालो. अन्न पिकयतालो, खातालो आनी जें उरतालें तें बाजारांत व्हरून विकतालो. हें विकप सुरू जालें तेन्ना लाव-लुस्कानाचें एक नवें गणीत ताच्या जिवितांत रिगून बसलें आनी वेपार नांवाचो एक वेव्हार मनशां मनशां मजगतीं चलपाक लागलो. वेपाराक लागून शारां वयर सरलीं आनी जिस्त हांगा देंवचारान मनशाक आपणा हातांत घेतलो.

सगळ्यांत पोरणीं शारां आमकां ह्या देशांत मेळ्ळ्यांत तीं सिंधू संस्कृतायेचीं. मोहन-जो-दडो, हडप्पा सारकेलीं. शारां पांच पन्नास वर्सांनी उबीं जायनात. तीं उबीं जावपाक कांय शेंकडे लागतात. मोहन-जो-दडो, हडप्पा शारांनी शेंकड्यांनी वर्सां वेपार चलिल्लो आसूंक जाय, तेन्नाच तीं वयर सरल्यांत जावंक जाय. वेपारान विटांचीं रानां उबीं केल्ल्यान सैमान निर्मिल्लीं रानां इल्लीं इल्लीं करून ना जावन गेल्यांत जावंक जाय. आयज ह्या शारांचे अवशेष आमकां पळोवंक मेळटात थंय वखदाक लेगीत पांचव्या पानाची कुरू दिश्टी पडना. इतलेंच न्हय, तर ह्या वाटारांत दोनूय तडी भरून जी सरस्वती न्हंय व्हांवताली तिवूय खंयच दिश्टी पडना. ती 'गुप्त जाल्या'. तिचीय कुरू खंयच मेळना. असीरिया, बाबिलोनिया, अक्कड-जंय जंय शारांची संस्कृताय उबी जाली थंय थंय अशेंच घडलां. झाडां पेडां ना जाल्यांत आनी विटांचीं जंगलां आयल्यांत. कांय वर्सां तरतरल्यांत आनी एक दीस अवचीत ना जावन गेल्यांत. शारांची संस्कृताय धतरी फाटीर खंयच जिवी उरूंक ना.



खंयच तिगून रावंक ना. सगळे कडली ना जाल्या.

आनी तरी आसतना मनीस तिचो नाद सोडिना.

पांच सात वर्सां पिरायेचो आसतना आवय-बापाय सांगातांत त्रिस्थळीची यात्रा केल्ली तेन्ना दोळ्यां मुखार जें चित्र उबें राविल्लें तें 'सुजलाम् सुफलाम्' देशाचें आशिल्लें. आतां उतार पिरायेर पर्थून ह्या वाठारांत पावतां तेन्ना वचत थंय उगडे नागडे दोंगर आनी सुके सडेच पळेतां. चार दसकां पयलीं हिमालयांत भोंवन आयिल्लों. दोन म्हयने पांयांनी भोंवन सगळो उत्तराखंड 'पादाक्रांत' केल्लो. एका फुडलीं एक दाट अरण्यां थंय आशिल्लीं. दनपारच्या कडार लेगीत सुर्याच्या किरणांक भितर सरपाचो धीर जायनाशिल्लो. हालिंसाराक कांय इश्ट ह्या वाटाराची मोटारीन यात्रा करून आयल्यात. म्हजे मुस्तींतलें एकूय रान थंय उरूंक ना म्हूण सांगतात.

ज्या 'विकासा'न हिमालयाची अशी धूळदशा करून उडयल्या तो गोंयचें कितें करतलो, सांगपाची गरज आसा व्हय? सैमा कडलें नातें मनीस तोडटा तेन्ना देंवचार ताचे गोमटेर बसता. ताच्यांत विकृताय रिगता आनी ती ताच्यांतलें मनीसपणूय ना करून उडयता. तो मागीर लाव लुस्कानेचे कसवटणेचेरूच सगळें घांसून पळेता आनी जातूंत लाव ना तें सगळें भायर मारता.

गोंयच्या फुडाराचें येवजितां तेन्ना जीव खासावीस जाता. तिडकीन उसळटा आनी अंतीं निर्शेता.

येवरोपेवांनी अमेरिका वसोवची अशें थारायलें तेन्ना सगळ्यांत पयलीं तांणी थंयच्या मूळ रेड इन्डियन्सांक ना करपाचें 'सत्र' सुरू केलें. तांचीच तांकां चड आडखळ जाताली. सुमार धा कोटी रेड इन्डियन्स तांणी कचाकच कातरून उडयले. एक पुराय संस्कृताय ना केली. थोडे रेड इण्डियन्स वांचून उरिल्ले तांचे कडल्यान चडशी आडखळ जावपाचो भंय उरूंक ना अशें दिसलें तेन्ना येवरोपेवांनी तांचे कडेन जुळोवन घेवचें अशें येवजिलें. वॉशिंग्टन तळ्या भोंवतणी सियेटल नांवाचो एक वाटार आशिल्लो. ह्या वाटाराचेर रेड इण्डियन्सांचोच राबितो चलतालो. हो वाटार तांचे कडल्यान विकतो घेवचो अशें थारावन तांणी तांगेल्या मुखेल्याक एक चीट बरयली. हे चिटीक रेड इण्डियन्सांच्या मुखेल्यान जी जाप दिल्ली ती अशी आशिल्ली-

तुमी आमची भूंय विकती घेवंक सोदतात? सभाग्यांनो, आमचें मळब तुमी विकतें घेशात व्हय? आमकां आमची भूंय मळबा सारकी. ओत, वाऱ्या पावसा सारकी एक पवित्र वस्त. कशी विकतले ती आमी तुमकां? ओत, वारो, पावस विकूंक येना, विकतो घेवंक येना. तशी भुंयूय विकूंक येना, विकती घेवंक येना. आमकां आमची फकत भुंयूच पवित्र अशें न्हय. हे भुंयेर वयर सरलां तें एकान एक झाड, एकान एक झोंप, एकान एक वाल, तांचें एकान एक पान, एकान एक फूल आमकां पवित्र. हे भुंयेर भोंवतात ते जीव जंतू, किडी मुयो, सोरोप जिवाणीं, सगळें आमकां पवित्र. आमकां आमचीं सुकणीं शेवणीं पवित्र, पिसोळीं

पवित्र. आमचीं सावदांय पवित्र. तळयो, झरी, व्हाळ, न्हंयो, दर्यो, वेळे वयलो रेंवेचो एकान एक कण पवित्र. झाडांच्यां आंगांत व्हांवता तो दीख आनी आमच्या आंगांत घोळटा तें रगत एक. तुमी गोरे लोक तुमचे भुंयेक विसरल्यात. आमी विसरूंक नात. आमगेले म्हालगडे विसरूंक नाशिल्ले. आमीय केन्ना विसरपाचे नात. आमी तिका केन्ना अंतर दिवपाचे नात. आमची भूंय आमची आवय आनी आमी तिचीं भुरगीं. हे भुंये वयलो एकान एक फातर, तणाचें एकान एक पातें आमच्या नात्यांतलें. तुमी ही भूंय 'आमकां विकती दियात' म्हूण मागतात तेन्ना तुमी आमचें सगळेंच – आमचें सर्वस्व – घेवंक सोदतात अशें आमकां दिसता. तुमी गोरे लोक. आमी हें जें कितें तुमकां सांगतात तें तुमकां घडये समजुपाचें ना. तुमकां खंयचीय भूंय, दुसरे खंयचेय भुंये सारकी. घेतली, मुखार गेले. हे भाशेन तुमी चलत आयल्यात. हाका लागून तुमी भुंयेचे पूत जावचे बदला तिचे धनी जावन बसल्यात. आमचें तशें न्हय, आमी आमच्या भावांक विकिनात. तशी भुंयूय विकिनात. भूंय आमची आवय, तशी न्हंयय आमची भयण. दर्यो आमचो भाव. आमकां आमच्या खासा भावंडांचो मोग तितलोच न्हंयांचो आनी दर्याचो मोग. आमच्या न्हंयांतल्यान व्हांवता ताचे कडेन आमी फकत उदक म्हूण पळेनात. आमचें रगत म्हूण पळेतात. न्हंयेंत आमी आमची पडबींब पळेतात तेन्ना तातूंत आमकां आमचेंच रूप दिश्टी पडना, आमच्या सगळ्या म्हालगड्यांचें रूप दिश्टी पडटा.

तुमचें कितें, तुमी भुंयोय खावन उडयतात, न्हंयोय पियेवन उडयतात.

तुमचे नदरेन आमी अन्नाडी. देखुनूच जावंये, तुमची भास आमकां समजना. तुमच्यो चाली-रिती आमकां समजनात. आमी अन्नाडी जाल्ल्यानूच म्हणूंक जाय, तुमी हे भुंयेर जीं शारां उबीं केल्यांत तीं पळेतकूच आमच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागतात. आमी म्हणपाक लागतात, कसलीं हीं थळां, जंय पांचवें पान दिश्टी पडना, जंय पिसोळ्यांच्या पांखांचो आवाज आयकूंक येना, जंय तळ्या लागसारच्या बेब्यांची भासाभास आयकूंक मेळना. आमी वाऱ्या वांगडा खबरी करीत आयिल्ले लोक. तो खंय खंय हेडून येता, ताकाच खबर. तो येवन सांगता त्यो गजाली आमी आतां मेरेन रुचीन आयकत आयल्यात. हो वारो आमी पोटांत घेतात. म्हूण जियेतात. आमीच फकत न्हय, आमचीं झाडां झुडपां, सुकणीं सावदां, आमच्यो किडी मुयो, आमचें सगळें ह्या वाऱ्याक लागुनूच हे भुंयेर जियेवंक पावलां. आमच्या आवय-बापायनी, आमच्या आज्यांनी, तांच्या आज्यांनी, आमच्या सगळ्या म्हालगड्यांनी होच वारो पोटांत घेतिल्लो. आमचें पुराय जिवीत ह्या वाऱ्याचेर निंबून उरलां. हो वारो जे भुंयेर खेळटा ती भूंय आमी तुमकां कशी विकतले?

धरुंया, आमी तुमकां ही भूंय दिली, जाल्यार हे भुंये वयलीं झाडां पेडां, सुकणीं, सावदां, जीव जंतू तुमकां तुमच्या खास्सा भावंडां सारके दिसतले व्हय? तुमकां तांचें मोलूच ना. फाटीं आमी पळेल्लें – धांवते मोटारींतल्यान आर्मां जोखून तुमी आमच्यो कांय रानवटी म्हशी मारून उडयल्ल्यो. बावड्यो कांय दीस कुसत पडिल्ल्यो. मागीर गिदांनीं येवन त्यो खावन उडयल्ल्यो. तुमकां ह्या म्हशीं परस तुमच्या कारखान्यांचे चिमणेंतल्यान भायर सरता तो धुंवर चड मोलाचो. तुमकां आमी आमची भूंय दिली जाल्यार हे भुंये वयलें कितेंच वांचून उरपाचें ना.

उपकार करून एक गजाल विसरूं नाकात – धरतरे वयली खंयचीच गजाल दुसरे खंयचेच गजाली पसून वेगळी रावंक पावना. सगळ्यो रगतान एकिमेकिंच्या नात्यांतल्यो. देखून धरतरी जियेवंक पावल्या. तुमी चलत आयल्यात तशेच मुखार चलत रावले जाल्यार लक्षांत दवरात – एक दीस तुमी एकसुरे, एकमुळे जावन पडटले. तुमकां आधार दिवपाक कोण येवपाचो ना. ज्या संकश्टांत तुमी धतरेक उडयल्या तेंच संकश्ट एक दीस तुमचेर येवन कोंसळटलें. मळबा कडेन पळोवन थू करून थुकतल्याची थुकी थुकतल्याच्याच तोंडार परती येवन पडटा खबर आसा मू?

भुंयेचो केन्ना कोण धनी जावंक पावला व्हय? तुमी तर फकत भुंयेचे न्हय, देवाचे लेगीत धनी जावंक सोदतात. देवाचो धनी कोणूच जावंक पावना तसो भुंयेचोय जावंक पावना. भुंयेचेर जो आगळीक करता तो खासा देवाचेर आगळीक करता.

एक दीस तुमी धरतरे वयले ना जातले. घडये हेरां परस बेगीन ना जातले. ज्या दिसा रानांतलीं सावदां ना जातलीं आनी दोंगरांचीं माथीं टेलिफोनाच्या सरयांनी धांपिल्लीं दिश्टी पडटलीं त्या दिसा रानांतलीं चिंतळां खंय वतलीं? शेवणीं खंय वतलीं? – that would be the end of living and the beginning of survival – त्या दिसा जिवीत सोंपतलें आनी वांचून उरपाचो यत्न सुरू जातलो.

'विकास' जावंकूच जाय. पुणून आपले आपूण चलपी सैमाचे बांदावळीक बादा येवंक दिनासतना. हे तरेचो विकास देशांत आयज चलता व्हय? ना, जाल्यार ताका विनाश म्हणचो पडटलो. विनाश जावंक दिनासतना विकास घडोवन हाडचो आसत जाल्यार देशाचेर मोग आशिल्ल्या जण एकल्यान सियेटल वाटारांतल्या रेड इण्डियन्सांच्या मुखेल्याचे हे चिटींतल्या अक्षरान अक्षराक पाळो दिवन चलूंक जाय. आमी घाळ उरले जाल्यार शेणटले. जागरूक उरले जाल्यारूच देश राखूंक पावतले.

■ ■ ■

– रवीन्द्र केळेकार

(**घुस्पल्लें जानवें** ह्या पुस्तकांतल्यान...)

# सतीचे वाण






"गोंय मुक्ती संग्रामांत जो ल्हानसो वांटो घेवपाचें भाग्य म्हाका फाव जालें, जो अणभव म्हाका आयलो ताका लिखित रूप दिवप इतिहासाचे नदरेन गरजेचें आशिल्लें. हांवें विशेश त्याग करूंक नाशिल्लो, पूण हेरांनी तो निश्चितपणान केल्लो आनी तांचेकडेन म्हजो लागशिल्लो संबंद आयिल्लो. तांचीं नांवां तांच्या आंगावेल्या लक्तरांक लागून खबरापत्रांतल्यान झळकूंक नाशिल्लीं. अश्या सामान्य लोकांच्या असामान्य त्यागाचें दर्शन हांवें गोंयांत प्रवेश केल्ल्या खिणासावन, १९४९ सावन, म्हाका घडिल्लें. तांची नोंद खंयतरी जावप गरजेची आशिल्ली. तें कृतज्ञतायेचें द्योतक आशिल्लें. गोंय मुक्तीसंग्राम ज्या वसाहतवादी झुजाचो एक वांटो आशिल्लो त्या झुजाचे आनीक कांय पैलू पळोवपाची जी संद म्हाका पुर्तुगालाक मेळ्ळी तीय कथन करप गरजेचें आशिल्लें. पुर्तुगेज जनता आनी साम्राज्यवादी पुर्तुगेज सरकार हीं एकरूप नांत, भिन्न आसात, परस्परविरूध्द आसात. तांच्यात संघर्श चालू आसा. ह्या संघर्शाचो जो थोडोभोव परिचय म्हाका थंय जालो तो हेरांक करून दिवप म्हाका गरजेचें दिसलें. गोंय मुक्ती उप्रांत कैद्यांचे अदलाबदली विशींच्या निर्लज्ज इतिहासाची पुनरावृत्ती जावन आनीक कोणा भारतीयांचेर फुडाराक 'आपलो देश मुक्त जाल्लो आसतनाय' विजनवास काडपाची पाळी येवं नये हे पासत त्या इतिहासाविशीं हांवें बरोवप गरजेचें आशिल्लें."

**- मोहन रानडे**

साडेतेरा वर्सांची पुर्तुगालच्या कशीयस बंदखणींत रूयास्त भोगून क्रांतिवीर मोहन रानडे गोंयांत आयले तेन्ना हांव अकरा वर्सांचो. तेन्ना रानडे आमगेर येताले. ते भाईचे (नंदा) मित्र. आमच्या घरांतले शेणान सारयिल्ले जमनीर पाट दवरून त्या पाटार आसरमांडी घालून बसून, पेत्रोलाच्या दिल्याच्या उजवाडांत वाचन करताले. तांचे मुखार बसून हांवूय कितें तरी वाचतालों. ताणीं म्हाका खूब गजाली सांगल्यो. वेगवेगळ्या चळवळींत वांटेकार जावपाची मागीर जी खुमखुमी आयली तार्चे फाटलें कारण हेंच आसूं येता.

आयज गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्सा हांव तांचें 'सतीचे वाण' अपकारीत करूंक बसतां तेन्ना म्हाका मोहनकाका म्हजेमुखार आसरमांडी घालून बसला आनी म्हजेकडेन उलयता असो भास जाता.

**- दिलीप बोरकार**

### ११. खणीवयले हल्ले

१९५५त गोंयच्या दोन खणींचेर आमी हल्ले केले. श्री. व्ही. एन्. बांदेकार हांचे पाळी हांगचे खणीर १९५५च्या जुनांत जो पयलो हल्लो आमी केलो त्या फाटलो हेतू फकत स्फोटक द्रव्यां मेळोवपाचो आशिल्लो. पूण दुसरो हल्लो करपा फाटलो आनीक एक विचारसरणी आशिल्ली. भारत सरकारच्या आर्थीक नाकेबंदीन जें घडलें ना तें खणी बंद पडिल्ल्यान साद्य जातलें अशें आमकां दिसलें आनी तें लटीक नाशिल्लें.

स्फोटक द्रव्यांचो उपेग करपाचो प्रयत्न दलमुखेली श्री. लवंदे करताले. अस्नोडच्या आमच्या हल्ल्या उपरांत पणजेच्या पालासेंत (सचिवालय) कोणेंतरी एकदीस टायमबॉम्ब हाडून दवरलो. मनोहर पेडणेकार आनी पणजेचे चंद्रकांत गायतोंडे हांची ही बहादुरी आशिल्ली. पूण ह्या बॉम्बाक डिटोनेटर लावंक नाशिल्लो. सुरींगाची वात लायिल्ली. ती पेट्टकच सगळेकडेन जळको वास पसरलो आनी ताका लागून ती जळत जळत बॉम्बाच्या तोंडामेरेन पावचे आदींच पालयली. सामकें लागीं पावनूय हो प्रयत्न फसलो आनी सचिवालय साल्वार जालें.

स्फोटक द्रव्यांची जायत्या कारणांक लागून आमकां गरज आशिल्ली. गोंय मुक्ती लढो सुरू जायत सावन धांवते जिपींतल्यान पारो करपाखातीर पुर्तुगेज पुलीस भोंवताले. रस्त्यार सुरींग पुरून त्यो

जिपी उडोवप गरजेचें आशिल्लें. भुरग्यांकूय तें काम करपासारकें आशिल्लें आनी ताका लागून आमची रातची हालचाल अदीक सुरक्षीत जावपाची. एखाद्रो पूल जरी आमी उडोवंक शकले तरी येरादारी बंद उडोवंक शकताले. खणीवयल्या जिलेटिना पासून बॉम्ब तयार करपाचें काम श्री. लवंदे वजऱ्याच्या तळार करताले. आरंबाच्या काळार हे जिलेटीन आनी डिटोनेटर्स खणमालक श्री. दयानंद बांदोडकार (मुक्त गोंयचे पयले मुखेलमंत्री दिताले.) मनोहर पेडणेकार तांचे कडल्यान ह्या मालाच्यो पेटयांच्यो पेटयो हाडटाले. पूण मुखार पुर्तुगेज पुलिसांचो पारो वाडूंक लागिल्ल्यान हो पुरवठो बंद पडलो. ताका लागून खणींचेर हल्लो करून 'म्हाल' मेळोवपा बगर पर्याय नाशिल्लो. पूण हो 'म्हाल' भारतीय पुलिसांची नदर चुकोवन भारतांत व्हरप हें एक दिव्य आशिल्लें आनी तें करपाक हांव आतां तयार नाशिल्लों. आमी गोंयांतूच हे बॉम्ब तयार करचे अशें थारावन ते पासत खणीर हल्ले करपाचें आमी निश्चित केलें.

दासू चाफाडकार आनी कोरडे पाळीची बांदेकाराली खण पळोवन आयिल्ले. थंयचे दारूचें कोठार हस्तगत करप थोडें कठीण आशिल्लें तरी शक्य आशिल्लें. कोठार फोडून म्हाल सरळ फाटीर मारून सावय हाडपाचो पयलीं आमी प्रयत्न केलो. पूण म्हाल इतलो आशिल्लो की फाटीवयल्यान तांतलो एक शंबरावो वांटो लेगीत येवंचो नाशिल्लो. तेन्ना सावय आनी वळवयच्यान भायर सरिल्ले आमी धा पंदरा जाण ते दिसा परतले. तीन चार दिसांनी म्हळ्यार जून २०-२१च्या सुमाराक पणजेच्यान व्हडली टॅक्सी घेवन पुराय कोठार पुसून हाडपाची माण्णी आमी आखली. हे खेपेक फेब्रुवारी ५५त वळख जाल्ले कालापूरचे श्री. लक्ष्मण हळकोणकार हांका सहभागी करून घेवपाचो योग आयलो. पणजे पुर्तुगेज सरकाराक म्हायती दिवपी कांय टॅक्सी ड्रायवर आशिल्ले. लक्ष्मणूय एक टॅक्सी



माधव कोरडे
मोहन रानडे हांचो त्या काळचो सहकारी

ड्रायवर आशिल्ल्यान तो तांका बरोऽ वळखतालो. तांचेकडल्यान अश्या तीन टॅक्सी ड्रायवरांचीं नांवां आनी ते चलयतल्या टॅक्सींचे नंबर घेतले. त्या पयकी एक टॅक्सी हांव आनी माधव कोरडे पणजे वचून घेवन आयले. लक्ष्मण, बाळकृष्ण भोसले, दासू हे मुखार वचून सूर्ल लागीं वाट पळयत बसले. थारायल्ल्या वेळार म्हळ्यार रातच्या ८क थंय पावूं अशे बेतान सांजे ५ वरांचेर आमी पणजेच्यान भायर सरले. प्रवास बरोच पयसुल्लो आशिल्लो आनी परतुवपाक बरीच रात जावपाची आशिल्ल्यान टॅक्सी ड्रायवरान कां कू करपाक आरंब केलो. पूण चड पयशे मेळटले अशें पळयतकच खोसयेन येवपाक तयार जालो. ड्रायवर मुखार आनी पिस्तोल आशिल्ले आमी दोगूय फाटल्यान आशिल्ले. ते काळार वाटेर केन्ना केन्नाय पुलीस टॅक्सी आनी हेर गाडयो आडोवन झडटी घेताले. असो प्रसंग आयलो जाल्यार पिस्तोलांची अर्थात गरज आशिल्ली आनी बाणस्तारच्या पुलाकडेन आशिल्ल्या पुलिसान खऱ्यानीच गाडी थारावन भितर पळयलें. पूण कांयच उलयनासतना वो कांयच विचारिनासतना गाडी चालू करूंक सांगलें. ८क जेन्ना गाडी सुर्ल पावली तेन्ना बरोच काळोख जाल्लो. वास्तवीक गाडी गांवांत व्हरपाची नाशिल्ली पूण आदीं थारायल्ली कुरू वाटेंत करूंक नाशिल्ल्यान थंय व्हरची पडली. पलतडच्यान म्हळ्यार वळवयच्यान शंभू पालकार, बाबनी, रोहिदास शिंपी आदी थारिल्ले सुवातेर बंदुको बी घेवन आयले. हांवें ड्रायवराक भेस्टयतकच, 'कांय करिना सायबा, हांव तुमचोच...' अशें ताणें थंडसाणेन म्हळें. तो साहजिकच भियेल्लो आशिल्लो. पूण आमचो समज जाल्लो तो खबऱ्या बी आसत आनी तशें धोंग करता आसत म्हूण ताका परत एकखेप धपकायलो. मोटारींत बसून परतून फाटीं आयले. बाळकृष्ण भोसले, दासू चाफाडकार आनी लक्ष्मण हडकोणकार वाट पळयत आशिल्ले सुवातेर गाडी थांबयली. लक्ष्मण मुद्दमूच मुखार आयलोना. ताणें पयसुल्ल्यान ड्रायवराक पळयलो आनी हो लावन दिवपी न्हय म्हणपाचें सांगलें. ड्रायवराक हांवें आमचे कडेन जें कितें आशिल्लें तें खावंक घातलें आनी आमीय पाव बी खावन पोटाचो उजो थोडोभोव थंडायलो. आमचीं कोणाचीं तोंडा ड्रायवराचे नदरेक पडूंक फावना म्हूण आमी ताचे दोळे बांदून उडोवपाची खबरदारी आदींच घेतिल्ली. परतून मोटारींत बसले आनी फोंडें-होंडा हमरस्तो वलांडून थेट खणीवयल्या कोठारापासून तीस मीटरांचेर रावले. लक्ष्मण टॅक्सी चलयतालो. बंदुको घेवन आमी सकयल देंवले आनी मुखार वचून राखणदाराचो अदमास काडलो. कांयच धोको ना अशें पळोवन मोटार कोठाराच्या दाराकडेन व्हरून उबी केली. कोठार सरळ फोडलें आनी खीणभरांत थंयचो सगळो म्हाल मोटारींत भरलो आनी थंयच्यान भायर सरले.

टॅक्सी घेवन आमी सरळ हमरस्त्यार आयले आनी तो आमचो निश्काळजीपणा थारलो.

मोटरसायकली वयल्यान गस्त घालपी एका पुलिसाकडेन आमची अकस्मात गांठ पडली. ताका आमचो दुबाव मारिल्ल्यान तो आमच्या फाटल्यान लागलो. बाळकृष्ण भोसलेन सरळ त्या मोटरसायकली दिकेन फार सोडलो. मोटरसायकल परती घुंवली तें आमी पळयलें. मोटरसायकल दिसनाशी जातकच आमी मोटार थांबोवन सकयल देंवले आनी साद्या सुरिंगाच्या दारूचे एकदोन दबे थंयच्यान वचपी दुसऱ्या एका रस्त्यार उडयले. एक मिनीटूय रावनासतना आमची मोटार भरवेगान सुर्लाचे दिकेन घुंवडायली. थंयच्यान सगळो म्हाल व्हडयेंत भरून वळवय व्हेलो. तें व्हडेंय आडवाटेक लिपोवन दवरलें. तांतलो थोडो म्हाल काडून घेतलो आनी आमी तो घेवन सावयच्या कुळागरांत नाच जाले. लक्ष्मण आनी बाळकृष्णान ड्रायवराचे सुवादीन टॅक्सी परत करतकच तो आमोणेवाटेन सावय आयलो. टॅक्सी ड्रायवर त्या लावन दिवप्यांमदलो नाशिल्ल्यान ताका अद्दल घडोवपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो. उरफाटे ताका चार पयशे चडूच बक्षिसी दिवन मेकळो केल्लो.

दुसरे दिसा गोंयचे खणीचेर जाल्ल्या ह्या पयल्या हल्ल्याविशीं एकूच बोवाळ जालो. मोटरसायकलीर बशिल्ल्या पयकी एकल्याक गुळी लागिल्ली. पुर्तुगेज रेडिओन तर, 'एक लाख रूपयांचीं स्फोटकां काल गुंडांनी फारायलीं' असो प्रचार सुरू केलो. स्फोटक द्रव्यांचो व्हड साठो आमच्या हातांत पडिल्ल्यान आनी ताचो उपेग कित्याखातीर आनी कितल्या प्रभावीपणान करूं येता हाचो अचूक अदमास पुर्तुगेज पुलिसखात्याक आशिल्ल्यान कसोय करून तें परतून हातासपाचेंच ह्या निर्धारान ताणीं दरेक दुबावीत वाठार बारकायेन आरतो परतो करपाक आरंब केलो. टॅक्सीवाल्याक आमी सोडल्या उप्रांत तो भंयान म्हणा वो आनीक कित्याक लागून म्हणा चुकीच्या रस्त्यान गेलो आनी पाळी लागसरच्या होंडा हांगा ताका पुलिसांनी आडयलो. भियेवन ताची गुळी जाल्ली. पुलिसांचे चौकशीक जाप दितना ताणें सगळें कितें खरें सांगलें. पूण तरीय ताका मारपेट केलोच. बंदखणीत उडयलो. फुडें तीन म्हयन्यांनी ह्या हल्ल्यांत वांटो घेतिल्ल्यां मदल्या कांय जाणांक जेन्ना अटक केली तेन्ना पुलिसांक ताच्या निरपराधीपणाविशीं खात्री पटली आनी मागीर ताणीं ताका सोडलो. पूण प्रत्यक्ष त्या वेळार मात पुलीस ताका ओगी बसूंक दिनासले. पाळी, सूर्ल, आमोणे आदी सुवातांचेर झडटी घेवपाचें सत्र सुरू करूनय पुलिसांक त्या दिसा आमचो कांयच थांगपत्तो लागलो ना. आमी दुसरेकडच्यान वचपी वाटेर उडयल्ल्या पेटयांनी आपलें काम केल्लें. त्या दिसा पुरतें तरी तांका घुसपायल्ले. दुसरे दिसा मोन्तेर फांतोडेरूच एके लाँचीन दोनतीन डझन लोक घेवन पणजेच्यान भायर सरले आनी हांगा थंय झडट्यो घेत घेत सकाळीं वळवय येवन पावले. थंय झडटी घालून घालून तो थकलो आनी परतून वतना अकस्मात एकल्याची नदर एक व्हडयेकडेन गेली, नदरे फाटाफाट हात वळ्ळे आनी तो खोसयेन आड्डलो. दोन राती तांतल्यान जें कितें काडिल्लें तें सोडल्यार हेर सगळो म्हळ्यार लागींलागीं तीन चतुर्थांश म्हाल पुलिसांच्या हाताक लागलो. हे घडणुके उप्रांत सावधगिरी म्हूण त्या भागांतलीं स्फोटक द्रव्यां दिवचल शारालागीं हाडून दवरलीं. ताचेर पुलीस पारोय दवरलो. खणींक ते दिसा पुरतो लागपी तितलोच कोटो दर सकाळीं व्हरपाची परवानगी खणमालकांक दिली. फकत शिरगांवची चौगुल्याची खण मात हे नवे व्यवस्थेक अपवाद आशिल्ली. ते खणीवयली दारू थंयच दवरली. शिरगांवची ही खण व्हड आसा, तिचीं कोठारां अत्यंत मजबूत आसात, राखणदारूय संख्येन चड आसात. ताका लागून हल्लो करपाचें धाडस कोण करचोना अशे कल्पनेन पुलिसांनी थंयचें कोठार तशेंच रावंक दिलें आसतलें. आमी दुस्मानाच्या फाजील आत्मविस्वासाचो फायदो घेतलो आनी तीनचार म्हयन्यानी थंय धाड घातली आनी आनीक एक धडो दुस्मानाक शिकयलो. पाळीच्या हल्ल्या पासून आमीय एक धडो शिकिल्ले. जो खेळ आमी खेळटात त्या खेळाचे सगळे नेम काटेकोरपणान पाळूंक जाय. जर तशें केलें ना जाल्यार आमी बाद जातले हें निश्चित. कोठार लुटून परत येतना फोडें-होंडा हमरस्तो वलांडचे आदीं आमी थोडोवेळ रावंक जाय आशिल्लें. रस्त्याचेर पाळत दवरपाखातीर आमी वचूंक जाय आशिल्लें आनी रस्तो सुरक्षीत आसा हाची खात्री करून घेवन मागीरूच ड्रायवराक मोटार सुरू करपाचो इशारो दिवंक जाय

> **रातच्या णवांक सुमाराक तें भुंयार आमी सोडलें आनी खणींतल्या कोठारा दिकेन वचूंक भायर सरले. दरवट्यार राखणदार आशिल्लो. पूण ताणें हालचाल करचे आदींच आमी ताचेर झडप घाली आनी ताका बांदून घालो. कोठारापसून ५० फुटांचेर दुसरी एक चौकी आशिल्ली. थंय तीन पारेकरी आसले. तेय भियेवन शरण आयले.**

आशिल्लो.कोठाराचेर, रस्त्यार तशेंच कोठाराकडेन हे सोपस्कार करप गरजेचे आशिल्ले. स्फोटक द्रव्यान भरिल्ली गाडी थांबोवप आनी सशस्त्र पुलिसांवांगडा स्वताक चकमकीत घुसपावन घेवप योग्य नाशिल्लें. आमचे चुकीची अद्दल आमकां घडली अशें समजून जाल्ले लुकसानीन निराश जायनासतना आमी परतून नेटान कामाक लागले.

हेच वेळार मेरशे केदार अणवेकार नांवाच्या आमच्या एका वावुरप्याक एक अपघात जालो. तो गोवा रेडिओ स्टेशनार तंत्रज्ञ आशिल्लो. एक टायम बॉम्ब दवरून तें स्टेशन उडोवन दिवपाचें काम ताणें आंगार घेतिल्लें. मनोहर पेडणेकारान ताचेकडेन एक बॉम्ब व्हरून दिलो. घडयाळाचो काटो फाटींफुडें करून तो कसो आनी केन्ना फुट्टलो हाचो अदमास घेवपांत हो वावुरपी मग्न आसतना थोडेशे नदरचुकीन, बेसावधपणान डिटोनेटर उडलो. बॉम्ब फुटलो आनी तातुंतच ताची आहुती पडली. पुलिसांक खोस जाली हातूंत दुबावूच ना. पूण तेच वांगडा घराच्या उडून गेल्ल्या पाख्याची आनी नासधूस जाल्ले वणटीवयल्यान बॉम्बाच्या सामर्थ्याचो तांका अदमास येवन हादरोय बसलो. हाका लागून रेडिओ स्टेशनावयलो पारो वाडयलो. रातच्यो वतना जिपी चड काळजी घेवंक लागल्यो. अश्या वातावरणांत आमी शिरगांवची मोहिम हातांत घेतली.

पाळी हांगचे खणीवयल्यान हातासलेल्या दारू गुळयांतलो तीन चतुर्थांश वांटो पुलिसांच्या हातांत पडिल्ल्यान नवो साठो मेळोवप गरजेचें आशिल्लें. शिरगांवच्या चौगुले बंधूंच्या खणी खेरीज हेरांकडलो म्हाल दिवचले सरकारच्या ताब्यांत आशिल्लो. तेन्ना शिरगांव खणीर हल्लो करून थंयचो स्फोटक म्हाल ताब्यांत घेवपाचें आमी थारायलें. ५ ऑक्टोबर १९५५ दिसा फांतोडेर पाचांक



सुमार ५० लोकांक घेवन शस्त्रांसयत खणीलागच्या एका भुंयारांत आमी पावले. पन्नासां मदले बाराजाण सशस्त्र आशिल्ले. हेरांक म्हाल उखलून व्हरपा खातीर हाडिल्ले. पुणेच्यान हाडिल्ली स्टेनगनूय आमचे वांगडा आशिल्ली. पुराय दीस शिरगांव दोंगरावेल्या भुंयारांत आमी बसून आशिल्ले. शिरगांवच्यान आमकां जेवण आयलें. लागसार कोणाची दुबावी हालचाल दिसल्यार ती बातमी कळोवपाक आमचे लोक दोंगरार बशिल्ले.

रातच्या णवांक सुमाराक तें भुंयार आमी सोडलें आनी खणींतल्या कोठारा दिकेन वचूंक भायर सरले. दरवंट्यार राखणदार आशिल्लो. पूण ताणें हालचाल करचे आदींच आमी ताचेर झडप घाली आनी ताका बांदून घालो. कोठारापसून ५० फुटांचेर दुसरी एक चौकी आशिल्ली. थंय तीन पारेकरी आसले. तेय भियेवन शरण आयले. थंयच टेलेफोन आसलो. तो आमी तोडून उडयलो आनी पारेकऱ्याक घेवन चौगजाण कोठाराकडेन आयले. हेर सगळे कोठार फोडपाचो एकेवटेन नेटान प्रयत्न करताले, पूण तें फुटून फुटना. अर्देवराचे धडपडी उप्रांत कुलूप तुटलें तेन्ना सगळ्यांनी समाधानाचो सुस्कारो सोडलो आनी व्हड खोसयेन भितर प्रवेश केलो. भितर सरल्या बराबर जिलेटिनाच्यो ३०-३५ पेटयो पयलीं आमी भायर काडल्यो. उरिल्लें सगळें कोठार उध्वस्त करपाचो आमचो विचार आशिल्लो, पूण दुर्दैव म्हळ्यार त्या कोठारांत फकत जिलेटिनूच आशिल्ले. आनी एकूय डिटोनेटर नाशिल्लो. आमीय वतना एखाद्रो व्हरूंक नाशिल्लो. शेवटाक त्या चारूय राखणदारांक त्या कोठारांत घालून आमी कोठार बंद करून परतले. ओजीं घेतिल्ल्यांचे ल्हान ल्हान पगड केले. दरेका पंगडा वांगडा एकदोन राखणदार दिल्ले. प्रभाकर सिनारींकडेन स्टेनगन आशिल्ली आनी ह्या सगळ्या सामाना सयत ते दोंगराचे वाटेन वझऱ्यां गेले. ते भारतीय शीम कितल्या वेळान हुपून वतले हाचो अदमास दवरून आमी फाटल्यान राखण करून राविल्ले. म्हजे वांगडा बाळकृष्ण भोसले आनी कान्होबा नाईक आशिल्ले. अस्नोडें- दिवचल हमरस्तो शंबरेक फुटांचेर आसतनाच एके जिपीचो आवाज आयकूंक आयलो. ते वेळार सशस्त्र पुलिसांच्यो जिपी गस्त घालपाखातीर रातच्यो

भोंवताल्यो. तांतलीच एक जीप आसत अशें आमकां दिसलें म्हूण आमी तिगूय जाण बेगोबेग कुशीच्या जंगलांत आडसाक रावले. चारपांच मिनटांत ती जीप सामकी आमचे मुखार आयली. ताबडतोब आमी एकाच वेळार फार पेटयले आनी एके बायलेची किळांच आयकूंक आयली. बायलेचो आवाज आयकून जीप थांबोवपाचो वो चड फार मारपाचो यत्न आमी केलो ना. जीप नेटान थंयच्यान गेली. ही कोणाची जीप आसत काय हाचो विचार करीत आमी मुखार गेले. हमरस्तो हुपतना मात हे वेळार सगळी काळजी घेतली. पाळीच्या हल्ल्यांतलो अणभव हांगा उपकाराक पडिल्लो. फांतोडेर पाचांक सुमार भारतीय पुलिसांक चुकोवन आमी शीम हुंपली आनी वझऱ्याक पावले. ते वेळार थोडो म्हाल आमी गोंयचे हद्दींत दवरलो.

दुसरे दिसा आकाशवाणीचें पणजे स्टेशन लावन आमी सगळे जाण आमच्या पराक्रमाची प्रतिक्रिया आयकूंक उत्सुकतायेन बसले. शत्रू आमचेविशीं कितें उलयता, खंयच्या उतरांनी आमची 'तुस्त' गायता हें सगळयांक आयकुपाचें आशिल्लें. बातमेच्या आरंबाकूच सदचे प्रमाण आमची चोर, दरवडेखोर म्हूण खेपणूक केली. पूण हे खेपेक तातूंत आनीकूय दुशणांची भर पडली. तांचे नदरेन आमी आतां लिपून रावून बायलांचेर गुळयो झाडपी 'भिवकुटें' थारिल्ले. बायलांचेर 'हात घालपी' थारिल्ले. शारदा सावयकार, म्हापशेंच्या म्हाबळू नायकाची भयण बाय बी बायलांक बेदम मारपीच आमकां हीं दुशणां दिताले. कोलवाळच्या विष्णु वझ्यांच्या घरा ते नासतना घुसून तांचे घरकान्नीचे हांडयेवेलें भुरगें ओडून काडून तिका निर्दयपणान बडोवपीच बायलांचो मान न राखपी, बायलांविशीं मात्तूय काकळूट नाशिल्ले 'नराधम' थरयताले. १५ ऑगस्ट १९५५क सुभद्रादेवींक गुळयो घालून गंभीरपणान जखमी केल्ल्याची याद दोन म्हयने पुराय जावचे आदींच ते जणकाय विसरिल्ले, आनी आतां तोंड वयर करून मनीसपणाची भास आमकां शिकयताले. वयलीं सगळीं विशेशणां आमकां लावन जातकच दारू कोठारा वयल्या हल्ल्याची म्हायती निवेदक दिवंक लागलो. 'कोठार फोडून लुटारू परत वताले. वाटेर रस्त्यावयल्यान एक जीप वतना तांकां मेळ्ळी. खणीर काम करपी एक जर्मन तंत्रज्ञ आपले बायलेसयत ते जिपिंतल्यान वताले. हल्लेखोरानीं जाणा जावनूय तांचेर फार सोडले'. रेडियोवयल्यान दिल्ले हे बातमेन पुलीस बरेच भियेल्ले. शिरगांव सारके सुवातेर कोण हल्लो करीत, बंद कोठार फोडीत आनी आपल्या खात्याच्या सशस्त्र गस्तींतल्यान सुटून वचत अशें ताणीं सपनांत लेगीत येवजूंक नासलें. ते भायर पळोवन व्हेल्लीं स्फोटकां म्हळयार जिलेटिनां बऱ्या दर्जाचीं आशिल्ल्यान तीं सोदून काडूंक ताणीं आरंब केलो. दरेक दोंगरावयल्यो सुवाती ताणी आरत्यो परत्यो घाल्यो. 'सावय-तामसुली' वाठारांतल्या दोंगरावेल्या भुयारांत आमी रावताले थंयीय पुलीस गेल्ल्याचें आमकां कळ्ळें. थंय ते गेले कित्याक तर लागीं दाट रान नाशिल्लें. पोम्बुर्प्याच्या जंगलांत मात आमी थंय आसतात हें खबर आसुनय ताणीं पावल घालें ना. आमी 'आनीक खंय खंय' वचपाची शक्यताय आसा तें आतां कादयेंत पडिल्ल्या दासू, शंभू आदी म्हज्या वांगड्यांक ताणीं खणून खणून विचारलें. ताणीं सगळें करूनय आमी व्हेल्ल्या सामानांतलें इल्लें लेगीत तांच्या हाताक लागलें ना. गोंयांत दवरिल्ल्या म्हालांतलेंय मेळूंना आनी वझऱ्यांतलेंय ना. वझऱ्यांतलो म्हाल तांचे नदरेक पडपाची शक्यताय केन्नाच नाशिल्ली. हीं जीं जिलेटिना आमी हाताशिल्लीं तीं मुखार जायत्या सुवातांनी उपेगाक पडलीं. खंय पूल उडयले, खंय जिपी उडयल्यो जिलेटिनाचो हो पराक्रम जेन्ना उक्तो जावंक लागलो. तेन्ना दुर्दैवान हांव कादयेंत आशिल्लों.

वझऱ्यां दवरिल्लें 'जिलेटीन' आमकां तणाकुड्यांत लिपोवन दवरचें पडलें. पुर्तुगेज पुलीस धाडसान शीम हुपून वझऱ्याक येतले आनी तांच्या हाताक हो साठो पडटलो ह्या भंयान न्हय तर भारत सरकार ते सुवातेर वचून ताचो ताबो घेतलें आनी आमकां सतायतलें. हे पासत ही उपाय येवजण करची पडिल्ली.

बॉम्ब तयार करपाचें काम रोखडेंच सुरू जालें. ह्या कामांत पयलीं परस तांत्रिक प्रगतीय आतां बरीच जाल्ली. ह्या पयलींच्या जायत्या अपेसां उपरांत हें जैत, हें यश आमकां मेळिल्ल्यान आमचो उत्साह शंबर पटीनी वाडिल्लो. आनीक खंय हल्लो करपाचो हाचो विचार आमी करूंक लागले. आतां एखाद्री धाडसी हालचाल करपाक अडचण ना अशें आमकां दिशिल्लें. खुद्द राजधानी पणजे लागसार वा म्हापशें शारालागीं हल्लो करून एक जबरदस्त हादरो पुर्तुगेजांक दिवचो अशें आमी थारायलें. म्हापशें, पणजी, मडगांव अशा शारांनी कितें करपाचें धाडस आमच्यांत आसचेंना असो विस्वास आशिल्ल्यान त्या वाठारांत पुर्तुगेज सरकार मातशें निश्काळजीपणान वागतालें. शिरगांवच्या कोठारावयल्या हल्ल्याच्या निमतान हें आमकां सारकें कळिल्लें. ते भायर शारांत कितेंय करप हें वयलेतराक पळयत जाल्यार जरी कठीण दिसतालें तरी खरेपणी तें सोपेंच आशिल्लें. अर्थात हल्लो सोंपतकच बेगोबेग पसार जावपाची शक्यताय आसली तरूच! हे सगळे नदरेन आमी वेंचून काडली ती बेतींच्या पुलीस ठाण्याची. बेतीचें पुलीस ठाणें तशें पणजेक तेंकुनूच आनी पोम्बुर्प्याचें रानूय थंयच्यान लागींच. येवजिल्ल्या प्रमाण हो हल्लो जालो, पूण म्हज्या जिवितांतलो मात तो निमणो थारलो.

■ ■ ■

आमच्या देशांतूच सेंट्रल इलेक्ट्रोनीक लिमीटेड, सोलर पॅनलची निर्मणी करता. ह्याच पॅनलाचें शप्पर करून वतांत आशिल्ल्या उर्जेंतल्यान उदक पयस करून गाडयेंत विद्यूत - विच्छेदन करून हायड्रोजन आनी ऑक्सीजनची निर्मणी करून ताची सूर्याच्या वतांत चलपी ल्हान ल्हान कॉम्प्रेसर वापरून दोन विंगड विंगड टाकयेंत एकठांय करपाचे आनी गरज तेन्ना हे दोनूय गॅस इंजीनांत वचून गाडयेक मुखार व्हरतले. हाका फकत उदकाची गरज आसतली.



# पेट्रोलाचो पर्याय

इंजीनीयर नागवंशी खूब खूश दिसतालो. ताच्या मुखामळार पयलीं भशेन बेजारपण नासलें. हाचे वयल्यान दिसतालें की तो ताच्या उद्देशान जैतिवंत जाल्लो.

इंजीनीयर नागवंशी विज्ञानाच्या विंगड विंगड मळार तरेतरेचे सोद लावपांत मग्न आसतालो. ताणें कांय चमत्कारीक सोदूय लायल्ले.

लागीं लागीं पांच वर्सांसावन इंजीनीयर नागवंशी आपल्या शोधांत गूल्ल आसलो. अदीं मदीं ताका खावपा-पिवपाचीय सूद नासताली. भूक लागल्यार पाव-बिस्कीट बीन खातालो आनी न्हीद आयल्यार जमनीर खंयय आड जातालो.

"मदन फाल्यां हांव तुकां म्हज्या नव्या शोधा संबंदी सांगतलों."

इंजीनीयर नागवंशीन आपल्या वांगड्याक सांगलें.

इंजीनीयर नागवंशीचे सगळे वांगडी जाणा आसले की तो एका नव्या सोदांत मग्न आसा म्हूण, पूण तो शोध कसलो तें कोणाकूच खबर नासलें.

"सर बाकी लोकूय तुमच्या सोदाची खबर आयकपाक उत्सूक आसात." वांगडी मदनान म्हणलें.

"तांकाय फाल्यां घेवन यो."

इंजीनीयर नागवंशीन सांगलें आनी उपरांत तो आपले प्रयोगशाळेंतल्यान भायर सरून ड्रॉइंगरुमांत आयलो.

"शंकर, हांव न्हिदपाक वतां. फाल्यां कांय लोक येतले. तांच्या नाश्त्याची वेवस्था कर." इंजीनीयर नागवंशीन जेवण करपी शंकराक सांगलें.

"सायब, कोण कोण येवपाचे आसात?" शंकरान जाणा जावपाक विचारलें.

"विज्ञानांत रुची आसपी लोक येतले" अशें म्हणून इंजीनीयर नागवंशी आपले न्हिदपाचे कुडींत गेलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं इंजीनीयर नागवंशी आपल्या ड्राइंगरूमांत बशिल्लो. तेन्नाच शंकरान विचारलें, "सायब, नाश्ता घेवन येवं?"

"नाका, म्हाका मेळपाक जे लोक येतले, तांच्या सांगाताकूच नाश्ता करतां आनी

आयक, हॉलांत लोकांक बसपा खातीर कदेली दवर.''

''बरें सायब...'' म्हणून शंकर गेलो.

कांय वेळा उपरांत इंजीनीयर नागवंशीचो वांगडी मदन हेर लोकांक घेवन आयलो. इंजीनीयर नागवंशीन लोकांक बसयले आनी शंकराक नाश्ता हाडपाक सांगलें.

''तुमी सगळे म्हज्या नव्या सोदा संबंदी जाणा जावंक सोदतात न्हय?'' नाश्ता करतां करतां इंजीनीयर नागवंशीन लोकांक विचारलें.

''हय'' सगळ्यांनी वांगडाच म्हटलें.

''पळयात, आतां जे तरेन पेट्रोलाचो खप जाता ताचे वयल्यान अशें दिसता की जगाचो पेट्रोलीयमचो साठो पंदरा-वीस वर्सांनी काबार जातलो.'' इंजीनीयर नागवंशीन म्हटलें.

''सर, तुमी सारकें उलयतात. फुडाराक पुराय जगाक पेट्रोल संकटाक फुडो करचो पडटलो.'' अहमदान म्हटलें.

''सर दिसान दीस पेट्रोलाचें मोल वाडत वतलें. जाका लागून हेर म्हारगायूय वाडटली. सामान्य मनशाचें जिणें कठीण जातलें.'' गीरीधरान आपलें म्हणणें मांडलें

''हय, तुमी लोक सारकें उलयतात. पेट्रोला बगर पुराय जग त्रासतलें. पूण आमी भियेवंक फावना. जर प्रस्न उबो जालो जाल्यार ताची जापूय सोदची पडटली. जर पेट्रोलाचो पर्याय सोदून काडलो जाल्यार हो प्रस्न सुटटलो.'' इंजीनीयर नागवंशीन सांगलें.

''पूण सर पेट्रोलाचो पर्याय सोदपाक खूब कळाव जातलो.'' वांगडी मदनान म्हटलें.

''हांवें पेट्रोलाचो पर्याय सोदून काडला आनी होच म्हजो नवो सोद, जाचे संबंदी तुमी जाणा जावंक सोदतात.''

थंय आशिल्ल्या सगळ्या लोकांक अजाप जालें. सगळयांच्यो नदरो इंजीनीयर नागवंशीचेर थिरावल्यो.

इंजीनीयर नागवंशी आपल्या नव्या सोदा संबंदान उलोवंक लागलो. ''हांवें गाडयांनी



लागपी नव्या इंजीनाचो डायग्राम तयार केला.''

''सर कितें गाडयांनी हें इंजीन लागतकूत पेट्रोल उणें लागतलें?'' एकान विचारलें.

तेन्ना दुसऱ्यान विचारलें, ''सर, पेट्रोलूच आसचें ना, जाल्यार ह्या इंजीनाचो कितें फायदो?''

इंजीनीयर नागवंशीन सांगलें, ''हें इंजीन हायड्रोजनचेर चलतलें.''

''पूण सर, पेट्रोल पंपच्या जाग्यार हायड्रोजन पंप उगते केले जाल्यार हायड्रोजन घेवपाकूय बी परतें पेट्रोल जाळचें पडटलें?'' वांगडी मदनान विचारलें.

इंजीनीयर नागवंशीन फुडें सांगलें, ''आमच्या देशांतूच सेंट्रल इलेक्ट्रोनीक लिमिटेड, सोलर पॅनलची निर्मणी करता. ह्याच पॅनलाचें शप्पर करून वतांत आशिल्ल्या उर्जेतल्यान उदक पयस करून गाडयेंत विद्यूत - विच्छेदन करून हायड्रोजन आनी ऑक्सीजनची निर्मणी करून ताची सूर्याच्या वतांत चलपी ल्हान ल्हान कॉम्प्रेसर वापरून दोन विंगड विंगड टाकयेंत एकठांय करपाचे आनी गरज तेन्ना हे दोनूय गॅस इंजीनांत वचून गाडयेक मुखार व्हरतले. हाका फकत उदकाची गरज आसतली.''

इंजीनीयर नागवंशीच्या ह्या नव्या सोदा संबंदी जाणविकाय घेवन थंय आशिल्ल्या लोकांक एकेतरेची उमेद जाली.

''सर कितें हायड्रोजन पेट्रोला परस सवाय मेळटलो?'' मदनान विचारलें.

''हय, हय हो पेट्रोला परस खूब सवाय आसतलो. सगळ्यांत मुखेल गजाल म्हळ्यार हाची निर्मणी पुराय रुपान आमच्या देशांत जातली. ताका लागून आमकां दुसऱ्या देशांतल्यान कांयच आयात करचें पडचें ना.'' इंजीनीयर नागवंशीन मदनाचो दुबाव पयस केलो.

''सर, हें इंजीन म्हारग आसतलें?'' एकल्यान विचारलें.

''ना, हें इंजीन सद्या वापरतात त्या इंजीना इतल्याच मोलांत मेळटलें. हां, एक गजाल सांगपाक विसरलों. गाडयानसून प्रदूशण करपी गॅसूय भायर सरचे नात, कारण हायड्रोजन जळ्ळ्या उपरांत वाफ सोडटलो.'' इंजीनीयर नागवंशीन सांगलें.

''हाचो अर्थ आमकां प्रदूशणापासून मुक्ती मेळटली.'' गीरीधरान खूश जायत म्हटलें.

इंजीनीयर नागवंशीच्या ह्या सोदासंबंदी जाणविकाय घेवन थंय आसलले लोक खूब खूश जाले.

सगळ्यांनी ह्या कल्ल्याणकारी सोदाक लागून इंजीनीयर नागवंशीक परबीं दिली आनी ते सगळे फुडले येवजणेक लागले.



**(नरेंद्र देवांगन हांचे हिंदी कथेचो उदय देशप्रभू हाणी केल्लो कोंकणी अणकार)**

# सिल्वर ज्युबली



- कुमूद भिकू नायक
खोर्ली,
तिसवाडी - गोंय
फोन : ९९२११८२५२००

*आगो आमगेर आशिल्ले कामवालेक म्हळयार त्या शालूक तीं आजी म्हणटात. जाणा मगो वर्षा, ती खऱ्यानीच तांची आजी म्हळयार जाता. कालचीच गजाल, काल त्या भुरग्यांक घरा येवपाक मात्सो वेळ जालो. ती तांच्या हुस्कयान भायर वता भितर वता, एका जाग्यार सारकी बसना, परत-परत आमकांय येवन सतायता. जेवणाचो वेळ जालो तरीय हीं दोगांय येवंक ना. ही सामकी रस्त्यार वचून रावली. हांवेंच मागीर हिका म्हळें, आगो शालू तीं आतां ल्हान नांत.*



**आ**गो शितल खंय गो धावता? सामकें गडबडींत शें? कितें आसा काय हागेर?

हांव चितपाक पडलें. शितलाच्या हातांत दोन-तीन पिशव्यो आशिल्ल्यो. पिशव्यांक पळयल्यार कपड्यां दुकानांतल्यान आयलां म्हण कळटालें. शितला बरोबर एक बायल आशिल्ली. ते बायलेकडेन इतक्यो पिशव्यो आशिल्ल्यो की ते बायलेचें तोंड दिसच नाशिल्लें. एके पिशवेंत ओली कोथमीर, मोटी मिरसांगो, फलावर... कोंबून भरला तें पिशवेवेल्यान दिश्टी पडटालें. ती अदमासानूच चलता काय कितें अशें दिसतालें. घडये हातांतलें सामान घेवन उबें रावचें पडटलें म्हणून हडकिनास्तना गेलें आसतलें अशें म्हाका दिसलें.

शितलाक उलोवपाक मात खूब जाय. वळख-पाळख नासल्यार चलता. कोणाकडेनूय उलोवपी, सदांच उमेदीन कशें! हांव ताका पळयतकच सदांच चित्तालें, असल्या मनशांकडेन इश्टागत करपाक जाय. निदान ताका लागून आपणालें दूख विसरप जाता. हांव खरें म्हणल्यार गिफ्ट हाडपाक म्हण पणजे बाजारांत गेल्लें. हाका पळयतकच बरें जालें म्हणटलें आनी गिफ्ट कसलें घेवचें तें हाकाच विचारतलें म्हण हाचे म्हऱ्यांत गेलें. पूण हाचेकडेन आशिल्लें सामान पळोवन हांवें ताका विचारपाचेंच टाळ्ळें. पूण हांव कितें विचारपाक सोदतां म्हणपाचें शितलाक कळिल्लें. रावचें पडटलें म्हण ताणे दोळ्यांनूच खुणां केली आनी तें वचपाक गेलें. हांव तें वचसर थंयच उबें रावलें. मागीर निर्शेल्लें तोंड करून बाजारांत भितर सरलें. म्हाका जाय तें गिफ्ट घेतलें आनी हांव घरा आयलें. घराकडेन म्हाका मनूच लागना जालें. म्हजेकडेन उलोवपाक वेळ ना जावपा सारकें शितलागेर कितें आसा काय? हांव चिंतपाक पडलें. कसलीय गजाल पयलीं तें म्हाका सांगतालें पूण ही गजाल ताणें म्हाका कित्याक सांगली ना काय? हांव त्याच विचारांत आशिल्लें.

इतल्यान शितल दारामुखार उबें दिसलें.

''कितें गो वर्षा, सामकें टेन्शनानशें बसलां?''

खरें म्हळ्यार हांव टेन्शनानूच आशिल्लें. पयलीं हांवें आयकनाशिल्ल्या भशेन केलें आनी ओगीच रावलें.

''आगो हांव जाणाच आशिल्लें तुका वायट दिसतलेंच म्हूण.''

''खरें म्हळ्यार तुजेकडेन उलोवपाचेंच न्हय.'' हांवें फुगार जावन शितलाक म्हणलें.

''आगो हांवें म्हजे कामवाली शालूक सुद्दा म्हणिल्लें, पळय हां वर्षा म्हजेर कशें फुगार जातलें म्हूण.''

''हय, जावपाचेंच. हांव गिफ्ट हाडपाक म्हूण बाजारांत गेल्लें. तुका पळयतकच म्हजें काम सोपें जालें अशें म्हाका दिसलें. पूण सगळें परतेंच जालें. म्हजेकडेन उलोवपाक तुकां वेळच नाशिल्लो. आगो, खरेंच म्हाका वेळ नाशिल्लो, पूण वेळ काडून हांव तुजे म्हऱ्यांत आयलें न्हय गो?''

''बरें आसा, आयलां मुगो, आतां तरी सांग तुजें कितें जालां तें.''

''आगो येता त्या आयतरा हांवें म्हजे कामवालीची 'सिल्वर ज्युबली' करपाचें थारायलां.''

''कितें? कामवालीची?''

''हय गो''

''कामवालीच्या लग्नाचो गो?''

''ना गो लग्नाचो न्हय गो. ती कामाक आसल्यार पंचवीस वर्सां पुराय जातात. म्हणून हांवें आमच्या घरच्यां भितर हो ल्हानसोच सुवाळो करपाचो थारायला. ते खातीर हांव त्या शालूक घेवन बाजारांत गेल्लें. ताका जाय तसली साडी घेवनी म्हळें.''

''घेतली गो साडी?''

''हय, बरी सिल्काची साडी घेतली.''

''जावं, आयकून बरें दिसलें. येतां हांव मुद्दाम तुमचे कामवालीची सिल्वर ज्युबली करपाक.''

शितल हें सगळें सांगून गेलें. तकलेंतलो गैरसमज पयस जालो. पूण कामवालीचो 'सिल्वर ज्युबली' आयकून अजाप दिसलें.



घरच्या मनशांचो सिल्वर ज्युबली, वाढदीस कोणूय करता. पूण कामाक आसा तांचेय दीस उमेदीन मनोवप म्हळ्यार शितलाक मानपाचें.

कामाक दवरता तीं कशीं त्रास करतात, आनी कामवाली घर मालकाक कश्यो फटयतात तें हांवें खूब फावट आयकलां. जाय ते फावट आयकून दिसतालें की नाका त्यो कामवाल्यो. पूण कांय कामवाल्यो इतक्यो बऱ्यो आसतात की तांची तोखणांय करता तितली कमीच. पूण म्हाका मात शितलागेर आशिल्ले कामवालीचो सिल्वर ज्यूबली करपाक वच्चे परस तिचेविशीं जाणून घेवपाची चड उमळशीक आशिल्ली. हांव ते दिसा सकाळफुडेंच शितलागेर गेलें. घरांत मोटच्यान आवाज जातालो तो भायर आयकुपाक येतालो. हांवें भायरसूनच शितल म्हण उलो मारलो. आयकून तें भायर आयलें.

''कसलो गो बोवाळ? कोण आयलां?''

शितलाच्या दोगांय भुरग्यांनी भायर येवन सांगलें, ''आज्येचो तो बोवाळ, दिसभर ती बेश्टीच आड्डत आसता.''

''आजी केन्ना आयली? बरें जालें सकाळींच येवन. आजेकडेन तरी उलोवपाक मेळ्ळें. कामवालीची सिल्वर ज्युबली करपाक आज्येक हाडल्या काय कितें?'' हांव उलयत भितर सरलें. म्हजें आयकून सगळीं हांसपाक लागलीं.

''आगो आमगेर आशिल्ले कामवालेक म्हळ्यार त्या शालूक तीं आजी म्हणटात. जाणा मगो वर्षा, ती खऱ्यानीच तांची आजी म्हळ्यार जाता. कालचीच गजाल, काल त्या भुरग्यांक घरा येवपाक मात्सो वेळ जालो. ती तांच्या हुस्क्यान भायर वता भितर वता, एका जाग्यार सारकी बसना, परत-परत आमकांय येवन सतायता. जेवणाचो वेळ जालो तरीय हीं दोगांय येवंक ना. ही सामकी रस्त्यार वचून रावली. हांवेंच मागीर हिका म्हळें, आगो शालू तीं आतां ल्हान नांत. जाल्यार ती म्हणटा, 'तीं व्हड जाल्यांत म्हूण तर आपणाक हुस्को. खरेंच भुरग्यांचेर ती जीव घालता. आतां फोन बी सगळे आयल्यात. ती तुमकां हुसकेता म्हण खबर आसा तेन्ना फोन करून सांगल्यार जातालें न्हय. पूण ह्या भुरग्यांक सांगतलो कोण? तांकां पडिल्लेंच ना. आमकां येवपाक मात्सो वेळ जातलो जाल्यार आमी तिका रोकडेंच फोन करून सांगतात.' खऱ्यानीच गो आमकां ह्या शालूक लागून कसलोच हुस्को ना.''

हें शालू आमगेर आयिल्लें तेन्ना म्हजी व्हडली चली दोन वर्सांची आनी धाकटें चली दोन म्हयन्यांचें आशिल्लें. खरें म्हळ्यार तिका कपडे धुवपाक म्हण आपयल्लें. कपडे धुवपाच्या कामा बराबर घरांत दिसता तें सगळें काम सांगिनासतना ती करून वताली. घरांत जें कितें करता तें हांव तिका न चुकतां दितालें. हळुहळू ती म्हज्या भुरग्यांकूय सांबाळपाक लागली. सगळ्यांत बरें काम म्हळ्यार ती म्हज्या भुरग्यांक जुस्त वेळार पोटाक घालपाचें

काम करताली. तिकाय चार जाणां भुरगीं आशिल्लीं. ती आपणाल्या भुरग्यांक कशी सांबाळटाली तें हांव मात नकळो. म्हाकाय तिची आस जाली म्हळ्यार जाता. हांवेंच तिका एकदीस म्हणलें, "जाणा मगो शालू तूं आमगेर राव गो."

"कशें रावूं गो? म्हजींय भुरगीं आसात न्हय?"

"तशें जाल्यार म्हाका नोकरी सोडची पडटली."

"कित्याक गो बाय. नोकरी म्हण कोण सोडटा?" अशें तिणें म्हाका प्रस्न केलो.

"भुरगीं ल्हान आसात. घरांतलें पळयतलें, भुरग्यांचें करतलें काय कामाक वतलें. जायना गो तें." अशें सांगतकच तिणेंच म्हाका धीर दिलो. तूं कामाक वच. भुरग्यांक हांव सांबाळटां. तिगेर चार भुरगीं आसून लेगीत तिणें म्हजें घर आनी म्हज्या दोनूय भुरग्यांक सांबाळ्ळीं.

भुरग्यांक स्कुलांत वचपाक जाय म्हण ती सकाळीं पाचांक उठून आमच्या दाराचेर मारताली. "आगे पांचूच जाल्यांत कित्याक इतले बेगीन उठटा?" अशें म्हणटकच परती घरा वताली आनी अर्द वरान परती येताली. आंगणांत सारण मारून निवळ करताली. भुरग्यांक उठोवन तांचीं तोंडां धुवयताली. च्याचेर खावपाक कितें जाय तें ती तांकांच विचारून तांकां जाय तसलेंच करून दिताली. भुरग्यांनी च्या पिल्या उपरांत तांकां शाळेचे कपडे घालून स्कूल बशीचेर चडयताली. हीं सगळीं कामां ती सांगिनासतना करताली.

ती आतां जाण्टी जाल्या. तिणें आपल्या भुरग्यांचींय लग्नां केलीं. तिचेकडेन आतां कांय जायना. पूण ती आमगेर येता. भुरग्यांकूय तिची संवय जाल्या. तिचे शिवाय तांकां जायना. म्हणून आमी तिका सांगून दवरल्या. तुजेकडेन कामां जायना म्हण तूं येना आसतना रावूं नाका, भुरग्यांखातीर यो. भायर-भितर भोंवता तितकेंच पुरो. पूण ती ओगी बसता? कामाक आतां दुसरी चली आसा. ताचेकडल्यानं सगळें वेसस्थीत करून घेता. आमचें घर तिणें पंचवीस वर्सां जालीं सांबाळ्ळां. देखून आमी तिचो घरच्यां भितर हो ल्हानसोच सुवाळो करपाचो थारायलां. ह्या सुवाळ्या निमतान आमी तिगेल्या चारूय भुरग्यांक, तांच्या भुरग्या-बाळांक घेवन येवपाचें आमंत्रण दिलां. आनी खास म्हजी इश्टीण म्हण तुकां आमंत्रण दिलां.'

हें सगळें आयकून म्हजे दोळे भरून आयले. हांव शितलाक पयलीं वळखतालें पूण शितलाची खरी वळख म्हाका आयज जाली.



# गोंय सरकाराचें क्रिडा संचालनालय

## खेळ म्हळ्यार बरी भलायकी आनी मनोरंजन

गोंय सरकार खेळ उदरगती पासत कसल्यो येवजण्यो राबयता हें तुमी जाणांत?

१. प्राथमिक, माध्यमिक तशेंच उच्च माध्यमिक शालेय स्तरार शाररीक शिक्षणाची उदरगत
२. प्राथमिक, माध्यमिक तशेंच उच्च माध्यमिक शालेय स्तरार खेळ आनी खेळां सर्त राबयता.
३. शाळा, ग्रामपंचायत आनी तालुका पातळीचेर खेळा मैदानाची उदरगत.
४. गोंय राज्यांत शास्त्र शुध्द प्रशिक्षण दिवपाक प्रशिक्षण येवजण.
५. सरकारी आनी निमसरकारी शाळांक खेळां सामान पुरवंठो.
६. उत्कृशठ खेळाकेंद्रांची स्थापनां.
७. भारतीयम् प्रशिक्षण कर्यावळ.
८. योगशिक्षणाची उदरगत.
९. व्यायामशाळांची स्थापनां तशेंच सांबाळ करप.
१०. राज्य आनी राष्ट्रीय म्हत्वाचे दीस मनोवप.
११. गोंय प्राधिकरणा खातीर नागरीसेवा खेळां सर्तिचें आयोजन.
१२. दुर्बळ अवतिकायेंत खेळगड्यांक अनुदान भेटोवप.
१३. राज्य खेळां पुरस्कार भेटोवप.
१४. जलक्रिडा आयोजन.
१५. निमसरकारी माध्यमिक शाळा आनी महाविद्यालयीन खेळां मैदान उदरगतीपासत अनुदान.
१६. खेळ आनी शाररीक शिक्षणावेल्या साहित्य निर्मितीक उत्तेजन.
१७. खेळ वसती गृह उबारणी.




**क्रिडा संचालनालय**
कांपाल, पणजी – गोंय
हांचे वतीन प्रसारीत



- ब्रॅन्डा मिनेझीस
कुस्मण - केपें, गोंय
फोन : २६६२४९१.

# परतफेड



*पूण तिची अशक्तताय पळोवन कोणूच तिका कामाक दवरूंक राजी जायना जालो. भुरगीं उपाशी तळमळटात तें खंयची आवय पळोवंक शकत? तिचें काळीज फाफसतालें. 'वीख पिवन जीव दिवया' खूबदां मनांत येवन पासून ती करूंक शकली ना. तिचेकडेन खोटो पयसोय नासलो. एका दिसा, अशीच ती बाजारांत काम सोदूंक भुरग्यांक घेवन भोंवतना, पिठाचे गिरणीर पात्रांव गंव निवळ करता तो तिणें पळयलो.*

**बा**रा वर्सांचो पॉल, दर्या देगेर आशिल्ले एक गिरेस्त आनी पॉश कॉलनींत रावतालो. पॉलाची मम्मी एक समाज सेविका आनी डॅडी, नावास्तो बिल्डर. तांचो फ्लॅट खूब व्हड आसलो. पूण आवय बापायक, आपल्या एकट्याच पुता वांगडा वेळ सारूंक फावना आसलें. बापूय आपलो धंदो आनी आवय आपली समाज सेवा सांबाळटाली.

तांचे कॉलनीचे मात्शे पयस एक झोपडपट्टी आशिल्ली.

पॉल हळव्या मनाचो. शांत आनी गुणेस्त. पॉलाच्या बऱ्या नशिबान, तांकां एक मोगाळ, देखीवंत कामवाली मेळिल्ली. पॉलाक ती अपुर्बायेन आनी मोगान सांबाळटाली. कितेंच ताका कमी पडूंक दिना आसली.

सदांच, सांजेचो आपलो अभ्यास केल्या उपरांत बाल्कनींत रावून तो ते झोपडपट्टे वटेन पळयतालो. 'घाणीच्या त्या वाठारांत, तो लोक चिड्डून कसो रावता काय?' पॉलाक अजाप दिसतालें. थंय वचून एकदां तरी पळोवन येवंक जाय, अशें ताका खूबदां दिसतालें. मनांत येवजिलां तें करूंक, एका दिसा ताणें थारायलें.

सदांचे बशेन, आपलीं सगलीं कामां सोंपोवन, पॉलाक च्या दिवन कामवाली आपल्या घरा गेली. पॉल सकयल आयलो. आपली सायकल गॅरेजींतल्यान भायर काडली आनी ते झोपडपट्टेचे दिकेन सायकल घुंवडायली. लागीं पावतां पावतां थंयचे घाण घुट्टणीन ताका ओंकूंक येवंक लागलें. ताणें ऑल्त मारलें आनी परते वाटेक लागलो.

ताणें सायकलीच्या पेदलार पांय दवरला मात, ताच्या कानार ल्हान भुरग्याचें करूण रडणें पडलें. ताचें काळीज मोवाळ्ळें आनी तो त्या आवाजावटेन वळ्ळो. लागींच आशिल्ले एके खोपटेंतल्यान तो आवाज येतालो. ताणें आपली सायकल भायर दवरली आनी भितर पळोवंक लागलो. भितरलो देखावो पळोवन तो चुरचुरलो. थंय उदक पडून, आनी कोयर जाल्ल्यान घाण जाल्ली. भितर सरूंक ताका वीट दिसली. परत एकदां त्या भुरग्यान रडूंक सुरवात केली आनी पॉलाचे पांय आपसूक भितर ओडले.

पॉलाक पळोवन, थंय न्हिदिल्ली अस्तुरी भियेली. रडटालें तें भुरगें, तिच्या पायांशी बसून भुकेन वळवळटालें. एका ल्हान दुदाच्या बाळकाक ती दूद दिताली. पॉलान तिची मोगान वासपूस केली. तें भुरगें रडत आसलें.

पॉलान ताका हात लायतांच तें मातसो वेळ ओगी जालें. तिणें आपली गत ताका सांगली. ती विधवा आसली. एका अपघातांत तिचो घरकार मेल्लो आनी ती गंभीर जखमी जावन खूब अशक्त जाल्ली. पयलीं बशेन तिच्यान काम करूंक जायना जालें. भलायकी मात्शी सुदारतांच तिणें लोकांच्या दारांनीं भोंवून, आयदनां आनी कपडे धुवपाचें आनी जमीन पुसपाचें काम मागलें.

पूण तिची अशक्तताय पळोवन कोणूच तिका कामाक दवरूंक राजी जायना जालो. भुरगीं उपाशी तळमळटात तें खंयची आवय पळोवंक शकत? तिचें काळीज फाफसतालें. 'वीख पिवन जीव दिवया' खूबदां मनांत येवन पासून ती करूंक शकली ना. तिचेकडेन खोटो पयसोय नासलो. एका दिसा, अशीच ती बाजारांत काम सोदूंक भुरग्यांक घेवन भोंवतना, पिठाचे गिरणीर पात्रांव गंव निवळ करता तो तिणें पळयलो. 'काम मेळपाक ही एक बरी संद' येवजून तिणें धीर घेवन, त्या पात्रावां फुड्यांत वचून तो करतालो तें काम आपणाक दी म्हणून विनंती केली. गिरणकाराकूय कोण तरी जायच आसलो. ताणें तिका तें काम दिलें. मनांतल्यान तिणें देवाचे उपकार मानले आनी भुरग्यांक एके कुशीक बसोवन गिरण बंद जाय मेरेन, गंव निवळ केले.

गिरण बंद करच्या वेळार, सारन मारून, सकयल पडिल्लें पीठ एकठावन पोटली बांदली. गिरणकाराचे परवानगेन तें पीठ घेवन ती घरा वचूंक तयार जाली. पात्रांवान तिच्या हातार पांच रुपया दवरले आनी 'सदांच यो', अशें सांगून गिरण बंद केली. त्या पांच रुपयांची हॉटेलार भाजी घेतली आनी घरा येवन हाडिल्लें पीठ कालयलें. ल्हानश्योच चार चपात्यो भाजल्यो. खूब दिसांनीं गरम गरम पोटांत पडिल्ल्यान ते रातीक तीं सुस्त न्हिदलीं.

आनी अशे तरेन गिरणीर काम करून तिका आपल्या कुटुंबाची उदारपसवण करूंक सोंपें जालें. पूण फाटल्या दोन दिसांनीं ती जोरान



फडफडटाली. कामांक वचूंक तिच्यान जायना आसलें. हे वटेन परत एकदां भुकेन वळवळपाची पाळी भुरग्यांचेर आयिल्ली. जेवण ना जावन ल्हान बाळकाकूय आंगावयलें दूद मेळना जालें. चार वर्सांचें तिचें भुरगें भुकेन वळवळून रडटालें.

तिची व्यथा आयकून पॉलाक खूब वायट दिसलें. कांयच उलयनासतना तो थंयसरलो भायर सरलो आनी आपल्या घरा आयलो. बिस्कुती, ब्रॅड आनी इल्लें दूद घेतलें आनी परतून झोपडेंत आयलो. तें तिचे मुखार दवरून तो आपले कॉलनींत परत आयलो.

रातचें जेवण चलतना ताणें आपले मम्मी-डॅडीक झोंपडेंतली खबर सांगली. जेवणाचें थोडें सामान दिवन तांकां थोडो आदार करूया अशें सुचयलें. हें आयकना फुडें समाज सेविका ताचे मम्मीनं ताचेर धेंगसो घालीत म्हळें ''आरे आमी कितें धर्मशाळा उगडल्या? खबरदार परत ते घाणीत वचशी जाल्यार! तांचें तीं पळोवन घेतलीं. ना जाल्यार सरकार पळोवन घेतलो.''

पॉलाक हें आयकून धक्कोच बसलो. 'कसली समाज सेवा करता काय मम्मी?' ताच्या मुखार प्रस्न उबो जालो. ते रातीक ताका कसोच दोळो लागना जालो. परत परत, रडटालें तें भुरगें, ती अशक्त आवय आनी दुदाचें बाळक ताच्या दोळ्यांमुखार येवंक लागलीं. एके वटेन भुकेल्लीं तीं तोंडां आनी दुसरे वटेन आपल्या फ्लॅटांत, कचऱ्या डब्यांत उडयल्लें, तांचें उरिल्लें जेवण! 'अशें कित्याक काय देवा?' तो चिंतूंक पडलो. आपूण कशे बशेन तांका आदार दिवंक शकतां? अशें येवजितां-येवजितां ताका न्हीद पडली.

सकाळीं उठून तो शाळेक गेलो. सांजेची जेन्ना कामवाली भायर सरून गेली तेन्ना ताणें थोडे तांदूळ, साखर, दूद, बिस्कुती, दोन नाल्ल तशेंच थोड्यो मिरसांगो एके पिशवेंत घातल्यो आनी आपली सायकल घेवन ताणें झोपडपट्टेची वाट धरली. मम्मीक सांगनासतना आपूण करतां हाचें ताका बिल्कूल वायट दिसूंक ना. एक अशक्त गरजेवंत अस्तुरेक तो आदार दिवंक वतालो ताचें ताका समाधान जालें.

आपले मम्मीक विचारी नासतना तो कितेंच करिनासलो. पयलेच फावट तिचे परवानगे शिवाय ताणें अशें केल्लें. आपूण एक बरें कर्तूब करतां हाचें ताका भान आसलें. ती गरीब अस्तुरी ह्यो ताच्यो वस्तू घेवंक तयार नासली. पूण पॉलान समजायत म्हळें, 'तुका घटसाण मेळून, तूं कामाक वचूंक जाय म्हणून हांव हें घेवन आयलां. सदांच येवचोना. तूं बरी जावन कामांक वचूंक लाग' आनी इतलें सांगून तो परतलो.

तिका पॉलाची अपुर्बाय दिसली. मळबाक दोळे उबारून तिणें देवाक आर्गां दिलीं. ''ह्या भुरग्याक तुजे सावळेंत सांबाळ देवा! ताचो

(पान नं. ३४ पळयात...)

# महाबळेश्वर सैलाची 'हावठण' : कोंकणी कादंबरी लेखनाचो एक अस्सल दुकुमेंत

- एस. डी. तेंडुलकार




महाबळेश्वर सैल हांची 'हावठण' ही कादंबरी आज म्हजे मुखार आसा. तिचो रिव्ह्यू घेवचे आदीं हांव वाचक म्हणून म्हज्यो मर्यादा हांगा स्पश्ट करूंक सोदतां. खरें म्हळ्यार महाबळेश्वर सैलाची हांवें हे आदीं एक्कुय कादंबरी वाचूंक नाशिल्ली. 'हावठण' हीच तांची हावें वाचलेली पयली कादंबरी. म्हाका उगडास आसा, सात-आठ वर्सां आदीं बाब सैलान म्हाका आपली 'काळी गंगा' ही नवलकथा आनी 'अदृश्ट आनी अरण्यकांड' ह्यो दोन नवलिको भेट म्हणून धाडिल्ल्यो. पूण त्यो लेगीत हांव आजुनूय वाचूंक पावूंक ना. म्हजे बेशिस्त जीणे पध्दती खातीर हें घडटा जावंये! तशें पळोवंक गेल्यार, समिक्षकाकूच न्हय तर सादो रिव्ह्यू बरयतल्याकूय लेगीत कांय सिस्टॅमॅटीक वाचन करचें पडटा. सिस्टॅमॅटीक वाचनाची शिस्त समिक्षकाकडे, वा परिक्षणकर्त्याकडे आसचीच पडटा. ती शिस्त म्हजेकडेन ना. ते खातीर हांव स्वताक समिक्षक वा परिक्षणकारूय समजना. हांव एक सादो रसिक-वाचक. आनी रसिक-वाचक म्हणूनूच हांव खंयच्याय कला-साहित्याकडे पळयतां. आनी मूड जमलो जाल्यार तांचेर बरयतां.

'हावठण' ही कादंबरी वाचचे आदी हांवें सैलाच्यो 'तरंगा'तल्यो कांय कथाच तितल्यो वाचिल्ल्यो. आनी तांतल्यो कांय म्हाका आवडिल्ल्यो. पूण 'हावठण' वाचून दिसलें की सैल हो खरो कादंबरीकार. कादंबरीच्या मोठ्या आवाठाक, अवकाशाक वेंग मारपाची, कादंबरींतलीं अनेक केंद्रां एकाचवांगडा हाताळपाची तांची तांक जबरदस्त आसा. कादंबरी लेखनाच्या गद्य शैलीचेर तांचें प्रभुत्व आसा. ते नदरेन हे कादंबरेच्या विशयाचो, आशयाचो सुर्वेक आमी विचार करूया.

'हावठण' म्हळयार कितें? म्हाका मेळिल्ले म्हायतीप्रमाण कुंबाराचो हावो म्हळ्यार उज्याची भट्टी ज्या जाग्यार आसता तें स्थान म्हणजेच हावठण. हे कादंबरीचो विशय फकत तीनूच वळींत खासा लेखकानूच कादंबरीत सांगलां :

''कुंबारालो धंदो बसूंक लागला. नवे भुरगे गांव सोडची भाशा उलोवंक लागल्यात. तळ्यार बांद येयल्यार तर सगळेच फासपतलें.''

(पान १०३)

कुंबार वाड्यावेल्या कुंबारांचो धंदो सामको बसपाक पावला. कारण काळ बदलला. आतां कोणाक मडक्यो नाकात. सगलें स्टील, प्लास्टीक. फकत मर्णाकूच मनशांक मडक्यांची गरज पडटा. तातूंत ज्या तळ्याची माती कुंबार आपल्यो मडक्यो करपाक वापरताले, तीच आता मेळपाची ना. कारण तळ्यार डॅम, बांद बांदपाक सरकारान पावल उखललां. मातीच ना जाल्यार जगतले कशे? मातयेची भीक मागत खंय वयतले?

- ह्या प्रश्नांतल्यान जाल्लो कुंबारांचो घुस्मटमार म्हळ्यार हे कादंबरीचो विशय अशें म्हणूं येता. पूण ह्या विशयांतल्यान कुंबारांची अख्खी जीण लेखकान हांगा उबी केल्ली आसा. ती करताना अनेक पात्रांच्यो काणयो तो सांगीत वता आनी तांच्या सगल्यांच्या काणयांतल्यान कुंबारांच्या अख्खे जीणेचो आशय सामाजिक, आर्थिक, भौगोलीक परिमाणां घेवन व्हावूंक लागता. बरें-वायट, आनंद-दुख्ख, जीण-मर्ण, अर्थपूर्ण-अर्थशून्य ह्यो सगल्यो गजाली हातीक-हात घालून आशयांत भरशिल्ल्यो हांगा पळोवपाक मेळटात. कुंबारवाड्यावेल्या एका-एका पात्राची कथा सांगीत लेखक हे कादंबरेचो, कादंबरेच्या आशय विशयाचो विस्तार आनी विकास करता. ते खातीर हे कादंबरीची संपूर्ण रचनाच polyphonic जाल्या. आनी हें सगलें करताना लेखकान बरीच कल्पकता वापरल्या. देखीक, कादंबरेच्या सुर्वेकूच तो घनशामाल्या सुनंदाचो प्रसंग सांगता. सुनंदा घोव-माय त्रास करता म्हणून रडत कुळारा येता, तेन्ना गावची जाण्टेली सीताय सुनंदाक घेवन परत घोवा घरा रजांव करपाक वयता. हांगाच लेखकान तो प्रसंग सोपयला. पूण फुडें त्या रजांवाचें, त्या सुनंदाचें कितें जालें तें लेखक सांगिना. तो गॅप वाचकांनी आपले कल्पनेन भरून काडचो पडटा. गजाल पूर्ण न सांगतां मदींच अर्दकुटी सोडप आनी दुसरी गजाल सांगूंक कॉमेस करप ही एक रचनेची polyphonic strategy आनी ती लेखकान हे कादंबरीत कायकडे वापरल्या. एखाद्या आलतू-फालतू लेखकान जर ती वापरिल्ली तर ती ताचेरूच 'बुमरँग' जावं येताली. पूण महाबळेश्वर सैल हो मॅच्युअर्ड लेखक, ते खातीर ती strategy येसस्वीपणान लेखनांत उतरता, पात्रांचे जीणेबद्‌दलचें कुतूहल चाळोवन वता. जीणेचें 'विराटपण' 'क्षणभंगूरपण' आनी 'सातत्य' (Continu-

ity) ह्या तिनूय गजालींचो दिस्टावो एकाच वेळार घडोवन हाडटा.

तशेंच गाबत्यांक कापपाचो आम्यारूख कोणें दाखयलो ह्या प्रस्नाचें उत्तर लेखकान कादंबरींत खंयच दिवंक ना. फकत कांय गजालीच तितल्यो सुचीत केल्यात.

बायजाल्या घोवाचें सीतारामाचें फुडे कितें जालें हें लेखक आमकां सांगिना. कादंबरीचो flow च लेखकान इतलो ओघवतो दवरला की ताचो विचार करपाकूय वाचकांक उसंत मेळना.

तशेंच बायजाक मारून उडोवपी तो रेडो कोणालो? खंयसून आयल्लो? हेंवूय एक गूढ कशें लेखकान दवरलां. ह्या रेड्याच्या प्रसंगाचें निवेदन वास्तववादी पध्दतीन करून लेगीत, तो सबंद प्रसंग एक अतिवास्तव (Surreal) रूप धारण करता.

– अश्यो बऱ्योच गजाली हे कादंबरेंत आसात. ते खातीर हे कादंबरीची वीण एकदम complex आनी तरीय flexible जाल्या. हे Felxibility खातीरूच तर तो रेड्याचो प्रसंग कादंबरेंत उपरो दिसना.

'हावठण' ही कोणा एका पात्राची कादंबरी न्हय. ही एका समुहाची, समाजाची कादंबरी. कुंबार समाज होच हे कादंबरीचो नायक.

हो कुंबार समाज आपलीं सुखदुख्खां रासवळपणान भोगपी. सोरो पियेवपी, झगडपी, मागीर परत रोखडेच एक जावपी, गळ्यांत गळो घालपी, कोणय वाड्यार दुयेंत म्हणून कळ्ळयार तागेल्या दारांत रातरात बसपी, दुसऱ्याल्या घरांतलीं लग्नां, मर्णां आपलींच मानपी. असो हो कुंबार समाज Globalisation च्या भोंवऱ्यांत सापडला. डॉ. नंदकुमार कामत हांणी 'नवहिंद टायम्सांत बरयल्ल्या Globalisation Impacts Goan Potters नांवाच्या एका लेखांत ताचें समर्पक वर्णन केलां. तातूंत हावठणचो संदर्भ दीत डॉ. कामत म्हणटात – " The tragedy of the Konkan Community in kali river basin around Karwar, has been graphically captured by Mahabaleshwar Sail in his novel 'Havthan'. Sail analyses the changing market economy impacting demand - supply equation, development project impacting the raw material supply chain and pathos. These changes cause in the community of Konkan Kumbhars. Suddenly caught in a powerful vortex of Globalisation. His novel raises many questions about the popular models of economic development. Would tradition of pottery which survived against all oddes for four thousand years basically due to unwavering patronage of the village economy, adapt to forces of globalisation, multiple consumer choices, urbanisation and indutrialised mass production? What is the future of potters not in a position to adapt and respond to the markets?

– ह्या प्रस्नांचें अदीक गंभीर आनी सुक्षीम रूप कादंबरीकार सैल आमचे मुखार मांडटा. देखीक, कादंबरीतली सीताय आनी सदानंद हांचे मदले हे संवाद पळयात :

''कुंबारधंदो तो आमीच कित्याक करचो? आमी आतां धंदो बदलूंक जाय. कुंबार म्हणटा तो फकत एक धंदो. जात, धर्म न्ही धरून रावंक''

''तूं शिकला, तूं लाथ मारता थंय उदक येतलें. पूण हेरांक अवघड रे तें! आजूनय मातये गुळ्यांतच कुंबरांक भाकरी दिसता... आमचें सारक्या म्हाताऱ्यांचें सोड. कशें तरी मरचेंच आसा. तुमचे सारके भुरगेय खंयूय गांवार वचून पोट भरतले. पांखां तन्नीं आसात. पूण जे आतां अर्द पिरायेर पावल्यात, मातीच पोट म्हणटात, तांणी कितें करचें? हांव सांगतां तुका सदानंद, तळ्यांत बांद घालून तळें फुगयल्यार वाड्यावयलो एक्कान एक दादलो वचून तळ्यांत उडी घेवन जीव दितलो.''

– आनी निमणें बांद घालपाचें काम खऱ्यांनीच सुरू जाता तेन्ना पुरसो म्हणटा – ''आतां आमची माती खणून ती बांदाक घालतले ते. वीस तीस फुट उंच करतले बांद. आमची माती वर्सभर बुडून उरतली. मे म्हयन्यांतय बुडून मरचें इतलें उदक उरतलें तळ्यांत.''

हाचेर घनशाम म्हणटा – ''वर्सभर तेंचीं शेतां, माड माडी शिंपतले ते, सुखी जातले. आमकां मात मडक्यांक चोबोभर माती मेळची ना. मातयेची भीक मागत आतां खंय वयचें आमी?... सीताय मावशे पळय गे तळ्या वटेन कोणाक मरणाचो घरघर लागला ते.''

'सीताय थंड पावलान येयली आनी तांचेसरी बसली हात-पांय मोडून पातळावन घातिल्लेवरी.' – ह्या दोन वाक्यांनी लेखक कादंबरीचो शेवट करता. तेन्ना सीताय सारको वाचकूय सुन्न आनी अगतीक जाल्लो आसता.

सदानंद, सखाराम हे कुंबाराले चले शिकून गांवां भायर सरतात. आपल्या बापायचो outdated धंदो ते घेवन बसनात. तशेच तळ्यार डॅम बांदपाच्या सरकाराच्या धोरणाक लागून हो तांचो निर्णय आपल्या पिढीजात कुंबार धंद्याच्या चक्रांतल्यान सुटपाक म्हत्वाचो थरता आनी हेर कुंबाराच्या तरण्या पिळगेकूय फुडले जीणेची दिका दाखोवन वता. पूण कुंबार जे आतां अर्द पिरायेर पावल्यात, मातीच पोट म्हणटात, तांणी कितें करचें? – हो प्रश्न मात हुमकळत उरताच. 'हावठण' वाचकांक खरी अस्वस्थ करता ती ह्याच प्रस्नाचेर.

अर्द पिरायेचेर पाविल्ले कुंबार शंकर आनी रामचंद्र आपलो बाबत कुंबारधंदो सोडून चोरवाटेन सोरो पावोवपाचो बेकायदेशीर धंदो सुरू करतात. तातूंत तांका पैशांचो फायदोय भरपूर मेळटा. पूण एकदीस पुलीसांनी तांका धरताच तो धंदोय बंद पडटा.

फुडें शंकरालो चलो प्रकाश बेकायदेशीर सोरो विकपाचो धंदो सुरू करता. पूण पुलीसांक हप्ते व्यवस्थीत पावयल्ल्यान ताचो धंदो मात व्यवस्थीत चलता.

घनशामालो चलो सुरेश कुंबार धंदो सोडून ट्रकार किलींडर जाता.

धर्मुलो पूत प्रेमानंद मेस्ताले शाळेंत घण मारपाचें काम करूंक वता.

सीतायलो नातू बेकरीचेर काम करपाक गोंयांत वता. (सीतायल्या नातवाचें नांव बरयताना लेखकाकडे एक चूक जाल्या. एकीकडे लेखक ताचो प्रमोद म्हूण उल्लेख करता, जाल्यार दुसरीकडे ताकाच वसंत हें नांव दिता.)

– ह्या सगल्यांतल्यान लेखक पारंपारीक कुंबारधंद्याची जाल्ली पडझड दाखयताच पूण अर्द पिरायेर पाविल्ल्या कुंबारांची अगतिकताय आनी शिक्षण नाशिल्ल्या कुंबारांच्या भुरग्यांची जियेवपाची धडपडूय मांडटा.

कुंबार पयशांखातीर इतले लाचार अगतिक जातात की विशाल सावळी दिवपी, घसघशीत आंबे दिवपी, पुर्वजांचो इतले वर्सांचो, मूळ पुरूशासारको रासवळ आम्यारूख ते मारपाक दितात.

शंकर कुंबाराक हावठणार मरून पडिल्लें सुपायेदें एक वटवागूळ दिसता. तें दाखोवपाक जेन्ना तो सीतायेक घेवन येता, तेन्ना थंय कांयच नासता. सामकें अगतिक जाल्ल्या शंकरा सारक्या कुंबाराची भ्रमिश्ट अवस्थाच तांतल्यान लेखक सुचीत करता.

लेखक म्हणटा, कुंबारानी हजारांनी गणपती केले पूण एकूय गणपती तांकां पावूंक ना. कुंबारांचें आर्थिक शोषण कशें जाता तें लेखक गणपती विकपाच्या एपिसोडांत ताकदीन सांगता.

कुंबारांची एक परंपरा वा अलिखित नियम आशिल्लो की बिनगळ्याचीं मातये-आयदनां (मायट्यो, तवे, कर्दी, कायली, पणट्यो बीन) फकत कुंबारांच्या रांडाव बायलानींच करपाचीं आनी पोट चलोवपाचें. पूण हो नियम गोपाळकुंबार मोडटा आनी तो स्वताच तीं आयदनां करूंक लागता आनी विकता. जाण्टी रांडाव बायल सीतायक हें कळनाफुडें ती ताचेकडें झगडूंक वता. सीताय म्हणटा, 'इतलो काळ हो धंदो आमकां सोडिल्लो. हे अशे सवाशीण बायलो आनी दादले मायट्यो, तवे करूंक लागले तर आमी कितें करचें, कितें खावचें? सुवार्था मुखार शास्त्र भाजून खायलां. अशान निसंतान जातलें...' तेन्ना गोपाळालो धाकलो भाव विश्राम तिचेर ताणशेता आनी म्हणटा – "येदोळसान चयतां हांव सीताय आवो, नानापरीन खेपता तूं. कसल्या शास्त्राच्यो खबऱ्यो सांगतात तुमी, पुराणांतलीं वायंगी. लोकांक आतां मडकेवांगडा मायटी जाय आसता. तुमची वाट पळोवंक तेंकां वेळ ना. पाशेंस ना. कित्याक म्हण तुमकां रावंक जाय लोकान? काळ बदलला आतां. उजो पेटला. पोट भरल्यारच नीत आनी नेम. ना तर सगळें चुलींत घालचेलें." – हाचेर पुरसो, शिवराम हे कुंबारूय सीतायक समजवपाचो यत्न करतात. ते म्हणटात, सीताय आवो, फुकट झगडटा तूं. फुकट रगत आटयता. काळ बदलला, कांय जावचें ना आतां. प्लॅस्टिकेचीं, स्टीलाचीं आयदनां येयलीं, लोकांनी मडक्यो किंकोत केल्यो. कितें करूंक जालें आमच्यांनी? शास्त्र धरल्यारय मरण आनी सोडल्यार मरण. – आंगणा मेरांनी उबे राविल्ले लोकूय ताचीच री ओडटात, म्हणटात : ह्या कुंबारांल्या धंद्यांत राम उल्लो ना. कशें तरी पोट भरप हेंच खरें. आतां पयलीचें घेवन बसल्यार कशें जातलें. संवसार खंय पावला, सोडून दिवचें सगळें? ताचेर सीताय म्हणटा, "कितें सोडून दिवचें? फाल्यां आमी रांडाव बायलांनी चाक घुंवडावन गळे काडल्यार तुमकां बरें दिसतलें? फातर घेवन मारूंक येतले, पोटांत गर्भ रचयलो रांडांनी म्हणटले." – हाचेर पुरसो सगल्या कुंबारांचो आवाज घेवनच म्हणटा की "कोणे आडायलां, कोणे नाका म्हटलां? हे मुखार जण एकल्यान आपणाक जाय तशें वागचें. असो न्ही तसो कसोय कोणे गर्भ रचयल्यार कोणाक कांयच आतां पडून गेल्लें ना."

– हें इतलें सविस्तर हांवें अशाखातीर बरयलां कारण ह्या प्रसंगांतल्यान लेखक आमकां सीताय आवो जपूंक सोदपी परंपरा आनी डॉ. नंदकुमार कामत म्हणटात ती 'Changing market economy' हांचे भितरलो तीव्र संघर्ष दाखयता. हो संघर्ष खरें म्हळयार जागतिकीकरणाच्या, ग्लोबलायझेशनच्या भोवऱ्यांतल्यान निर्माण जाला.

ग्लोबलायझेशनचें वारें साधारण १९९०-९१ साकून कॉमेस जाल्लें आसा. हें मुद्दम सांगपाचें कारण म्हळ्यार राजीव गांधीच्या हत्येची जी बातमी हे कादंबरींत येता, ती बातमीय १९९१ सालची. म्हळयारूच ग्लोबलायझेशनचें वारें व्हावपाच्या काळातूच ही हत्त्या जाल्या. राजीव गांधीच्या हत्येचो संदर्भ दिवन लेखक 'हावठण'च्या कथेचो काळ १९९१ आसा हाचेर शिक्कामोर्तब करताच पूण हो काळ म्हळयार ग्लोबलायझेशनची नांदी हेंवूय तातुंतल्यान आपोआप सुचीत करून वता.

कादंबरींतलें दुलबा हें पात्र म्हणटा – 'कितेंय जावं, मनशालीं मरणां आसासर कुंबरांल्या पोटांत पेज पडटली. लासताना दोन (मडक्यो) इकराव्याक तीन (मडक्यो). आतां कुंबरान मागचें, मनशां अशींच मरत रावं म्हण.' – हें भीषण वास्तव लेखक हांगा मांडटा.

पूण हें सगलें मांडटाना लेखक कसल्योच 'पोझी' मारिना. लेखकाची भाशा आनी निवेदन पध्दत इतली सादी, सरळ आसा की एखादी गुंतागुंतीची गजाल सांगताना लेगीत तिचें सादेंपण कमी जायना. पूण तांतली गुंतागूंत मात उपरांतूच वाचकांच्या लक्षांत येता. देखीक, बायजाचें लेखकान केल्लें हें वर्णन पळयात – सीतारामाली बायल गोरी मांसाळ आंगाची आसली पूण सामकी सादी, अरवळ. कोणें कितेंय सांगल्यार 'हय बाये' म्हण तकली हालयताली. 'आगो तुगेल्या घोवान तुजे पयलीं तीन लग्नां केल्यांत, तीन गावांनीं तीन बायलो तेगेल्यो' म्हण सांगल्यार 'हय बाये, खरें बाये' म्हणटाली आनी मागीर दुसरेंच उलोवंक लागताली, 'म्हज्या वेळार आवय स म्हयन्यांची गुरवार. आवयन केळीं खायलीं आनी साली जनेला भायर उडयल्यो त्यो जुस्त म्हाराल्या हातांत पडल्यो. म्हटलें, तुकां केळीं आनी म्हाका साली'... बायजें आंगामासान, हड्ड्याचोळयेन बरेंच भरिल्लें आसलें. पूण लग्नाक चार वर्सां जालीं तरीय ताका भुरगें जावंक नासलें. बायलो तागेलीं फकाणां मारताल्यो. 'आगो बायज्या, तुगेल्या

घुमटार थाप पडच ना किते गो?' तें आपलेंच सांगतालें, 'मगेलो बापूय सरडुकां मारून हाडटालो. तेंची कातडी काडून घुमटार चडयतालो. काय बरो घुमटां वाजयतालो जाणा मगेलो बाप्पा. आईबीन सरडुकां शागोती कायबरी करताली. हो आमगेलो घुमटां, मडक्यो पेट म्हटल्यार दिवजां करता.'

– हातूंत आधुनिक कादंबरेतलो 'संज्ञाप्रवाह' कितले सादेपणान येयला तो पळयात. बायजाचें हें 'संज्ञाप्रवाही' उलोवणें बायजाच्या व्यक्तिमत्वांतली गुंतागूंत दाखयताच पूण अनेक आंगानी कादंबरींतल्या आशयाक भिडपाची लेखकाची तांकय दाखयता.

बऱ्याचदां एखाद्या गजालीचें वर्णन करताना लेखक कांय उतरांनीच ती गजाल 'हायलायट' करता आनी वाचकांचे संवेदनेकूच हात घालता. देखीक, हीं वाक्यां पळयात :

१) अंबू बाळंत जातना मेलें. दोन दीस तें चेंचिल्ल्या जिवाण्यावरी वळवळटालें.

२) जाल्लीं भुरगीं सटयेन कपलार बरोवचे पयलींच मेलीं.

३) तिनसांज जाल्ली आनी काळोख धुंवर कसो पातळूंक लागिल्लो.

४) वाग अजून रानांतच आसा. आतांच तुमच्या दोळ्यांमुखार दावखुलां नाचूंक लागल्यांत. सोडात, येता तेन्ना गोमटी दिवची, ना तर गोमटी मारची. वनांतल्या वागापरस मनांतलोच वाग आदीं खाता.

५) वागान मारचे परस ताणें ओडून व्हरचें त्रासाचें जालां.

६) हे कुंबराले दादले बायलां परसय मोव मनाचे. इल्लें खंय खट् जालें की सोताक आपणा भितर ओडून घेतात. वोग्गी मोने, फकत दोळे भिजिल्ले दिसतात.

– तशेंच हे कादंबरींतल्यो कांय गजाली प्रतिकात्मक पावंड्यार पावतात, देखीक, पुर्वजांचो रासवळ आम्यारूख, शंकराक हावठणार मेल्लें दिशिल्लें वटवागूळ, बायजाचो जीव घेवपी रेडो ह्यो गजाली कलात्मक उंचाय घेवन आयल्ल्यान



प्रतिकात्मक जातात, कादंबरीक आशयाची खोलाय मेळोवन दितात.

तेच बरोबर कुंबाराले पुर्वज, कुंबारांच्यो पारंपारीक चाली-रिती, धंद्याच्यो पध्दती, लग्नां-मर्णा, ह्या सगल्याचें जीवंत चित्रण लेखक करता. त्या खातीर ही कादंबरी म्हळ्यार एक मोटो सामाजिक डॉक्युमेंट जाला. पूण म्हत्वाचें म्हळ्यार लेखकान कादंबरीची डॉक्युमेंटरी जावंक दिवंक ना. कारण कादंबरींतल्या सामाजिक, आर्थिक डॉक्युमेंटाबरोबर लेखक तांतल्या पात्रांच्यो मानवी भाव-भावना, सुख-दुख्ख, चिंता, इत्सा, आकांक्षा लेगीत समर्थपणान व्यक्त करता.

कादंबरींत अनेक पात्रां आसात. तातुंतल्यान सगल्यांत चड लक्षांत उरतात तीं जाण्टी बायल सीतायआवो आनी दुसरी तरनाटी बायजा. सीतायआवो ही मोटी धिराची, वाड्यार सगल्यांक पावपी बायल. वाड्यावयली गॉडमदरच म्हटल्यार जाता. आपल्या तरन्या पुताच्या मर्णान दुख्खी जाल्ली. आपले विधवा सुनेचो घुस्मटमार पळोवपी. परंपरा-तत्वां खातीर झगडपी, आपल्या नातवाक खंयतरी नोकरी लागची म्हूण आंवडेपी अशी ही बायल. कादंबरीभर ती आपली हुकुमत गाजयत वावुरता. उलट बायजा थोड्याच जाग्यार आसा. लेखकान बायजा ह्या पात्राची जीण आनी निमणें मर्णूय थोड्याच उतरांनी वर्णन केलां पूण तें out-standing जालां. घोवान सोडल्या उपरांत कोणय बायजाच्या खोपींत घुसतालो आनी ताचे कमरेक हात घालून ताका आड घालतालो. बायजाचो हयकारय नासतालो, न्हयकारय नासतालो. फकत माजाक येयल्ले कोलयेवरी चीं चीं करीत वोग्गी तें पडून रावतालें. उपरांत तें विटलें. दादल्याची सुलूस लागल्यारय तें भियल्लेवरी जातालें. ताणें कमरेक हात घालतकीर ल्हान भुरग्यावरी ई ई करून रडटालें. सांगचें जाल्यार बायजा धंदो करपी वेश्या नाशिल्लें. कुंबारांचें आर्थिक शोषण जाता जाल्यार, बायजाचें लैंगिक शोषण जातालें. बायजाक शिंगां तोपून मारून उडोवपी तो रेडो म्हळ्यार ह्या लैंगिक शोषणाचेंच एक प्रतिक काय किते?

हे कादंबरीची सुरवात कडकडीत वोताच्या वर्णनांत जाता. तर कादंबरीच्या शेवटाक लेखक वोताचें वर्णन – 'सूर्याक जसो उजवाड वोतच नासलें' – अशा उतरांनी करता. कडकडीत वोत आनी उजवाड वोतच नासप! म्हळ्यार सुर्वेक संघर्षांतल्यान सुरू जाल्लो हे कादंबरीचो प्रवास निमणो असो निष्क्रीयतेकडे पाविल्लो आसा. – 'सीताय थंड पावलान येयली आनी तांच्यासरी बसली. हात-पांय मोडून पातळावन घातिल्लेवरी.' – कादंबरीचें हें निमणें वाक्य हीच निष्क्रीयता दाखयता.

ही कादंबरी तशी ल्हान म्हळ्यार फकत १४७ पानांचीच जरी आसली तरी लेखकान अनेक गजालींचें रसायन तातूंत ताकदीन ओतिल्लें आसा. पूण संपादकान दिल्ल्या डेडलायनी खातीर त्या सगल्यांचोच परामर्श घेवपाक हांव हांगा शकलों ना, हाची म्हाका जाणविकाय आसा.

एका काळार भालचंद्र नेमाडेची मराठी 'कोसला' वाचून नेमाडे हो एक मोटो कादंबरीकार जावन आसा अशें म्हाका दिशिल्लें. आज महाबळेश्वर सैलांची कोंकणी 'हावठण' वाचून तशेंच दिसलें. कोंकणी कादंबरी लेखनाचो एक अस्सल दुकुमेंत सैलान 'हावठण' बरोवन वाचकां मुखार दवरला.





- कुसूम अग्रवाल
शिवोले-गॉय
फोन : २२७२०२१

# संस्कार



*आमचो भारत देश सर्वधर्मसमभाव आशिल्लो देश. हांगा वेगवेगळ्या धर्माचे, पंथाचे लोक रावतात. सगले धर्म सत्याचेर भर दितात. प्रत्येक जण बरें कर्म करून सर्गांत वचपाखातीर धडपडटात. प्रत्येकाचो सर्गांत वचपाचो मार्ग वेगळो आसता. कोण देवळाच्या, कोण इगर्जेच्या तर कोण मशीदीच्या माध्यमांतल्यान वतात. सगले मनीसजातीक देवत्व मेळोवपाचो ध्यास लागिल्लो आसता.*

**शा**ळेंत आशिल्ले सर्तीची कार्यावळ सोंपली आनी मुखेल सोयरी भाशण करपाक माचयेर आयली. तिणें भुरग्यांची तोंड भरून तुस्त केली. तांकां शाबासकी दिली. आपल्या भुरगेपणाच्यो, शाळेंतल्यो कांय यादीय तिणें सांगल्यो. म्हणपाक लागली 'म्हाका भुरगेपणासावन पांचवो रंग आवडना. कित्याक तर तो मुसलमानांचो रंग' म्हाका तिचें हें वाक्य काळजाक खंय तरी तोंपलें. हांवें म्हजीच जीब चाबली. जे माचयेवयल्यान ती भाशण करताली ते माचयेचेर सर्तीत वांटो घेतिल्लीं सगल्या धर्मांचीं भुरगीं आशिल्लीं. चारशें पांचशें भुरगीं तिच्या मुखार रांगेंत जमनीर बाशिल्लीं. त्या भुरग्यांमदीं हिंदू, क्रिस्तांव, जैन, गुजराती, मुसलमान अश्या कितल्याशाच धर्मांचीं भुरगीं आशिल्लीं. खंयच्याय धर्माबद्दल वायट उलोवप म्हणजे त्या माणकुल्यांच्यो भावना दुखोवप हें त्या शिक्षिकेक कळ्ळेंना. भुरगेपणासावन त्या धर्माबद्दल तिच्या मनांत घडये घरच्यांनी, समाजान वीख कालयल्लें! त्याखातीर आज शिक्षकी पेशांतल्यान निवृत्त जावन लेगीत ती कीड तशीच उरिल्ली.

सर्त सोंपली आनी सगलीं भुरगीं आपआपल्या वर्गांत गेलीं. हांवूय म्हजीं पुस्तकां घेवन वर्गांत गेलें. सर्तीची चर्चा सुरू जाली. कार्यावळ बरी जाली म्हूण सगलीं सर्तींत वाटेकार जाल्ल्या त्या भुरग्यांची तुस्त करतालीं. इतल्यांत आठवेच्या वर्गांतलो निखील उबो रावलो आनी म्हाका विचारपाक लागलो ''मीस मुखेल सोयरेक पांचवो रंग वायट. तो मुसलमानाचो अशें कित्याक म्हणपाक जाय आशिल्लें?'' निखील खूब मस्तो भुरगो. पूण म्हाका ताच्या निरिक्षणशक्तीचें कौतूक दिसलें. त्याच वर्गांत शबाना हें मुसलमान चली आशिल्लें. म्हजी नदर ते चलयेचेर गेली. आपल्या धर्माक वायट लेखलां म्हूण तिका वायट दिशिल्लें हें तिच्या बाविल्ल्या तोंडावयल्यान पारखुपाक येतालें.

हांवें त्या निखीलाक शाबासकी दिली आनी म्हणलें ''निखील म्हाका तुजे विचार आवडले. खंयचोच धर्म वायट नासता. त्या धर्माचे आचार-विचार वायट नासतात. आमी आमच्या वायट करण्यांनी धर्माचें नांव पेड्ड्यार करतात. आमी आमचे शाळेंत सगल्या धर्माकडे एकेच नदरेन पळोवपाक

शिकतात. म्हणूनच आमचे शाळेंत सगल्या धर्माचीं भुरगीं एकाच पाख्यापोंदा हासून-खेळून रावतात.''

''हय मीस तिणें तशें म्हणपाक जायनाशिल्लें.'' ताणें आपल्या शब्दांचेर नेट दीत म्हणलें.

''निखील दुसऱ्या धर्माबद्दल तुज्या मनांत आशिल्लो आदर पळोवन म्हाका खोस जाली. तुज्या घरांत तुका बरे संस्कार मेळ्ळ्यात.''

हो विशय हांवें थंयच सोंपयलो आनी पाठ शिकोवपाक सुरवात केली.

हीं माणकुलीं भुरगीं खूब सादीं आसतात. निष्पाप आसतात. जशीं आमी तांकां घडयतात तशीं तीं घडटात. पांचवेच्या वर्गांत एकाच बांकाचेर बसपी दोन धर्माचीं भुरगीं व्हड जातकच दोन मार्गाचेर वचपाक लागतात. सवेक सातवेक तीं दुसऱ्या धर्माचीं कुतां काडपाक लागतात. सरळ दुसऱ्या धर्माबद्दल वायट उलोवपाक लागतात. एकटो भुरगो म्हणपाक लागलो ''त्या धर्माचीं भुरगीं वायट आसतात.''

''तुका कशें कळ्ळें'' हांवें विचारलें,

''म्हाका म्हजे मम्मीन सांगलां.'' ताणें जाप दिली.

अशें जर आमी आमच्या भुरग्यांक शिकोवपाक लागलीं जाल्यार तांकां दुसऱ्या धर्माबद्दल आदर आसचोच ना. ल्हान आसतनाच भुरग्यांक सांगपाक जाय. तुज्या धर्माचे नेम तूं पाळ. तुज्या धर्माचीं तत्वां तूं आपणाय पूण त्याबरोबर दुसऱ्या धर्माक आदर दी. आपलो धर्म बरो आनी दुसऱ्यांचो धर्म वायट अशें म्हूण दुसऱ्या धर्माक उणें लेखूं नाका.

आमचो भारत देश सर्वधर्मसमभाव आशिल्लो देश. हांगा वेगवेगळ्या धर्माचे, पंथाचे लोक रावतात. सगले धर्म सत्याचेर भर दितात. प्रत्येक जण बरें कर्म करून सर्गांत वचपाखातीर धडपडटात. प्रत्येकाचो सर्गांत वचपाचो मार्ग वेगळो आसता. कोण देवळाच्या, कोण इगर्जेच्या तर कोण मशीदीच्या माध्यमांतल्यान वतात. सगले मनीसजातीक देवत्व मेळोवपाचो ध्यास लागिल्लो आसता.

एका तेंपार एकचारान रावपी गोंयकार भाशेच्या, धर्माच्या नांवान वेगवेगळ्यो वाटो आपणावपाक लागल्यात. जाणट्यांचे हे संस्कार भुरग्यांचेर जावपाक लागल्यात. त्या खातीर दोन धर्मामदी आशिल्ली चरी वाडत वता. जितली ती वाडटा तितली ती खोलूय जाता.

आयच्या काळार आमच्या भुरग्यांचेर संस्कार करूंक जाय मनीसपणाचे. जात, धर्म हाचेपरस मनीसपण श्रेश्ठ आसा. ज्या देशांत आमी रावतात त्या देशाचो, त्या देशाच्या संस्कृतायेचो आमकां धर्मा इतलोच अभिमान आसपाक जाय हें तांकां पटोवन दिवपाक जाय.

दर एका धर्मान सांगिल्ल्याप्रमाण त्या-त्या धर्माचीं तत्वां जर भुरग्यांनी आपणायलीं जाल्यार हो आमचो भारत देश सगले बाबतींत प्रगतीशील जातलो. सगलें जग आमच्या एकचाराची देख घेतलें.



**(पान नं. २८ वयल्यान...)**

फुडार परजळीत कर!'' ल्हव, ल्हव ती बरी जाली आनी परत कामाक वचूंक लागली.

एका दिसा अशीच ती गिरणीर काम सोंपोवन घरा येताना रस्त्या कुशीक तिका कोण तरी पडिल्लो दिसलो. लागींच सायकल सकयल पडून आसली. ती वांकडी जावन तिची दशाच जाल्ली. तरूय तिणें ते सायकलीक वळखली आनी तो कुशीक पडिल्लो भुरगो? हय ताका ती कशी वळखूंक विसरत? पॉलाक तिणें वळखलो.

बरोच काळोख जाल्लो. ते वाटेन चड लोकांचें यो-वच जायनासलें. म्हणून जायत घडये, पॉल पडिल्लो कोणें पळेलो ना. एका मोटारान ताका धपको मारिल्लो आसूंक जाय! असो तिणें सुमार केलो. तो निन्हळिल्लो. तिणें बोब मारून लोकांक एकठांयले आनी ताका हॉस्पिटलांत व्हेलो.

नर्सीक ताका मात्शें पळोवंक सांगून आपल्या एका भुरग्याक खांदार मारून आनी दुसऱ्याच्या हाताक धरून ती पॉलाचो फ्लॅट सोदीत, ताच्या आवय बापायक सांगूंक आयली. पूण ती पॉलाची मम्मी फ्लॅटांत ना तें पळोवन सकयल देंवली. चवकशी करूंक तिणें एके बायलेक विचारलें. पळोवंक गेल्यार तीच पॉलाची मम्मी आसली. अशे तरेन पॉलाची खबर तिणें तिका दिली. पॉलाचो डॅडी आनी मम्मी हॉस्पीटलांत पावतकीर ती आपल्या भुरग्यांक घेवन आपले खोंपींत गेली.

दोन दिसांनीं पॉल हॉस्पीटलांतल्यान घरा आयलो.

ताचे मम्मी-डॅडीक आपल्या पुताक साल्वार करतले अस्तुरेचे उपकार आटोवंक जाय आसले. पॉलाक घेवन ती तिचे खोंपटेंत गेली.

पॉलाच्या डॅडीन तिका आपल्या कन्स्ट्रक्शन सायटीर दिसवड्याच्या कामार दवरली. ताचे मम्मीन आपले वळखीन आनी एके संस्थेच्या आदारान ते झोपडपट्टेक उदक, लायट आनी हेर बऱ्यो सवलती मेळोवन दिवन थंय रावतल्या सगल्यांक नितळसाणेन रावपाची सोय करून दिली. आपल्या पुताक जीवदान दिल्ले ते गरीब अस्तुरेची जीण ताणी सुदारून तिचे बरे करणेची परतफेड केली.





–मिश्टी नायक
आनंद रेसिडेन्सी,
एअरपोर्ट रोड, चिखली – गोंय

# जिवीताचें मोल



*कुंदनाचेर आभा जीवापाड प्रेम करतालें. कुंदनाकूय आभा खूब आवडटालें. पूण कुंदन खूब वेव्हारी आशिल्लो. आभान आपलो सगळो जीव कुंदनाचेर ओंवाळिल्लो. कुंदनाक आभाल्या भोळ्या सभावाची बरी जाण आशिल्ली. म्हणुनच तो आपल्या गरजे पुरतो आभाक लागीं करी. पूण मोग हो कुड्डो म्हणटात न्हय! आभान कुंदनाल्या स्वभावाची केन्नाच कागाळ केली ना.*

**फा**र्मासीवेल्या हेर गिरायकांची नदर चोरीत–चोरीत आभान वखदाची चीट फार्मास्काराच्या हातांत धुकल्ली. वाचून ताणें आभाक विचारलें, "कितें जाता?"

तशी आभान जाप दिली. "न्हीद बरी पडना."

फार्मास्कारान गुळयांची शिशी आभाकडेन सरकयली तशी आभान बॅगांत पयशांक हात घालो. बॅगांत आभालो मोबायल वाजतालो. एका हातांत फार्मासकाराचे पयशे दिले, गुळयांची शिशी घेतली आनी दुसऱ्या हातांत मोबायल घेवन थंयसल्ल्यान तें भायर सरलें.

"आभा खंय आसा तूं? बेगीन हॉस्पिटलांत पाव, विभाचें चड जालां, घडयेक ही ताची निमणी झुंज जावयें!"

जड उतरांनी आदीत्यान आभाक सुचोवणी दीत फोन दवरलो. कळाव लायनासतना आभान फार्मासी भायल्या रिक्षा स्टॅंडावयली रिक्षा आपयली. ताणें चलोवप्याक म्हटलें, "बेगीन टाटा हॉस्पिटलाकडे घे."

रिक्षा नेटान फुडें धावूंक लागली तशें आभालें मन विभा बरोबर घालयल्ल्या फाटल्या दिसांच्या यादिंनी शेणून गेलें.

विभा आनी आभा जिवापाड एका मेकांचेर प्रेम करपी खाशेल्यो इश्टीणी. दोगांयल्यो आवयोय घट्ट इश्टीणी. देखून दोगायनी आपल्या चलयांचीं नांवांय तशींच दवरलीं. 'विभा आनी आभा'.

आभा–विभा वांगडाच वाडलीं. एकामेकांबगर दोगांकूय कशेंच जायनाशिल्लें. कृष्ण–सुदामां वरीं दोगांयच्या घरची परिस्थिती आशिल्ली, विभा गिरेस्त तर आभा गरीब, पुणून दोगांयचें नातें कृष्ण–सुदामाचे काणयेची याद हाडी.

विभा बिनदास्त चली. कॉलेजांत ताचेर म्हणा वा ताचे गिरेस्तकायेचेर जायते तरनाटे जीव घाली. विभाय कोणाची पर्वा करिनासतना पाट्यो, पिकनीक मन मोकळेपणान एन्जॉय करतालें. चल्यांबरोबर भोंवप, इश्टकाय जमोवप ताका खूब आवडटालें. ताणें आभाक म्हणप, "आभा,

जिवीत आमकां एकदांच मेळटा, प्रत्येक खीण मजेन जगपाक जाय.''

सगळी मजा करून शेवटाक गिरेस्त अश्या आदित्याक पसंद करून विभान ताचे वांगडा संवसाराची गांठ बांदिल्ली. विभाक संवसारांतलें सगळें सूख फावो जाल्लें.

विभाच्या एकदम उरफाटें आभा आशिल्लें. एकदम शांत, संस्कारी आभाकडेन केन्नाच कोणें लक्ष दिलें ना. विभासारक्यो चैनीय ताका परवडपा सारक्यो नाशिल्ल्यो. आपलीं पुस्तकां आनी अभ्यास हांचे भितर तें गुरफटील्लें आसतालें. पूण हाच्या भायर जर ताका कितें आवडिल्लें तर तो आशिल्लो कुंदन.

कुंदनाचेर आभा जीवापाड प्रेम करतालें. कुंदनाकूय आभा खूब आवडटालें. पूण कुंदन खूब वेव्हारी आशिल्लो. आभान आपलो सगळो जीव कुंदनाचेर उंवाळिल्लो. कुंदनाक आभाल्या भोळ्या सभावाची बरी जाण आशिल्ली. म्हणुनच तो आपल्या गरजे पुरतो आभाक लागीं करी. पूण मोग हो कुड्डो म्हणटात न्हय! आभान कुंदनाल्या स्वभावाची केन्नाच कागाळ केली ना. जेन्ना-जेन्ना कुंदनाचेर वायट पाळी आयली तेन्ना-तेन्ना ताणें खंबीरपणान ताका तेंको दिलो. पूण आभालो मोग कुंदन केन्नाच पारखूंक शकलो ना. आनी अशेच एके भेटीवेळार कुंदनान आभाक सांगून सोडलें, ''आभा म्हजें लग्न थारलां तेन्ना आयज पासून तूं म्हाका केन्नाच फोन वा मॅसेज करचेंना. हांव तुका मेळत रावतलों पूण म्हाका जमता तेन्ना.''

आभाक पयल्या दिसापासून खबर आशिल्लें की कुंदन ताचेलागीं केन्नाच लग्न करचोना म्हूण! कित्याक तर कुंदन आनी आभाल्यो जाती वेगळ्यो आशिल्ल्यो. दुसरें म्हळ्यार कुंदन आपले आवय-बापायन पसंद केल्ले चलये वांगडाच लग्न करपी चलो. आभाक जरी हें सगळें खबर आशिल्लें तरीपूण ताणें केन्नाच चिंतूंक नाशिल्लें की कुंदन आपल्या सुवार्थाक लागून ताका एकदम अशें एकसुरें उडोवन वतलो म्हूण! आभाक एके घटकेन पयस करपाक कुंदनाक कांयच दिसूंक नाशिल्लें. पूण आभालें जिवीत थंयच सोपिल्लें. रात-दीस फकत फाटल्या यादीन तें एकसुरें पडिल्लें, ताची जीण मरणावरी जाल्ली. जगूंक जाय म्हण तें जितें राविल्लें. कुंदनाचो खूब उगडास आयल्यार लेगीत तें ताचेकडेन आपलें दुख्ख उक्तावंक शकनाशिल्लें. कित्याक तर ताका ताणें तशी ताकीद दिल्ली. जिवीत घुस्मट जावन गेल्लें. फुडें जगपाची इत्साच मरून गेल्ली आनी म्हणुनच आयज ताणें थारायिल्लें की फार्मासिंतल्यो भरपूर न्हिदेच्यो गुळयो घेवन ह्या संवसाराचो निरोप घेवंचो म्हूण!

फाटल्यान तेंकिल्ल्या ॲम्बुलन्साच्या आवाजान आभा भानार आयलें. रस्त्यार गाडयो खचाखच भरिल्ल्यो. जण एकलो दुसऱ्याफुडें आपूण कसो पावतलो हे सर्तीक लागिल्लो. ''आरे, ॲम्बुलन्साक वाट दी रे पयलीं'' आभा रिक्षावाल्याचेर आड्डलें. तशी रिक्षेन तिका वाट मेकळी करून दिली. मनीसपण आशिल्ल्यान जश्यो आपल्यो गाडयो कुशीक केल्यो तशी ती ॲम्बुलन्स नेटान फुडें हॉस्पिटलान गेली. तातुंतय एक जिवीत मरणाकडेन झगडटालें हाची आभाक जाणीव जाली.

हॉस्पिटल लागीं पावलें तशें आभालें काळीज आनीक धडधडूंक लागलें. भायरूच आदित्य निर्शेल्लें तोंड करून आभाची वाट पळयतालो. विभा भोंवतणी दोतोर निमणे प्रयत्न करताले. विभाक मातशी शुध्द आशिल्ली तातुंतच तें बडबडटालें, ''म्हाका जगपाक जाय, दोतोर म्हाका वाचयात.''

लग्नाच्या तीन म्हयन्यानीच विभाक ब्लड कॅन्सर ह्या भिरांकूळ रोगान सांपडायिल्लें. पयशे आनी सगळी गिरेस्तकाय आसून लेगीत आदित्य ताका जिवीत विकत घेवन दिवंक शकनाशिल्लो.

आभान विभाचो हात धरलो. तें आजून बडबडटालें, ''म्हाका जगूंक जाय. म्हाका जगूंक जाय...'' ताचीं उतरां जणू आभाक कितें तरी सांगूंक सोदतालीं. नकळत आभाच्या हातान धरिल्ली गुळयांची शिशी केन्ना पडून फुटली हें ताच्या लक्षांत आयलें ना. एकदम विभालो हात थांबलो, दोळ्यांची नदर एकेवटेन थारावली. विभा संवसार सोडून गेल्लें. त्या उगड्या दोळ्यांत जिवीताचीं ताचीं उरिल्लीं सपनां दिश्टी पडटालीं. आभाच्या दुख्खान आनीक एक भर पडिल्ली.

विभा सांगातान तो निमणो खीण आभाक जायतें कितें सांगून गेल्लो. एक विभा आशिल्लें जें जीवीताचेर भरपूर मोग करतालें. पूण नशिबान ताच्या वांट्याक जिवीत बरोवंक नाशिल्लें. पयसो आसून तें विकत मेळनाशिल्लें आनी दुसरे वाटेन आभा आशिल्लें जें कुंदना सारक्या सुवार्थी मनशाखातीर आपलें जीवीत वगडावपाच्या मार्गाक आशिल्लें. फाटलीं तीं विभालीं उतरां ताच्या कानांत सांगतालीं. ''आभा, जीवीत आमकां एकदांच मेळटा, प्रत्येक खीण मजेन जगपाक जाय.'' दोळ्यां मुखार आयली ती ॲम्बुलन्सांत त्या मनशाची जगपाची धडपड, आनी ताका वाटोवपाक धांवत सुटील्ली ती ॲम्बुलन्स.... आभान थारायिल्लें, ''विभालीं उरिल्लीं सगळीं सपनां हांव जगतलें!'' पडिल्ल्या गुळयांचेर ताणें रागान पांय दवरीत तांचो पिठो केलो आनी तांचे ठशे फाटीं दवरीत तें विभालीं सपनां घेवन हॉस्पिटलांतल्यान भायर सरलें. एक नव्या जिवीताचे वाटेर.

■ ■ ■



– काश्मिरी स. पावसकार
शिवोली–गोंय.
फोन : २२७००१०

# जागो रे, जागो रे, जागो रेऽऽऽ

'जागो रे, जागो रे, जागो रेऽऽऽ' अशी घोशणा दीत येवपी ही दूरदर्शनावेली जायरात हेर जायरातींवरींच. पूण हातूंत एक चली ब्युटी पार्लराचें लायसन मागूंक एका सरकारी कार्यालयांत वता. लायसन मेळोवंक प्रिमीयम दिवचो पडटलो अशें म्हणीत थंयचो अधिकारी बोटां हालोवन कुरवांनी दुडवांची मागणी करता. त्या वेळार टाटा प्रिमीयम च्यांचें कप फुडें करीत ती चली 'हम खिलाते नहीं, पिलाते है।' अशी लाच मागपी मनशाक एक सणसणीत जाप दिता.

हांव म्हण्टां ही जायरात पळोवन आमच्यांतले कितले लोक जागे जातात? खरें म्हळ्यार ही जायरात एका गुण्यान दोन सुकणीं मारपाचें बेस बरें काम करता.

दुसरे एके जायरातींत बॉलीवूड अभिनेतो सलमान खान रायट टू इनफॉर्मेशनच्या समर्थकांक तेंको दितना 'लिखो इंडिया की नयी पहचान' अशें म्हणीत रोटोमेक पेनाची ताकद दाखयतना अर्जाचेर "Right to information" ह्या उतरांच्या जाग्यार "Write to information" अशीं उतरां बदलून अचळय "RTI"ची जायरात करपाचें व्हड मोलाचें काम करता. भ्रश्टाचाराचेर बडी मारून आपलें उत्पादन खपोवपाची ही कला जायराती बगर आनी कोण करूंक शकत? खरेंच अश्या जायरातिनीं भौसाचें सशक्तीकरण जावंक पावता म्हळ्यार अतिताय जावची ना. हालीं "RTI" आसूं, Child Right आसूं हांचो प्रचार करपांत प्रसार माध्यमांनी बरोच मोलाचो वांटो उबारला. तशेंच शाळा–कॉलेजांनी लेगीत मार्गदर्शकांक हाडून ह्या विशयांचेर उलोवपां आयोजीत जावंक लागल्यांत. ही कितली बरी गजाल! असोच योग आमच्या शिवोले गांवांत एके शाळेंतल्या विद्यार्थ्यांच्या वांट्याक आयलो. विलेज पंचायत चायल्ड कमिटीन आयोजीत केल्ल्या ह्या कार्यक्रमांत 'waste management' आनी 'Right to information' ह्या दोन विशयांचेर एकदम बरीं उलोवपां जालीं. एका वराच्या ह्या उलोवपांत सगळें सविस्तर सांगूंक मेळना. तरी पूण दोनूय विशयांचेर उलोवप्यांनी बरे तरेन उजवाड घालो. 'No person is your friend who demands your silence' ही ॲलीस वॉल्कराचीं उतरां उगडास करून सुरवात जाली आनी थंय म्हाका याद जाली आमच्या गांवची एक गजाल.

कोणेंतरी एकल्यान सुलभ सौचालयाक अर्ज केल्लो. त्या कामाक आयज–फाल्यां करीत चार वर्सां जावनूय कांयच जायना तें पळोवन तांणी निमणे RTIचो आधार घेतलो. वासपूस काडटकच कळ्ळें की तागेली फायल ऑफीसांतल्यान गायब जाल्ली. रोखडोच PIOच्या हस्तक्षेपान काम जावपाक पावलें. हाचे वयल्यान RTIचें म्हत्व तुमकां लक्षांत आयलां आसतलेंच.

हो हक्क मेळोवंक अर्जधारकाक कारण दिनासतना वा आपली वैयक्तीक म्हायती सांगनासतना एका कोऱ्या कागदाचेर कार्यालयीन भाशेन विनंती करून म्हायती पुजावंक येता. इतलें हें सोपें काम! एखादी सरकारी संस्था कसलीय म्हायती आमच्या पसून लिपोवन दवरता आसत तर RTI चो वापर करून आमी ती मुजरत मेळोवंक शकतात. तो आमचो हक्क, अधिकार आसा. हातूंत त्या कार्यालयाचीं कागदपत्रां, परिपत्रकां, नोटिसी, दाखले, डाटा, ई–मेल, खबरांपत्रांतल्यो तांच्यो बातम्यो, नियाळ, नमुने हांची अचूक म्हायती एकठांय करूं येता. हो RTI ॲक्ट भारतीय लोकसभेंत १५ जून २००५ सालांत पास जावन, उपरांत १२ ऑक्टोबर २००५ सालांत चालीक लागलो. एक जम्मू–काश्मीर राज्य सोडून हेर राज्यांनी तो लागू जाता. वीज, उदकापुरवण, शिक्षण, भलायकी, शेतकी आदी खंयचीय केंद्रीय वा राज्य स्तरीय सरकारी खातीं वा बँक आसूं ह्या भौशीक कार्यालयांनी पारदर्शकता आनी जापसालदारकी हाडप हो ह्या कायद्याचो मुखेल हेतू. अशें करतना कोणाय एका खात्याक त्रासांत घालप, तांका ख्यास्त दिवप वा कोणाचेंय चारित्र्य पिड्ड्यार करप हो तांचो उध्देश न्हय. लोकांक फावो ती म्हायती दिवन तांका शिक्षीत करप हीच तांगेली मोख आसा.

दुसरी गजाल देशाचे सुरक्षेक मारक थारूं शकता अशी फौजेतली म्हायती वा गुपितां आमच्यान ह्या RTI वरवीं मेळोवंक जायना. आमच्या गोंयांत पणजेच्या माहिती हक्क कमिशनांत धा रु. कोर्ट फी भरून, त्या त्या कार्यालयान नेमून दिल्ल्या PIO लागच्यान ही म्हायती तीस दिसांभीतर मेळोवची आसता. हाका वेळाचें बंधन आशिल्ल्यान दिल्ल्या वेळाभितर PIO क हीं कामां करचीं पडटात. RTI च्या सेक्शन 2(h) हाचे प्रमाण राष्ट्रपती, गव्हर्नर, सभापती, सुप्रीम आनी हायकोर्टाचे चीफ जस्टीस हांचीं कार्यालयां लेगीत भौशीक अधिकाराच्या हाताखाला येतात. पूण अशें आसुनय सद्द्याक ताचेर बरोच वाद चल्ला. वादाचें निरसन जायत तेन्ना जायत. आनी वायट दिसपाची गजाल म्हळ्यार पणजेचें RTIचें कार्यालय सुस्थितींत नाशिल्ल्यान थंय तांका येवपी अडचणी मुखार सरूंक लागल्यात. आपलो हक्क कसो मेळोवप हें तांका बरेतरेन खबर आशिल्ल्यान तें काम आयज–फाल्यां नक्की जातलें अशें म्हाका दिसता. पूण आमच्यो अडचणी पयस करूंक हें RTIचें शस्त्र आमकां जाता तितले बेगीन हातांत घेवचेंच पडटलें. अण्णा हजारे सारके समाजसेवी लोक मुखार येवन आंदोलना चलयतले, भ्रश्टाचार नश्ट करतले म्हूण वाट पळोवंचे परस उपकार करून एकूच मागणें 'get organise to fight'. समाजांत रावपी आमी सामाजीक प्राणी देखून समाजवेवस्था बरेतरेन दवरपाक आमची जण एकल्याची गरज पडटली हें उगडास दवरात. 'जायात जागे' हें सांगपाक हांगा परतून म्हाका वयले जायरातीचो आधार घेवन म्हणचेंच पडटलें 'जागो रे, जागो रे, जागो रे ऽऽऽ.'

■ ■ ■

# सैमिक दायज कुस्कें

**गोंयचो** एक सुंदर सैमाच्या गोपांत नटिल्लो म्हाल म्हळ्यार काणकोण म्हाल. ह्या सैमसोबीत काणकोण म्हालांत तितलेच सुंदर माणकुले गांव आसात. असोच एक खेडे-गांव म्हळ्यार कुस्कें गांव. खोतीगांव अभयरण्याच्या भितर आस्पावता हो कुस्कें गांव. सैमान कुस्कें गांवचेर सदळ हातांनी आपलो वरदहस्त दवरला. कुस्कें हो इतिहासिक गांव. हांगा प्राचिन देवळां, शिल्पां, पोन्नीं घरां, जायत्यो पुरातन गजाली पळोवंक मेळटात. 'राणे बंड' गांवच्या इतिहासांतलें एक व्हड पर्व. तातुंतलें सगळ्यांत निमणें पर्व १९१२ ह्या वर्सा कुस्कें गांवांतूच घडलें. जील सावंत आनी मोर्योराव राणे हाणीं पुर्तुगेज सरकाराचेर बंड पुकारलें. जील सावंताक पोर्तुगीजांनी मालकांजाणाच्या



न्हंय व्हांवता. कुस्कें च्या न्हंयचेर सरकारान एक बांद बांदला. कुस्कें शेतां पांचवीचार न्हंयच्या वाठारांत कितलीं सुंदर दिसतात. कुस्कें गांव दोंगराच्या पांयांकडेन वसला. कुस्केंचीं घरां सामकीं आदले बांदावळीचीं. नळ्याचीं. शेणाचीं आंगणां, तुळशी. कुस्केंचीं देवळां बेताळ, मालकाजाण, महादेव, महिशासूरमर्दिनी गणपती, वागिल पायक ह्या देवळांच्या चौकांत प्राचिन कदंब काळावेलीं शिल्पां दिसतात. लिंगां दिसतात. लाकडाचीं प्राचिन शिल्पांय दिसतात.

कुस्कें गांवांत भात मापून साठोवपाची पद्दत पळयली. कुस्केंची वेळीप जाण्टीं बायलां प्राचिन पध्दतीन साडी न्हेसतात. सामके जाण्टे काश्टी मारतात. ते कुमेरी शेती करून नाचणे रोयताले.

कुस्कें हें नांव कशें पडलें तें कांय जाण्टे गांवकार सांगतात. हो गांव प्राचिन काळांत 'पाड' गांव म्हणजे हांगा शेतां-पिकां कांयच उरनासलें बरें पीक येनाशिल्लें सगळें कुसून वतालें. म्हणून ह्या गांवांक कुस्कें नांव पडलां. कुस्कें गांव कोणाक नाका आसलो. म्हणून ताका कुस्कें नांव पडलें. खोतीगांव अभयारण्यांतलो सगळ्यांत निमणो गांव म्हणजे कुस्कें. पूण आतां कुस्कें गांव हो कुस्को दिसना. आतां तो झाडां-पेडां, शेतां, पिकां, भाटां, न्हंय, धबधबे, झरे, पांचवे दोंगर, फळां, फुलां, अशा समृध्द सैमीक दायजान फुलला. कुस्कें गांव जसो आडनदर जाला तशेंच ताचें समृध्द अशें इतिहासीक, सांस्कृतीक, सैमिक दायज आडनदर जालां.

खोतीगांवच्या अभयारण्यांत गेल्यार कुस्कें गांवाक भेट दिवपाक विसरूं नाकात.

देवळांत गुळी मारलो. त्यो गुळयो लागिल्ल्यो खुणो मालकाजाणाच्या प्राचिन देवळांत कुस्कें गांवांत अजून दिसतात. देवळाच्या भितरले वण्टीर त्यो दिसतात.

कुस्कें गांवचे लोक वेळीप. तांची संस्कृताय तितलीच व्हड. कुस्कें गांवांत कितलेशेच उत्सव जातात. हांगचे लोक चवथ, शिगमो व्हडा उमेदीन मनयतात. श्रावण सोमार, मालकाजाणाची जात्रा मनयतात.

कुस्कें गांवचें मुखेल आकर्शण म्हणजे थंयचे दोन धबधबे. तातुंतलो एक सदांच व्हांवपी जो जुलाय-ऑगस्ट म्हयन्यांनी तर चडूच बरो दिसता. हो धबधबो पावस-गीम सदांच व्हांवपी. दुसरो धबधबो फक्त पावसांत दिसता. कुस्केंच्या नित्यनेमान व्हांवपी धबधब्यार वतना एक प्राचिन सैमिक भुंयार म्हळ्यार टायगर केव 'वाघरा घोल' लागता. थंयच्यान कुस्केंची



# कदंबकालिन सप्तकोटेश्वराची दिवाडे-नार्वेची तळी आनी अवशेष

१८ एप्रिल हो जागतीक दायज दीस.

ह्या सोबीत दिसाक सगळे म्हणजे ह्या संवसारांत जितल्यो दायजाच्यो वास्तु आसात तांचो उत्सव करपाचो दीस.

आमच्या गोंयांत खूबशीं दायजां आडनदर जाल्यांत. असल्याच दायजाचो म्हत्वाचो एक वांटो म्हळ्यार नार्वे-दिवाडेचे सप्तकोटेश्वराचे अवशेश आनी तळी. हे तळयेची जतनाय जावची म्हण खूब प्रयत्न जातात. ताचेर वेगवेगळे लेख बी बरोवन आयिल्ल्यान निमणें आतां गोंय राज्य पुरातत्व खात्यान आतां तांची जतनाय घेवपाच्या कामाची सुरवात केल्या. दाजी ऊर्फ रामचंद्र नायक हो तांत्रीक अधिकारी तें काम पळयता.

दिवचल म्हालांत नार्वेगांवांत जें सप्तकोटेश्वराचें देवूळ आसा तें पयलीं नार्वे-दिवाडेच्या बेटार आशिल्लें. त्याच नार्वे-दिवाडेच्या मुळाव्या देवळाचे हे इतिहासीक अवशेश आनी तळी.

दिवचले नार्वेचो सप्तकोटेश्वर सगळ्यांनीच पळयला आसतलो! पूण नार्वे-दिवाडेची ही तळी, थंयचे अवशेश कोणेच पळोवना आसतले. कारण नार्वे-दिवाडेचो हो मुळावो जागो, तळी सामकीच आडनदर जाल्या.

आतां ह्या दायजाचो इतिहास पळोवया. सप्तकोटेश्वर हो कदंब राजाचो वा कदंब घराण्याचो कुळदेव. अकराव्या आनी बाराव्या शेंकड्यांत दिवाडेचें बेट द्विपवाटीका, दीपावती, द्विप, द्विप-वाडी अशा चकचकीत नांवानी तितलेंच चकचकतालें. द्विप म्हळ्यार बेट. देवळांच्या दिव्यांनी चकचकपी अशें सोबीत बेट. हांगा गणेश, सप्तकोट अशीं देवळां कदंब राजांनी बांदलीं. जेन्ना तांची राजधानी तिसवाडी बेटावेल्या गोपकपट्टन गोवापुरी आशिल्ली. कर्नाटकाच्या खानापूर तालुक्यांतल्या देगांवे गांवांत कदंब राणी कमलादेवीचो शिलालेख पळोवपाक मेळटा. देगांवेंच्या कमलनारायण देवळांत वण्टीर बरयिल्लो शिलालेख जो नागरी-संस्कृत भाशेंत आसा तातूंत कदंब राणी कमलादेवीचें नांव सांपडटा. तिचो घोव शिवचित्त पर्माडीदेव कदंब राजा हाचें नांव सापडटा आनी तांचो कुळदेव सप्तकोटेश्वर अशेंय म्हणून बरयिल्लें मेळटा.

हे सगळे इतिहासाचे पुरावे आपल्या दोळ्यांमुखार पळयतगीर मनाक प्रसन्नता आनी जिवाक सामकें बरें दिसता. सामके बाराव्या शेंकड्यांतल्या इतिहासांत पावतात. मागीर हळशीचोय शिलालेख पळोवंक मेळटा. हळशी ही कदंबांची राजधानी आशिल्ली. हे सगळे शिलालेख गोंयच्या इतिहासाचो अभ्यास करपाक खूब बरो पडटात.

एक तांब्यापटोय आसा जो कदंब राजा जयकेशीदेव हाचो जो सप्तकोटेश्वराचें बिरूद दाखयता.

कदंब राणी कमलादेवी सप्तकोटेश्वराक तर मोठ्या श्रध्देन पूजताली. तिणेंच हें नार्वे-दिवाडेचें सप्तकोटेश्वराचें मुळावें देवूळ इ. स. ११५५ वर्सा बांदलां आसूये असो एक तर्क आसा वा तें ताच्यापयलीं जयकेशी कदंब राजान बांदलां आसूये असोय तर्क आसा.

हें देवूळ वा तळयेचो भाग सगले वटेन दिसता. देवळाच्या शिखराचो आराखडो पळोवंक मेळटा. ही कलाकुसर तयार करूंक चिरो वापरला. हांगा सोपणां, वण्टी, तळी पळोवंक मेळटा.

१३५६ वर्सा बाहमनी राजा अल्लाऊदिन हसन अब्दूल मुझाफर बहमान शाह ह्या राजान गुलबर्गाच्यान गोंयांत सैन्य धाडलें. देवळाचेर आक्रमण जावन सप्तकोटेश्वराचें लिंग शेतांतल्या चिखलांत उडयलें. तें मागीर १३७८ माधव मंत्री जो विजयनगर राजाचो गव्हर्नर आशिल्लो ताणें लिंग शेतांतल्यान काडून परत स्थापन केलें.

मागीर मिंगेल वाझ (विगार) हो पुर्तुगेज जेजुईट पाद्री हाणें १५४१त हें देऊळ मोडलें आनी लिंग काडून उडयलें. मागीर १५५९ वर्सा नारायणराव सूर्यराव सरदेसाय हाणें हें लिंग न्हंय पलतडीं हिंदळे गांवांत जो दिवचल म्हालांत पडटा थंय स्थापन करून देऊळ बांदलें. एप्रिल १६६८ वर्सा शिवाजी महाराजान ह्या नार्वेदिवचलच्या देवळाचो जिर्णोध्दार केलो. पूण नार्वे-दिवाडेच्या सप्तकोटेश्वराच्या जाग्यार नोसा सिन्योरा दे कांदेलारियाचें कपेल १५६३-६४ वर्सा बांदलें.

हे नार्वे-दिवाडेचे सुवातेक कोंकण काशी, दक्षीण काशी अशें लोक म्हणटात.



– प्रा. प्रजल साखरदांडे
एस–३, बी–३, पुर्वा अपार्टमेंट्स,
मरड, करंझाळें – गोंय.
फोन : ७८७५२४००६९



**(काळू निळूक घेवन दुसरे दिसाच्यान उडपाक शिकोवंक भायर सरूंक लागलो. निळू काळूक नवे नवे प्रस्न विचारून सतावंक लागलो. देखून ताका थंयच सांडून काळू उडून गेलो. मागीर निळून कितें केलें तें आतां पळोवया...)**



# कावळ्या काक्या रे...

एकदीस साळू आनी काळू खंयच गेले ना. भुरग्यांक अजाप जालें. ताणीं विचारलें,

"आयज कितें? आमकां उपास काय कितें?"

"शी! थूमेकाल! अशें उलोवं नये." - साळून म्हळें.

"मागीर तुमी घराच कशीं?"

"आरे, आज अमास. मनीस ताका सर्वपित्री अमावास्या म्हणटात."

"म्हळ्यार कितें?"

"आयच्या दिसा लोक शीत, वरण, भाजी, वडे, गांठी, चण्याचो रोस, मणगणें नाजाल्यार पायस करतात. आमकां पयलीं खावंक घालतात. मागीर आपूण जेवतात. आयज आमचो दीस. आमकां कांयच करपाची गरज ना."

"अशें कित्याक गे?"

- मागीर साळून ताका एक काणी सांगली.

खूब खूब वर्सां पयलींची गजाल. आमचो एक पूर्वज असोच भोंवडेर गेल्लो. भोवतां भोवतां तो देवाल्या राज्यांत पावलो. देवान ताका सांगलें, "आरे, बरें जालें, तूं मेळ्ळो तो! म्हजो एक रकाद आसलो. तो तूं धतरेवयल्या लोकांक दी."

"कितें तो देवा?"

"धतरेवयल्या लोकांनो, तुमी तीन खेपे न्हायात आनी एक खेपे जेवात."

- पुर्वजान बरें म्हळें.

तो देवालो रकाद घेवन धतरेर येवंक भायर सरलो. तो तोंडान म्हणीत आशिल्लो. 'तीन खेप न्हायात आनी एक खेप जेवात.' हें वाक्य पाठ करीत तो येतालो. मदींच तो तें विसरलो आनी ताणें धतरेर येवन लोकांक सांगलें, "तुमकां देवान रकाद दिला. तुमी तीन खेप जेवात आनी एक खेप न्हायात." सगळे लोक तशें करूंक लागले. देवाक ही गजाल कळ्ळी. ताका पुर्वजालो राग आयलो. ताणें पुर्वजाक शाप दिलो.

"तूं आतां मनशाच्या उश्ट्याचेर जगतलो."

मागीर पुर्वजान देवाकडेन गुन्यांव भोगोस म्हूण मागलें. तेन्ना देवान सांगलें, "दर अमासेक थोडो लोक, पूण सर्वपित्री अमासेक चड लोक तुमकां आपोवन जेवण दितले."

"अशें? आयज तो दीस?"

"हय. आयज खंयूय जेवण वाडून दवरिल्लें आसता तें वचून खाल्यार मनीस कांयच करचो ना."

"आनी आमचे कांय सोयरे मद्रासाक आसतात. थंय खंय संक्रांतिच्या दुसरे दीस 'माट्ट पोंगल' म्हण आसता. ते दीस घरच्यो बायलो मुळाव्यो घरा जोडकुटुंबांत एकठांय येतात. रांदतात. सकाळीं सकाळीं कावळ्यांक जेवण घालतात."

"कित्याक गे?"

"आरे, आमी कावळे कितेंय मेळ्ळ्यार वांटून खातात. एकमेकांक मदत करतात."

"ताचें कितें?"

"ताचें अशें की त्यो बायलो देवाक सांगतात आमी ह्या कावळ्यांभशेन रावतलीं. कितें मेळटा तें वांटून खातलीं. सुखांत दुखांत एकमेकांक आदार दितलीं. सगळ्या परिस्थितींत एकठांय रावतलीं." अशें म्हणून तीं आमकां जेवण घालतात.

"मज्जा न्ही! आयज आमची बरी रगडी तर!"

"आनी आवो, माट्ट पोंगल केन्ना येता तें सांग आं! ते दीस आमी मद्रासाक वचूंया."

साळून म्हळें, "पळेलें मरे, अशें आमचें व्हडपण! एकेक खेप कांय मनीस मनीसपण विसरतात. पूण आमी मात आमचें कावळेपण सांबाळ्ळां. तुमीय तें सांबाळात. कळ्ळें मरे!"

- तिगांयनी शाण्या भुरग्यांवरी मान हालयली.

निळू आतां एकटोच भायर वचूंक लागलो. पूण चड पयस न्हय. चडान चड दुसऱ्या झाडार. किडे बी मेळ्ळ्यार भावंडांक हाडून दितालो.

केन्ना केन्ना रवळू आनी बाळू ल्हवूच घोंटेरा भायर येताले. घोंटेरा भायले खांदयेर बसताले. थंय खेळटाले. भूक लागली काय काळू, साळूची वाट पळेताले.

त्याच झाडार एक चानी येताली. तिचें घर शेजारच्या घराच्या एसीच्या मशिनांत आसलें. ती आसली चबकधवळी. ती झाडाचेर हेड हेड हेडटाली. हे खांदयेवेल्यान ते खांदयेर धांवताली. मदींच झाडावेल्यान सुरसुरून देंवताली. म्हणटां म्हणसर वयर सरताली. तिचें नांव आसलें बोनी.

एक खेप रवळू आनी बाळू बशिल्लो थंय ती आयली. बाळू भिलो. घोटेरांत वचून लिपलो. त्या बराबर ती खूश जाली. तिणें म्हळें, "ए, तूं हांगा कित्याक बसला? उठ थंयचो!"

बाबडो रवळू! उठून दुसरे खांदयेर बसलो. थंयूय ती परती आयली. ताका उठ म्हणून सांगूंक लागली. रवळून म्हळें, "आगो बोनी, हांव वतां थंय तूं कित्याक येता? हें एदें व्हडलें झाड आसा. तूं दुसरे सुवातेर बस. हांव बसतां तीच सुवात तुकां कित्याक जाय?"

बोनीन सांगलें, "हें झाड म्हजें! हांव जाय थंय बसतलें. तूं रे कोण म्हाका शाणपणा सांगपी?"

अशें म्हणून तिणें रवळूक धांवडायलो. रवळूक आयलो राग. ताणें 'कांव-कांव' करून निळूक साद घाली. निळू आयलो. ताणें विचारलें,

"कितें जालें रे?"

रवळून ताका बोनीची सगळी गजाल सांगली.

"अशें?" निळून म्हळें. "आरे, पूण तूं तिका कित्याक भिता? बोनी जर अशें करीत जाल्यार तिच्या आंगार वच. तिका सांग म्हजे वाटेक वचूं नाकां. गेलें जाल्यार हांव ओगी रावचों ना. चोंचयतलों धरून!"

"पूण म्हाका भंय दिसता."

"तूं भिवं नाका. हांव हांगा लिपून बसतां. तरीकूय तें तुज्या आंगार आयलें जाल्यार ताका सारकी बुध्द शिकयतां."

रवळू मागीर एके सुवातेर बसलो. थंय बोनी आयलें. ताका उठ म्हणूंक लागलें. तो उठलो. दुसरे सुवातेर बसलो. थंयूय परत बोनी आयलें. आतां मात रवळूक आयलो राग. ताणें बोनीच्या आंगार उडी मारली. ताका झडपिलें. बोनी भिलें. शेंपडी तुटसर धांवत सुटलें. धावन बद्द घरा गेलें. ताचें काळीज घपघपतालें. पयसुल्ल्यान तें रवळूक दिसतालें.

रवळू आनी निळू दोगूय हांसूंक लागले.

"पळयलें मरे? कोणाकूय जर तूं भिलो, जाल्यार दुसरे चड भेश्टायतात."

साळू घरा येतकच रवळून आनी निळून आवयक सगळी गजाल सांगली. साळून म्हळें, "आरे, आमी एकेच सुवातेर रावतात. अशें झगडूं नये. बोनी सान आसा. ताकाय बाबड्याक खेळूंक कोण ना. ताचेकडेन इश्टागत करात. तुमकां खेळूंक एक बरो भिडू मेळटलो."

रवळूक आनी बाळूक तेच तेच खेळ खेळून वाज आयिल्लो. ताणीं बोनीकडेन इश्टागत केल्ली. पूण ताचे बराबर कितलोसो वेळ खेळटले?

आपालिपा खेळून जालें. धांवचेल्यांनी खेळून जालें. सामकार रावतल्या बाबू म्हेऱ्यांत वचून नाचून जालें. बाबूचे आवयन दिल्लें खाण खावन जालें. रवळून म्हळें, "बाळू, वाज आयलो. कितें करूया?"

"आमी निळूदादाक सांगूया भोंवंक व्हर म्हूण?"

ते दोगूय निळू म्हेऱ्यांत गेले. ताणीं सांगलें,

"निळूदादा, आमकां भोवंक व्हर रे!"

"व्हरतलों आसलों! पूण तुमच्या पाखांत इतलें बळगें ना रे!"

– दोगांयलीं तोंडां बावलीं.

"आयडिया!" निळू आड्डलो.

"कितें जालें?" दोगांयनी वांगडाच विचारलें.

"हांव फुडें वतां. तुमी म्हज्या फाटल्यान येशात?"

"हय!"

"हांव बसतां थंय बसशात?"

"हय!"

निळू उडत उडत गेलो. फाटल्यान हे दोगूय गेले. निळू एका झाडार बसलो. हेवूय बसले. निळू उडत गेलो. एके म्हशीचे फाटीर बसलो. हेवूय बसले. रवळू आनी बाळूय म्हशीचे फाटीर बसले. म्हस चलूंक लागली. त्या बराबर रवळूक आनी बाळूक हांसो फुटलो.

इतल्यान म्हशीन शेंपडी मारली. ते दोगूय भिले. धांवत वचून झाडार बसले. निळू हांसूंक लागलो. तो मात म्हशीचे फाटीवेल्यान उठूंक ना. ताणें त्या दोगांक उलो मारलो. आनी सांगलें, "आरे येयात. बसात हांगा. म्हशीन शेंपडी तुमचेर मारूंक ना. तिणें ती मूस धांवडावंक मारिल्ली. तुमी सुसेगाद बसात. तिंच्या कानाकडेन, दोळ्यांकडेन काय बरे किडे आसा पळे. ते किडे खाले काय आमचें पोट भरता. आनी म्हशीकूय बरें दिसता."

दोगूय भीत भीत परत वचून म्हशीचे फाटीर बसले. म्हस चलताली. आनी हे मजेंत हांसताले.

साळू घरा येतकीच रवळून आनी बाळून ताका सांगलें, "जाणा आवो? निळूदादान आमकां नवो खेळ शिकयलो."

"कसलो रे?"

"म्हशीचे फाटीर वचून बसपाचो."

"आवो, तूं केन्ना बसल्या गे म्हशीचे फाटीर?"

"हय रे! ल्हान आसतना आमीय असले खेळ खेळटालीं."

"मागीर आतां कित्याक बसना?"

"आरे, पोट भरचे चिंतेन खंयचे खेळ आनी खंयचें किर्ते?"

"ना आवो! एकदीस तुवें आमचे बराबर खेळूंक येवंकूच जाय."

"हय रे पुता! एकदीस आमी सगळींच वचुंया म्हशीचे फाटीर बसूंक."

सगळे रांकेन म्हशीचे फाटीर बसल्या आनी म्हस चलता अशें चित्र रवळू आनी बाळूच्या दोळ्यांमुखार आयलें. आनी ते खूब हांसले.

* * *

आतां रवळू आनी बाळूय व्हड जाल्ले.

निळू, रवळू आनी बाळू मदीं रवळू मात्सो आडांगी.

मात्सो चड शाणो. साळूक ताचो हुस्को जातालो.

कितेंय सांगल्यार तो आयकनासलो. साळू ताका सांगतालें, "हें पळे, तूं ओगीच घोटेरांतल्यान भायर वचूं नाकां."

"कित्याक? भायर गेल्यार कितें जाता?" रवळू विचारतालो.

"आरे, भायर घोणी आसतात. भुरगीं फातर मारतात. नाजाल्यार आनी कितेंय आसूं येता. संकटां केन्ना सांगून येतात?" साळून सांगलें.

"पूण मागीर निळू कसो एकलोच भायर वता? ताका तूं कांयच म्हणिना म्हाकांच कित्याक सांगता?" – रवळून विचारलें.

"आरे, निळू व्हड जाला. ताका वायट बरें समजता. आनी तो सगळेकडेन खंय भोंवता? आमी दाखयल्ले सुवातेरूच तो वता." – साळून म्हळें.

"तुकांय त्यो सुवातो आमी दाखयतलींच. पूण तूं मात्सो व्हड जा. तुज्या पाखांनी बळगें येवं दी."

"म्हज्या पांखांनी बळगें आसा. तूं फक्कत निळूक बरें करता म्हाका करिना." रवळून रागान म्हळें.

"तशें न्हय रे पुता. तूं ल्हान. मात्सो व्हड जालो काय मागीर भायर वच. आमी तुकां कांय म्हणचीं ना." साळून म्हळें.

– पूण आपली आवय–बापूय आपल्या बऱ्याक सांगता हें ताका कळच नासलें.

एक खेप बाळू न्हिदिल्लो. निळू भायर सरून गेल्लो. बोनीय खंय गेल्लें देवाक खबर! रवळूक आयलो वाज. तो घोटेरांतल्यान भायर आयलो. थंयच भोवंक लागलो. इतल्यान सामकार आशिल्ल्या झाडार ताका एक किडो दिसलो. तो त्या झाडार गेलो. तो किडो ताणें खाल्लो. ताका तो रुचिक लागलो. आपल्या भावाक–निळूक तसलो किडो व्हरूंक मेळ्ळ्यार बरें जावपाचें अशें ताका दिसलें. तो तसलो किडो सोदूंक लागलो.

मदींच ताका एक किडो दिसलो. तो असोच हवेंत हुंबकळटालो.

खरें म्हळ्यार त्या रुखार एक कापोडयो रावतालो. ताचें थंय जाळें आसलें. त्या जाळ्यांत तो किडो शिरकल्लो. तें जाळें तोडून तो सकयल





देवंक पळेतालो. पूण जाळ्याचो धागो चिकचिकीत आशिल्लो. ताका लागून तो धागो त्या किड्याक दसून आशिल्लो. किडो धडपडत सकयल देंवतालो. पुरोऽ जालें काय ओग्गी रावतालो. तेन्नाच कापडयो ताका वयर ओडटालो. बांयतल्यान बिंदल्यान उदक काडचें तसो. पळेतल्याक तो किडो हवेंत उबतासो दिसतालो.

त्या किड्याक पळोवन रवळूक ताका धरपाची इत्सा जाली. कित्याक जाल्यार ताका तो किडो व्हरून बाळूक दिवपाचो आसलो. तेन्ना त्या किड्याक धरूंक फाटीं फुडे पळेनासतनां ताणें झोंपय मारली.

त्या झाडापोंदा भुरगे पतंग सोडटाले. तांचे पतंग त्या झाडार शिरकल्ले. पतंगावांगडा दोरीय झाडाक घुस्पल्ली. धांवपाच्या बोवाळांत ताणें तें सूत पळेलेंच ना. तो धांवलो. दोरयेंत ताचे पांय घुसपले.

पयलीं ताका कळ्ळेंच ना कितें जालें तें! तो पायांतलें सूत सोडोवपाचो यत्न करूंक लागलो. तो जितलो तांतल्यान सुटपाक पळेतालो तितलो तो चड घुसपतालो. निमणें ताका पुरो जालें. आनी तो ओग्गी बसून रावलो.

सांजेर निळू घरा आयलो. साळू आनी काळू घरा आयलीं. पळेल्यार रवळू ना. तीं तिगांय ताका सोदूंक गेलीं. पळेल्यार दुसऱ्या झाडार रवळू आसा. आनी ताचे पांय दोरयेंत घुस्पल्यात.



साळून आनी काळून बेगीबेगीन चोंचीन दोरो सोडयलो आनी रवळूचे पांय मेकळे केले.

सगळीं जाणां मागीर घोटेरांत परतलीं.

मागीर साळून सांगलें,

''पळेलें मरे रवळू, हांव एक तुका सदांच सांगतालें एकलो खंय वचूं नाका. तूं आयकनासलो. आतां पळेलें मरे कशें जाता तें?''

काळूनय ताका समजायलो.

''जाणा मरे, आवयबापूय सदांच भुरग्यांच्या बऱ्याक सांगतात. हाचे मुखार असलीं पिशेपणां करूं नाकां. कळ्ळें?''

- रवळून मान सकयल घाली आनी मानेनूच हय म्हळें.

एकदीस रवळून पळेलें. बाळूक कांव कांव म्हणूंक येना. तो दुसरेंच कितें तरी म्हणटा. ताची चोंचय ल्हान. ते चोंचीचो रंगूय वेगळो. निळू आनी रवळू ताका चाळोवंक लागले.

बाळू रडूंक लागलो.

ताका दिसतालें, हे दोगूय म्हजेच भाव, मागीर हे अशे कशे? आनी हांव असो कसो? म्हाकां कांव-कांव म्हणूंक येना. आतां हांव कितें करूं? कोणाक विचारूं? बाळू भितरले भितर घुस्मटत उरलो. ताणें उलोवपाचेंच बंद केलें. हेर कावळ्या पिलांय ताका खेळूंक घेनासलीं.

एक आंब्यारूख चंवरिल्लो. रथ कसो फुलिल्लो. आंब्या चंवराचो परमळ बाळूक खुब्ब आवडलो.

तो त्या रुखार वचून बसलो. थंय ताणें 'कुहू-कुहू' आयकलें. बाळूक तीं उतरां आवडलीं. तो एकदम खोशी जालो.

ताच्याय तोंडांतल्यान, किनऱ्या आवाजान आपोआप उतरां आयलीं 'कुहू-कुहू!'

ताचो तो नाजूक आवाज भानून आयकलो. तिणें ताका विचारलें,

''पुता, तुजें नांव कितें?''

''बाळू!''

''तूं खंय रावता?''

''त्या सोनमोहराच्या झाडार!''

''तुजे आवयचें नांव कितें?''

''साळू!''

''आरे, तूं साळुचो भुरगो न्हय. तूं तर म्हजो पूत!''

''ना! ना! ना!!!'' बाळून म्हळें.

तेन्ना भानून ताका सांगलें,

''पळे, तूं म्हजेवरी दिसता. तुजी चोंच पळे, म्हजेवरी. तुकां 'कांव-कांव' म्हणूंक येता? तूं 'कुहू-कुहू' म्हणटा मरे?''

''हय!''

''मागीर सगळे तुकां हांसतात मरे?''

- बाळू ओग्गी रावलो.

''पळेलें. तूं तांचो भुरगो न्हय. तूं आमचो. धर्तरेवयले गंधर्व आमी! आमी गावपाचे. आंब्यारुखार रावपाचें. तूं आतां साळूचो घोंटेर सोड. आमचे म्हऱ्यांत येवन राव.''

बाळू गोंधळ्ळो. कितें करचें ताका कळना जालें.

तो उठलो. उडत साळू म्हऱ्यांत गेलो.

''तूंच म्हजी आवय न्ही गे?'' बाळून साळूक विचारलें.

''हय पुता!''

''तशें जाल्यार ती त्या रुखावेली भानू, ती म्हाका कित्याक सांगता ती म्हजी आवय म्हूण!''



"हें पळे, तुमी तशें कांयच करचेनात, सांगतां आदींच!"

– साळून म्हळें. मुखार तिणें सांगलें,

"आमकां सैमान अशें रचलां. आमी सैमाचें आयकतात. सैम सांगता तशें आमी वागूंक जाय. आमी आमचें कावळेपण सांबाळ्ळां. तेन्ना आमी सुडबुध्दिन वागलें जाल्यार कशें जातलें?"

– निळू आनी रवळू ओग्गी रावले.

"निळू आनी रवळू, हांव तुमकां सांगतां. तो खंय गेला थंय सुखान रावं दी. तोवूय जाल्यार तुमचोच भाव!"

त्या दोगांयनी आवयचें आयकलें.

आतां बाळू भानू वांगडा रावता.

पूण तो खेळूंक मात सोनमोहराचेर येता. बोनीय तांचेबरोबर खेळूक येता. तीं सगळीं मेळून खेळटात. हांसतात. नाचतात. केन्ना केन्ना झगडटात. केन्नाय रागार फुगार जातात. परथून हांसतात. हांसतां हांसतां म्हणटात

– साळूच्या दोळ्यांतल्यान दूक गळ्ळें. तिणें म्हळें, "हय शाण्या! तीच तुजी आवय! खरेली. हांवें फकत तुजो सांबाळ केलो."

"हांव तिचे म्हऱ्यांत वच्चों ना." बाळून सांगलें.

"तुवें कितलेंय ना म्हळ्यारूय ताणी साद घालो काय आपशींच तिचे म्हऱ्यांत वतलो."

जालेंय बी तशेंच.

भानून सोनूक बाळूविशीं सांगलें. सोनून म्हळें, "तूं ओग्गी राव! हांव फाल्यां सकाळीं उठून ताका साद घालतां."

दुसरे दीस सोनू उठलो. आंब्या रुखार बसून साद घालूंक लागलो.

'कुहू-कुहू'

बाळू त्या सादान जागो जालो. तो उठलो. एके सुवातेर बसून रावलो. त्या आवाजान तो आकूळपिकूळ जालो. तो 'कुहू-कुहू' आवाज ताका आपयतालो. तो आवाज ताका आपले वटेन खेंचतालो.

निमणें राव नज जावन बाळुनय बी म्हळें,

'कुहू-कुहू'

– आनी तो धांवत आंब्यारुखार गेलो.

सोनू आनी भानू ताची वाटूच पळेताले. भानून ताका पाखापोंदा घेतलो आनी तीं खोशेन रडलीं.

हेवटेन रवळू आनी निळू बाळूक सोदूंक लागले.

"आवो, बाळू खंय गे?"

"आरे, तो कोगळाचो पोर. तो गेलो तागेर."

"हय? मेळू दी तो म्हाकां. हांव ताका कसो चोंचयतां पळे!"

कांव कांव कांव
आमी सगळे भाव
मिळून मिसळून राव

कांव कांव कांव
मेळ्ळो आमकां पाव
जाल्यार वांटून आमी खांव

कांव कांव कांव
देवा तूं सगळ्यांक पाव!





**– शीला कोळंबकार**
मुंबय.
फोन : ०९८१९३१५३०७

## मेक्सिकन लोकांकाणी

# ॲझ्टॅक सूर्यदेवता



मॅक्सिकोक सूर्य ही देवता (देवी) आनी चंद्राक देव मानला. चंद्र, सूर्य, हें ब्रह्मांड हांचे निर्मणे संबंधान ॲझ्टॅक लोकांनी खूब काणयो रचल्यात. जांकां उत्पत्तिकथा म्हणू येतात. आतांची सूर्यदेवता ही कशी अस्तित्वांत आयली हाचे संबंदी ही काणी.

आतांची सूर्यदेवी अस्तित्वांत येवंचे आदीं चार सूर्यदेवी आशिल्ल्यो आनी त्यो एकेक करून ह्या संवसाराक अंतरल्यो आनी मागीर ही आमची सूर्यदेवी आकाशांत आयली. कशी तें हे काणयेंतल्यान आयकुया.

चवथी सूर्यदेवी जिचें नांव आशिल्लें चालचुइतलिक. ही एक जलदेवी (उदकांतली देवी) आशिल्ली. तिचो रंग तांब्याचो आनी कपडे पांचूच्या रंगाचे आशिल्ले. शेंकड्यांनी वर्सां तिणें हे धर्तरीक उजवाड आनी उब दिली आनी तिच्या तेंपार पृथ्वीवयलीं पयलीं मनशां जल्मलीं. पूण बाकीचे देव तिचो दुसवास करताले आनी कांय जाण तर तिणें मनीस जातीक उजो दिलो म्हूण तिका सदांच दोश दिताले. कित्याक तर मनीसजात ह्या उज्याचो उपेग सारको करिना म्हणून.

एके रातीं काळखाचो काळोकुट्ट देव, जाचें नांव आशिल्लें तेझ्कालिपोका. तो आमचे नाजूक ताम्रवर्णी सूर्यदेवीक – जी काळखांत मात्शी सुशेग घेताली तिका खुबूच छळपाक लागलो. काळखाचो देव सूर्यदेवीक म्हणपाक लागलो, "तूं ओगीच येदी व्हडली वाडल्या. तुजो संवसाराक कांयच उपेग ना. तूं सामकी सुवार्थी." काळखाच्या देवीची हीं फट आनी दुखदिणीं उतरां आयकून चालचुइतलिक सोसूंक जायना जालें. ती व्हडाव्हडान रडूंक लागली आनी ती ज्या उदकांत रावताली त्या उदकावयलो तिचो ताबो गेलो. तिच्या दोळ्यांतल्या दुकांक लागून सगळो उजवाड पालवलो आनी मळबांतल्यान धर्तरेचेर घोग्यांनी पावस कोसळूंक लागलो.

धर्तरेचेर सगळेकडेन काळोख पातळ्ळो आनी हुंवार आयिल्ल्यान सगळी मनीसजात बुडून गेली. सगळे दादले आनी बायलांचें रूपांतर नुस्त्यांत जालें. मनीस जातीचें फकत एकूच कुटूंब उरलें जाका लागून मनीस जात जिवी उरली.

अशे धर्तरेचेर मळबूच कोंसळिल्ल्यान देवांनी मागीर जमनी पोंदच्यान चार रस्ते तयार केले. थंय ताणी चार राकेसूय तयार केले आनी कांय व्हड व्हड रूखयबी. आनी मागीर सगळे देव, राकेस, झाडां सगळ्यांनी मेळून दुकांच्या म्हापुरांत बुडून गेल्ले पृथ्वीक वयर उखलून काडपाचो यत्न केलो. सगळ्या शक्तींनी जमीन वयर उखलतकच उदक मागीर व्हावन गेलें.

निमाणे मागीर एकदाचें ताणी पृथ्वीक मळबाक घट्ट बांदून दवरली.

अशें केलें तरी धर्तरेर सामको काळोख पातळिल्लो. थंय फांतोडूय जाय नाशिल्ली, तिळसांजूय नाशिल्ली की दिसाचो उजवाडूच नाशिल्लो. दुकांचे जे लोट व्हांवताले ते सगळे खारट आशिल्ले. ताका लागून बरें उदक नाशिल्लें. हाचें कारण म्हणजे सूर्यूच नाशिल्ल्यान ती खारीं दुकां परतून सर्गार व्हरून तांचो पावस कोण करतलो आशिल्लो?

तेन्ना मागीर देवांनी आनी एक, म्हळ्यार पाचवीं आनी निमणी सूर्यदेवी करचेली थारायलें. ते सगळे टेक्सीकुट्टाकान म्हणजेच देवांच्या सर्गार जमले. बसून खूब वेळ ताणीं व्हडा व्हडान वाद विवाद घालो आनी निमाणें थारायलें – सूर्यदेवता निर्माण करचीच पडटली.

आनी जेन्ना सूर्यदेवता सुशेग घेतली तेन्ना चांदणें जाय म्हणटकच चंद्रूय बी जाय.

पूण हें काम करतलो कोण?

तशो ओजून मेरेन चार सूर्यदेवता मेल्ल्यो. देवांनी एक यज्ञ करचो केलो आनी ह्या यज्ञांत स्वताचो कोण बळी दिवपाक तयार आसा ताका सूर्य वा चंद्र पळोवपाक मेळचो ना कारण तांचोच आकार बदलून सूर्य आनी चंद्र सासणाचे उरपाचे अशें थारायलें.

ह्या कामाक एकूच देव फुडें सरलो. तो आशिल्लो गोगलगाय आनी किड्यांचो देव. तो गिरेस्त, शक्तीमान आनी गर्वीश्ठ देव आशिल्लो. ताणें येवजिलें की आपणें जर स्वताचो बळी दिलो जाल्यार आपणाक अमर किर्त मेळटली. म्हणून ताणें स्वताचो बळी दिवन सूर्यदेवता जावचें थारायलें. आनी कोणूच स्वताचो बळी दिवंक तयार नाशिल्लो. देवांक तर दोन बळी जाय आशिल्ले. सूर्य आनी चंद्र निर्मुपाक. निमाणी तांची नदर तांचेमदीं पूण कुशीक बशिल्ले एके नम्र देवतेचेर पडली. ती आशिल्ली धाकटुली नना देवी. ती तयार जाली जाल्यार देवांनी तिका सूर्य वा चंद्र करपाचें थारायलें.

बाबडी नना! तिका स्वताचो बळी दिवपाक नाका आशिल्लें. पूण देवांनी तिका जेन्ना समजायली की ती सगळ्या संवसाराक उजवाड आनी उब दितली म्हणून तेन्ना ती तयार जाली.





देवांनी मागीर यज्ञाची तयारी केली. ताणी फातराच्यो दोन उंच वेदी तयार केल्यो. एक सूर्या खातीर आनी एक चंद्रा खातीर. कोणाक सूर्य करप आनी कोणाक चंद्र हें अजून थारावंक नाशिल्लें. दोनूय बळींक न्हाणयले आनी ताणी कपडे घाले. गोगलगाय आनी किड्यांच्या देवान भरजरी कपडे घाल्ले, ताचें कॉलर भांगराचें आशिल्लें. कानांत रत्नजडित दागिने घाल्ले.

बाबड्या धाकटुल्या ननादेवीकडेन असलें मोलादीक कांयच नाशिल्लें. तिणें आपल्या आंगाक सादोच धवो रंग लायलो आनी कागदाचे कपडे घाले जे मदीं मदीं पिंजिल्ले लेगीत.

बळींच्या वेदीं मदीं देवांनी व्हडलो होम केल्लो. तातूंत इतलीं व्हडलीं व्हडलीं लाकडां घाल्लीं आनी तीं अशीं पेट्टालीं की सर्गार उजो लागिल्ले बशेन दिसतालें. हें पळोवन गोगलगाईचो देव सामको भियेवन कडकडपाक लागलो आनी परतून परतून ओंठ चाबपाक लागलो. पूण धाकटुली ननादेवी पांयांची घडी घालून शांत बशिल्ली.

टेकुसित्झेकॅट्ल (गोगल गाईंचो देव) हाका होमांत पयलीं उडी मारपाचो मान मेळ्ळो. देवांनी ताका आज्ञा केल्या बरोबर तो आपले उंच वेदीर चडलो. ताचो तांबडो, पांचवो, हडव्या रंगाचो झगो वाऱ्यान हेवटेन तेवटेन जावंक लागलो. पूण उडकी

मारचे वेळार ताचें धाडस नाच्च जालें आनी तो एकदम धवो फटफटीत जावन कडकडपाक लागलो आनी फाटीं सरलो.

तीन फावटीं देवांनी ताका आपयलो आनी तीनूय वेळा ज्युस्त उडकी मारचे वेळार काचाबूल जावन तो फाटीं सरलो. निमाणे देवांची सोशिकताय सोंपली आनी ताणीं ननादेवीक सांगलें 'उडी मार'.

फाटींफुडें कांयच पळेनासतना ती बळींच्या वेदीकडेन आयली. तिणें दोळे धांपले. धिटायेन ती हांसली. मनांत लोकांखातीर आपूण जो बळी दितां ताचें चिंतन केलें आनी तांबडेगुंज ज्वाळांनी उडकी मारली.

गोगलगाय आनी किडयांच्या देवाक एकेवटेन राग आयलो आनी लजूय जाली. कित्याक तर आतां सूर्याची शक्त ताची जावपाची नाशिल्ली. ताणेंय आपले दोळे घट्ट दामले आनी उज्यांत उडकी मारली. पूण ताची उडकी उज्याचे एके बाजूक पडली जंय उजो सामको क्षीण आशिल्लो आनी गोबोरूच चड आशिल्लो.

इतल्यान खंयच्यान तरी एक गरूड आयलो. ताणें एकदम उज्याकडेन झोंपय मारून धगीचो एक व्हड तांबडोच गुळो उज्यांतल्यान घेतलो आनी मळबाकडेन झोपय घेतली आनी तो टेक्टीटुआकन म्हणजेच सर्गाच्या उजव्या दारावटेन आयलो. थंय ताणें तो उज्याचो तांबडो गुळो दवरलो. ननादेवी सूर्य जाली आनी सुंदर सुंदर कुपांच्या शिंवासनाचेर बसली.

तिचे कपडे भांगराचे, चकचकीत आनी मोतयांनी भरिल्ले आशिल्ले. ताचेर मोलादीक अशे शिंपले लायिल्ले जे फांतोडेच्या धुक्यान लिकलिकताले. तिचे ओंठ चकचकीत शेंदरी रंगाचे आशिल्ले.

हाचे पयलीं फांतोड इतली सुंदर केन्नाच नाशिल्ली. देवांनी आनंदान व्हडलो आवाज केलो जो मळबभर सकाळफुडें घुमलो.

आनी थोड्या वेळान एक ससाणो आयलो. ताणेंय बी उज्यांत उडकी घेतली. तो कोळशा भशेन काळो कुळकुळीत जालो. ताणें वयर सरतना राखाडी रंगाचो पेटतो उज्याचो गुळो उबाल्लो. हो गुळो ताणें मळबांत व्हरून सूर्या कुशीक दवरलो.

अशे तरेन गोगलगाय आनी किड्यांचो भिजूड देव चंद्र जालो. देव ह्या क्षीण चंद्राचेर सामके रागार जाले आनी तांचे पयकी एकल्यान आपल्या हाताकडेन मेळटा ती वस्त-ससो काडून चंद्रार मोखून मारलो. ससो वचून चंद्राच्या तोंडारूच आदळ्ळो. म्हणून जेन्ना पुनव आसता तेन्ना आमकां ह्या सशाचे कान आनी पांय चंद्राचेर स्पश्ट दिसतात.

म्हणून जेन्ना सूर्यदेवता आपल्या संवसार भोंवडेक भायर सरता आनी सगळ्या संवसाराक उजवाड आनी उब दिता तेन्ना चंद्रूय तिचे फाटल्यान भायर सरता, पूण फुक्कट! तो सदांच उसरान सुरवात करता आनी फाटीं पडटा आनी जेन्ना थंड आनी थकिल्लो जाता तेन्ना तो अस्तमेक पावता पूण सूर्यदेवता केन्नाच अस्तमेक गेल्ली आसता.

■ ■ ■



**- शुभांगी नगर्सेकार**
'हर्षद',
मांगूर हील,
वास्को-द-गामा.








## गणपतीबाप्पा

गणपतीबाप्पा पोट तुजें केदें मोठ्ठें
आनीक ताचेर तकली हतयासारकी
गणपतीबाप्पा तुजे सुपायेदे कान
केन्ना रंग शेंदुरी केन्ना गोरोपान!
गणपतीबाप्पा तुजी केदी व्हड सोंड
तेंच गा तुजें नाक आनी तोंड?
बाप्पा तुका कशे काय चार हात?
कसो काय तुटलो तुजो मोतयाळो दांत?
बसपाक तुका हो चंदनाचो पाट
नैवेद्याक मोदकांचें भरिल्लें ताट
बाप्पा आमकां दी बुध्द खूब व्हड
आमचे कडल्यान सेवा घे चडांतचड



– डॉ. संगीता बर्वे
पर्वती, पुणे ९.
फोन : ०२०२४२२१००७

## चवथीचे दीस आमचे

काप काप दाळीचें
चिवडो चिवडो फोवांचो
लाडू लाडू पिठ्याचो
आज्याच्या आवडीचो

वाटकुळीच फेणोरी
कुरकुरीत चकरी
तीख तीख शेव
बाबुच्या घोस्ताचो

गोड गोड दूदफेणो
चंद्रीम कशी नेवरी
घूड कसो मोदक
गणपतीबाप्पाच्या आवडीचो

चवथीचे दीस आमचे
पोटभर खाणां खावपाचे
गणपतीबाप्पा मोरया
सगळीं जाणां मेळून खावंया

## सुपरमॅन

सुपरमॅन सुपरमॅन
कितली ताकत रे तुज्या आंगांत
मम्मा म्हाका म्हणटा
सुपरमॅन हांव जातलों जाल्यार
भाजयो खा, नुस्तें खा
तांतयां खा, फळां खा
इतलें सगळें खालें जाल्यार
हांवूय जातलों तुजे वरी
कोणूय मागीर पडल्यार त्रासांत
धांवून वतलों तांचेसरी



– हर्षा शेटये
मडगांव - गोंय.
मो. : ९८५०५३०१५२

# सहकार खातें

## गोंय सरकार, पणजी-गोंय

गोय राज्यांतले सहकार चळवळीचे वाढीखातीर सहकार खात्यान विंगविंगड कल्याणकारी येवजण्यो चालीक लायल्यात. ही चळवळ समग्र लोकांखातीर आसा जातूंत ग्रामीण सहकारी संस्थां वरवीं सगळ्या आंगानी उदरगत सादोवन घेवं येता. त्या पासत सगळ्या सुविधायांचो लाव घेवन आर्थिक आनी सामाजिक परिस्थितींत सुदारणा घडोवन हाडूंक मजत जाता.

सहकारी संस्थांच्या रजिस्ट्रारावरवीं विंगड विंगड प्रकारच्या सहकारी संस्थांक तांची आर्थिक बुन्याद घट करपाखातीर दुडवांची मजत सकयल सांगिल्ले रूपान करता.

१. सरकारी भाग भांडवल
२. वेवस्थापकीय अनुदान
३. गुदांव बांदपा खातीर रीण आनी ताचेर अनुदान
४. पीएसीएस/ टीएफएससीएस हांचेवतीन चालीक लायिल्ल्या ठेवींचेर गॅरेन्टी येवजण
५. फर्निचर बसोवंक रीण/ अनुदान

**ठळक वैशिश्ठां**

* तुमची सहकारी संस्था समजून घेयात
* तुमच्या सहकारी संस्थांचे सेवेचो वापर करात
* सहकारी संस्थांचेर श्रद्धा आनी विस्वास दवरात
* सहकारी संस्थां कडली तुमची लागणूक उजू आनी प्रामाणिक आसची
* 'तुमी सगळ्यां पासत आनी सगळे तुमचे पासत' हें मुळावें तत्व सांबाळपाचे नदरेन सहकारी संस्थांचे उदरगती पासत तुमचें योगदान दियात
* तुमच्या गांवच्या उदरगतीक गांवच्या सहकारी संस्थेची उदरगत करात




**रजिस्ट्रार, सहकार संस्था**

गोंय सरकार , पणजी

*हांचे वतीन वितरावणी*



– विन्सी क्वाद्रस
'स्नोज कृपा',आर्लेम राय,
सालसेत–गोंय
मो. 9822587498

***शांता मावशेन सगळ्या बायलां आनी चेडवांक घेवन फुगडी खेळूंक सुरवात केली. काळोख जावपाक लागलो. कोणें तरी पेत्रोमास पेटयले. थोड्यांनी सुरसुरीं आनी फोगोट्यांचो आवाज सुरू केलो. कोणें नारगां पेटयलीं, बाण सोडले. चेडवां-बायलां बराबर भुरगींय मांडा भोंवती आपली उमेद भागोवपाक मुखार सरलीं. कांय तरनाटेय तांचे मदीं फुगडी खेळूंक लागले. सगळें वातावरणच आनंदीत जावन गेलें.***



# मांड

मेवरीक नोकरेक थावन घरा येतना मांडार अकस्मात लोकांची गर्दी पळोवन अजाप जालो. मागीर ताच्या ध्यानांत आयलें आज इकरा दिसांचो गणपती पावोवपाचो दीस आनी ताच्या इश्टान, धिरजान ताका गणपतीक पावोवंक आपयल्लो म्हण! गणपतीचें दर्शन घेवंक तो लोकांमदीं घुसलो. गाडयेर घाल्लो सार्वजनीक गणपती मांडापासून पयस आशिल्लो आनी मांडार कदेल घालून मोर्तू भाटकार बसून आसलो.

''हांव तुमकां सांगतां, हे मुखार मांडार गणपती दवरूंक मेळचो ना. ना म्हण कसलीच कार्यावळ करूंक मेळची ना. हो लुगार हांवें विकतो घेतला.'' मोर्तून उबो रावन सांगलें.

ते बराबर ताचो वकील ताच्या फुड्यांत गेलो. त्याच वेळार पुलिसांच्यो दोन जिपी थंय पावल्यो. कांय राजकी मनशांचे वावुरपीय थंय आसले.

''पळयात सायबांनो, आमी वर्सा प्रमाणें गणपती देवाक हांगा मांडार दवरतात आनी उप्रांतच तळयेंत बुडोवंक व्हरतात.'' जाण्टेल्या सोनून सांगलें.

''ना. तुमकां आतां तशें करूंक मेळचें ना. हो लुगार हांवें घेतला म्हण सांगलां न्हय?'' मोर्तून आवाज मात्सो मोठो केलो.

''तुज्यान हो लुगार कसो विकतो घेवंक जाता? कितलीं वर्सां जालीं आमी हांगा गणपतीक दवरतात. ताका हांगाच गाराणें घालतात. हो आमचो पुर्वजांचो मांड. देड दिसांचो आनी पांच दिसांचो गणपतीक ह्या मांडार दवरल्या बगर मुखार वचनासले. ह्या वर्साक तुवें आमकां ते दवरूंक दिले नांत. पूण हो सार्वजनीक गणपती हांगा मांडाचेर चडले बगर आमी कशेच हालचे नांत.''

आनीक एका जाण्ट्या श्रीधरकाकान कडक आवाजान सांगलें.

''पळयात, हो लुगार ताणें विकतो घेतला आनी ताचेकडेन ह्या लुगाराचीं कागदां आसात. तुमी सरळ वचून गणपतीक बुडयात.''

पुलीस इन्स्पेक्टरान मुखार येवन सांगलें.

''ना जाल्यार तुमी कितें करतले?'' सोनू मुखार आयलो.

''आमकां लाठीचार्ज करचो पडटलो.'' म्हणीत इन्स्पेक्टरान आपल्या पुलिसांक मुखार आपयले. लोक भियेवन सवका सवका थंयच्यान हालूंक लागले. तेन्ना मेवरीक मुखार

सरलो. इतलो वेळ तो जें घडटा तें पळयत आसलो.

"कोणूच हालचो ना हांगासरल्यान. गणपती मांडार चडूनच मुखार वतलो." मेवरीकान सांगलें. ताचीं उतरां आयकून पयस आशिल्लो धीरज लागीं आयलो.

"तूं दादा रे हांगासरलो?" पुलीस इन्स्पेक्टरान विचारलें.

"हांव दादा न्हय पूण ह्या वाड्यावयलो एक नागरीक."

इन्स्पेक्टराचें उलोवप आयकून मेवरीकाक तिडक मारली.

"ताच्यान हो लुगार कसो विकतो घेवंक जाता? आमचें ल्हानपण गेलें हांगा. हो उक्तो लुगार म्हण जाहीर करूंक आमी सरकाराकडेन मागणी केल्या आसतना हो मदींच खंयच्यान टपकलो? हांव तुमकां सांगतां, हो वर्सावळीचो गणपती ह्या मांडार चडूं दी, कितें करपाचें तें उपरांत पळोवंया."

"ह्या वर्साक दिल्यार तुमी मुखारय मागतले. आमी कितेंय करूंक गेल्यार आडायतले."

वकीलान मेवरीकाक सांगलें.

"कायदो कितें सांगता ते प्रमाण घडटलें. तुमी कुशीन सरात ना जाल्यार वोगीच हांगा मारामारी जातली."

मेवरीकान पवित्रो घेतलो.

पांच दिसांचो गणपती मांडार दवरूंक दिवंक ना म्हण तो आदींच बेजार जाल्लो.

"आमी हांगा हाताक कांकणां घालून आसात?" इन्स्पेक्टरान विचारलें.

"चलात रे, वर्सा पद्धती प्रमाणें गणपतीक मांडार हाडात. गणपती हांगा नाचले उपरांतच मुखार वतलो." मेवरीकान आपलो आवाज कडक केलो.

"चलात रे हाडात गणपतीक मुखार." धिरजाकूय धीर आयलो.

"आरे मेवरीक, तूं क्रिस्तांव जावन कित्याक हांगा किजील करता?" इन्स्पेक्टरान विचारलें.

"हांव क्रिस्तांव देखूनच किजील करतां. हो सण म्हजो जाल्लो जाल्यार हांव वेगळें धोरण घेतलों आसलों. ह्या वेळार आमी तांचे बराबर रावप आमचें कर्तव्य जावन आसा."

"सिनेमांतली भास उलयता मरे तूं."

"पत्रकारिता करतां हांव."

मेवरीकान अशें म्हणिना बराबर इन्स्पेक्टर मात्सो गडबडलो. मुखार उलोवंक अनमनलो. बेगी-बेगीन भाटकारा फुड्यांत गेलो. वकील तांचे लागीं गेलो. इन्स्पेक्टरान तांका ल्हवूच कितें तरी सांगलें. मागीर लोकांक फुडो करून उलोवंक लागलो.

"हे फावट तुमकां गणपती मांडार व्हरूंक दितात आमी पूण हे मुखार...." इन्स्पेक्टरान आपली बडी हालयत सांगलें.

"थँक यू सर." मेवरीकान ताचे आभार मानले.

"गणपती बाप्पा मोरया." धीरजान मोट्ट्यान म्हळें. ते बराबर सगळ्या लोकांनी मोरया म्हळें.

"चलात आतां धालो-फुगडी खेळूंया" शांता मावशेन पावल मुखार घालें.

"पानान पान फुललां गे. पानान पान फुल्लां...."

शांता मावशेन सगळ्या बायलां आनी चेडवांक घेवन फुगडी खेळूंक सुरवात केली. काळोख जावपाक लागलो. कोणें तरी पेत्रोमास पेटयले. थोड्यांनी सुरसुरीं आनी फोगोट्यांचो आवाज सुरू केलो. कोणें नारगां पेटयलीं, बाण सोडले. चेडवां-बायलां बराबर भुरगींय मांडा भोंवती आपली उमेद भागोवपाक मुखार सरलीं. कांय तरनाटेय तांचे मदीं फुगडी खेळूंक लागले. सगळें वातावरणच आनंदीत जावन गेलें.

दुसरो दीस आयतार आसलो. मिसाक थावन येतना मेवरेक मुद्दाम कोमुनीदाद कचेरेंत भीतर सरलो.

"आरे, तूं प्रेजीडेंट जाला?" ताचोच एकलो वळखिचो सांतियाग प्रेजीडेंटाच्या कदेलार बसून आसा तें पळोवन अजाप जावन मेवरीकान विचारलें.

"हय, हालींच आमची वेंचणूक जाल्या." ताणें सांगलें.

"म्हाका सांग, आमच्या वाड्यावयलो तो एकूच उक्तो लुगार आसलो आनी ताचेर सगळे ल्हान-ल्हान भुरगे खेळटाले ताचो तुमी विचार करूंक ना?"

"ह्या आधुनीक काळार, आमी प्रगती विशीं चितूंक जाय मेवरीक, लुगार उक्तो दवरून कितें फायदो आसा? म्हण एक बरो प्रकल्प उबारपा खातीर आमी तो लुगार मोर्तू भाटकाराक दिलो."

"हो प्रकल्प कोणाच्या फायद्याचो?"

"तुमच्या वाड्यांतल्या लोकांक थंय नोकरी मेळटली. कोणाक कचेरी घालूंक जाय जाल्यार लुगार मेळटलो. आनी दुसरें म्हणल्यार त्या उक्त्या लुगाराचेर सगळी घाण जावन किमसां जातात तीं ना जातलीं."

"बरें आसा." मेवरीकाक समजलें ताचेकडेन उलोवन फायदो ना म्हण! तो भायर सरलो. आपली स्कुटर घेतली आनी सरळ आदल्या प्रेजीडेंटा फुड्यांत गेलो. तो इंग्लेज मिसाक थावन तेन्नाच घरांत भीतर सरिल्लो.

"मिरांदबाब, इल्लो वेळ घेवंक सोदतालों तुजो."

"यो रे यो. बस." मिरांदान ताका बसूंक कदेल दिलें.

"आमच्या वाड्यावयल्या त्या उक्त्या लुगाराक लागून काल मात्सो वाद जालो. तो मोर्तू भाटकार आमच्या मांडार वर्सावळीचो गणपती दवरूंक दिना जालो. कितें भानगड ही?"

"हो मोर्तु भाटकार फाटलीं दोन वर्सां आमचे फाटीक लागिल्लो तो लुगार आपणाक दी म्हण. तुमच्या वाड्यांतलो तो एकूच उक्तो लुगार आसा म्हण आमी ताका तो दिवंक ना. पूण कांय दीस आदीं म्हजी बदली जाली. आनी म्हाका खबर ना सांतियागान आपल्या वांगड्यांच्या कशें कानांत घालें तें. पूण हांव तुका एकच सांगूंक शकतां तो प्रेजिडेंट

जावपाक ताणें कांय वांगड्यांक विकते घेतल्यात.''

''आनी ते पयशे हो लुगार विकून ताणें परतून जोडल्यात दिसता!''

''तें हांव कांय सांगूंक शकना.''

''देव बरें करूं मिरांदबाब.'' मेवरीक थंयच्यान भाजर सरलो. घरा येतना ताका जाण्टो नरसींव मेळ्ळो.

''कालच्या प्रकरणाक लागून तुका कोणें त्रास करूंक नांत मरे बाबा?'' नरसींवान विचारलें.

''ना अंकल. पूण त्या लुगाराचें बरेंच मोठें प्रकरण जालां अशें दिसता. आमी कितें तरी करचें पडटलें. ना जाल्यार खरेंच तो लुगार आमच्या हातांतल्यान वेतलो.''

''आमच्यान आनीक कितें करूंक जातलें? आमदाराक मेळून पळोवया?''

''तूं येता जाल्यार चल आतांच या. ह्या वेळार आसता तो घराकडेन.''

''चल तर.''

रोकडेच ते आमदाराल्या घराकडेन पावले. आमदारान तांकां आयकून घेतले.

''तुमी जर सगळे एकवटान आसात जाल्यार हांव तुमचे बराबर आसां. मोर्तू भाटकार म्हजे फुड्यांत आयिल्लो पूण हांवें ताका कांयच सांगूंक ना. पूण म्हाका दिसता एका वाड्यांत एक तरी उक्तो लुगार भुरग्यां खातीर आसूंक जाय म्हण!''

''मागीर वाड्यावयल्या सगळ्या लोकांची आमी एक बसका थारायतात आनी तुमकां कळयतात. येतात न्हय तुमी मात्शे?''

''हय. म्हाका कळयात.''

''उरतलो न्हय तो लुगार आमचे खातीर आमदारबाब? त्या लुगारा परस त्या मांडाचें चड पडून गेलां आमकां. आमच्या पुर्वजांनी देव पुजलो थंय. एका काळार गणपती थंयच पुजतले. आतांच्या भुरग्यांक ताचें म्हत्व कळना पूण आमी तरी...'' नरसींव गुणगुणलो.

''कांयच भियेनाकात. तुमी एकवटान आसूंक जाय हें म्हत्वाचें.''

आमदाराचे उपकार आठोवन ते भायर सरले. एक नवो आदार मेळिल्ल्याची तांका खुशालकाय भोगली.

वाड्यावयल्या लोकांची बसका थारोवपाक मेवरीकान यत्न सुरू केले. तरी कोणूच खुशाल मनान तयारी दाखयना जाले. थोड्या दिसांनी मोर्तू भाटकारान बांदकामाचें सामान घालूंक सुरवात केली. तेन्ना मात जायत्या जाणांचे दोळे उगडले. जायते जाण एकामेकाकडेन भासाभास करूंक लागले. तेन्नाच तांका थावें जालें मेवरीक सांगतालो ती बसका घेवपाची गरज आसा म्हण!

सगळ्यांनी एक दीस थारोवन बसका आयोजीत केली. आमदार आयलो. सगळ्यांनी आपले विचार मांडले आनी मोर्तू भाटकारान बांदकामाचें सामान हाडून घालां म्हण ताणीं हुस्को प्रगटायलो. भाटकारान एक वटेन बुनयादूय मारूंक सुरवात केल्ली.

''तुमचें सगळ्यांचें आयकले उपरांत म्हाका दिसता मोर्तूच्या बांदकामाचेर 'स्टेय' हाडची पडटली. रक्त वारोवन हो तंटो सुटचो ना. ताच्या दुडवां नेटार प्रशासन पासून घडये ताच्या फावराक रावत. तुमकां हांव एक वकील दितां. तुमी फाल्यांच वचून ताका मेळात आनी तुमचे कडेन जे जे पुरावे आसात, ते ताका दाखयात. इतलीं वर्सां मांडार तुमी कसली ना कसली कार्यावळ घडोवन हाडटाले, गणपती पुजन, खेळां सर्ती, नातालांच्यो कार्यावळ आदी. हांचे तुमचे कडेन फोटू आसतलेच. ते दाखयात. दोग-तीग जाण्ट्यांक व्हरून ताचे मुखार उबे करात. तो तुमकां जेरूल आदार करतलो. गरज जाल्यार हांवूय ताचेकडेन उलयतां.'' आमदारान तांका पूर्ण पाठींबो दाखयलो.

आमदाराच्या म्हणण्या प्रमाणें दुसऱ्या दिसाक सकाळींच ते वकिलाक मेळ्ळे. आमदारान ताका कल्पना दिल्ली. पुराव्याच्या रुपान आपणाकडेन आशिल्लें तें ताका दाखयलें. आनी तें सगळें ताचेच कडेन दवरलें. तीग जाण्टेल्यांनी आपली जबानी दिली. वकिलान आपल्या सहकाऱ्याच्या आदारान कागदां तयार केलीं आनी मोर्तू भाटकारान उक्त्या लुगाराचेर बेकायदेशीर बांदकाम सुरू केलां ताका 'स्टेय' दिवंक कोर्टांत मागणी केली. जुईजान सगळ्यो बाजू पळयल्यो आनी मोर्तू भाटकाराक ताबडतोब काम बंद दवरपाक हुकूम काडलो आनी ताचें कितें म्हणणें आसा तें मांडूक कोर्टांत आपोवणें धाडलें.

मोर्तू भाटकाराल्या कामाचेर 'स्टेय' हाडली म्हण वाड्यांत खुशालकाय पसरली. कोर्टांत केस सुरू जाली. मोर्तू भाटकाराक त्या लुगाराचेर कसलेंच काम करूंक बंदी घाली. तो जुईज बरो समजीक आसलो. ताणें लोकांचो मुद्दो समजून घेतलो आनी कोमुनीदादीच्या मनशांक कोर्टांत आपोवन व्हेले. आदल्या प्रेजीडेंटाक आनी आतांच्या प्रेजीडेंटाकय आपोवन व्हेले. तांची जबानी नोंद केली. प्रशासनाच्या एका जबाबदार अधिकाऱ्याच्या रुपान ताणें केस हाताळ्ळी. कोमुनीदादीचो येदो व्हडलो लुगार एका मनशाक दिवंक जायना आनीक तोवूय जाल्यार भुरग्यांक खेळूंक राखून दवरिल्लो लुगार म्हण सांगून मोर्तू भाटकारान कोमुनीदादीकडेन केल्लो करार रद्द थारयलो. पुराय गांव ह्या वाड्यावेल्या लोकांच्या एकवटाची तुस्त करूंक लागले.

तेन्ना म्हणल्यार नातालांच्या उत्सवाचे दीस लागीं पावले. सगळ्या हिंदू आनी क्रिस्तांवांनी एकठांय येवन सगळ्या गांवां खातीर मांडाचेर नातालांच्यो कार्यावळी घडोवन हाडल्यो.

''हो मांड म्हणल्यार आमचें दायज. ताची आमी राखण करूंक जाय.'' असो नातालांच्या कार्यावळीच्या पयल्या दिसा सगळ्यांनी उबें रावन सोपूत घेतलो आनी त्याच उतरांचो एक व्हडलो बॅनर येता वतल्यांची नदर पड सारको माटवाकडेन लायलो.

■ ■ ■



- अपर्णा गारुडी
शिव्रोली, गोंय
फोन : ९८२३०९८२५४



# ओंकार स्वरुपा

*ओंकार स्वरुपा, सद्‌गुरू समर्था*
*अनाथांच्या नाथा, तुज नमो, तुज नमो...*

हें पद आमी सदांच आयकतात. ओंकार स्वरूप, गौरीनंदन, गजवदन, अनाथांचो नाथ, इतलेंच न्हय तर चिंतामणी, मोरेश्वर, सिध्दीविनायक, महागणपती, गिरिजात्मज, विघ्नेश्वर, बल्लाळेश्वर, वरद विनायक, अशा अश्ट नांवाचो आनी अश्ट दिशांचो स्वामी, चौदा विद्या आनी चौसश्ट कलांचो अधिपति, बुध्दिदाता, आनंद सागर, त्रैलोक्याचो आदार, स्वयंप्रकाशित सद्‌गुरू समर्थ अशा अगणित स्वरुपांच्या अनाथांच्या नाथाक वंदन करूनूच खंयच्याय बऱ्या कामाची सुरवात जाता. ह्या विघ्नहर्त्याक अग्रपुजेचो मान मेळटा. देखूनच खंयच्याय कार्याची सुरवात करतना आमी -

*वक्रतुंड महाकाय सुर्यकोटी समप्रभ*
*निर्विघ्नं कुरूमे देवो शुभ कार्येशु सर्वदा*

अशें म्हणटात. सगल्या सिध्दींचीं फळां दिवपी, अज्ञानाचें आवरण पयस करून, भ्रम नश्ट करपी, मूर्तिमंत ज्ञानी असो हो ओंकार स्वरूप गणपति. ताच्या कृपेच्या सामर्थ्यान भ्रम आनी अज्ञान पयसावता. ताची कृपा जाली काय संकश्टां भयान कांपूंक लागतात आनी ताच्या नामस्मरणान सगल्यो बाधा नश्ट जातात. देखुनूच गजाननाक विघ्नहर अशें म्हणटात. श्री गणेशाच्या रूपचिंतनान अज्ञानान भ्रमीत जाल्ल्या मनशाचे बुध्दीत ज्ञानाचो प्रकाश पडटा. ताच्या गुणांचें वर्णन आयकल्यार सरस्वती प्रसन्न जाता. अशा ह्या गणरायाचें दरेका घरांत आगमन म्हळ्यार चवथ. गोंयकारांखातीर तर ही सगल्यांत व्हडली परब. हे दिसा पयस पयस गेल्ले सोयरे आपल्या गांवघरा परततात. सगलें कुटुंब एकठांय येता. चवथीचे दीस म्हळ्यार उमेदीचे आनी खोशयेचे दीस. चवथ म्हळ्यार दर एकल्याखातीर वेगळी तयारी. भुरग्यांची चवथ म्हळ्यार गणपती हाडपाक वचपा पासून पावपामेरेन गावप, नाचप, फोग, सुरसुरीं, बाण आनी रसणाय. तरणाट्यांखातीर इश्टांवांगडा गणपती पळोवपाक भोंवप, वाड्यार घुमट कासाळें घेवन घराघरांनी आरती करपाक भोंवप. मजा करप. तर जाण्ट्यां खातीर पुजा करप. इश्ट-सोयऱ्यां वांगडा गजाली करप, भजनां करप. पूण सगल्यांत व्हडली चवथ ती बायलांचीच. पांच दिसांच्या गणपतीक पांच दीस तरतरांचीं जेवणां रांदपाचो आनी जेवपाचो खेरीत अणभव. नेवऱ्यो, मोदक, लाडू, पांचखाजी, पातोळ्यो, पायस, खीर, शेवयो, दोणे, गोड पोळे, आंबाड्यांचें सांसव, आळूचें फतफतें, मुगांच्यो गांठी, खतखतें, अळसांद्याचें तोंडाक, चण्याचो रोस, वडे, पुरयो, निरपणसाचीं, केळींचीं, बटाटाचीं कापां, सोलकडी, तिवळ, सवराक, पांच पाल्यांच्यो भाज्यो, आटवल, वरण, मणगणें अशीं तरातरांचीं पक्वान्नां तर गणपती पावपाच्या दिसा पंचखाद आनी काजूचे लाडू अशें जाय तें फकत चवथीकडे रांदपाचो योग येता. चवथीची उमेदूच इतली आसता की हरशी एक वळें कातपाक वाज येता पूण गणपती पावपाच्या दिसा वाड्यार वांटपाक पंचवीस नाल्लांची पंचखाद करपाखातीर इतले नाल्ल हांव सहज कातता. पुरो जायना. चवथीकडेन रांदपाक म्हाका आवडटाच पूण गणपती मुखार देखावो करपाकच म्हजो चडसो वेळ वता. देखाव्याच्या निमतान आमचे भितरली सृजनशीलताय वाडटा. टाळांच्या गजरान आनी घुमटाच्या वाजपान वातवरण खोशयेन भरता. लाऊड स्पिकराक तर सुशेग नासता.

तू सुखकर्ता.... देवा तुझ्या दारी आलो... गजानना श्री गणराया... ओंकार स्वरूपा... अशा तरतरांच्या गीतांनीं वातावरण मंगलमय जाता.

पूण कांय गितां हीं खाशेलीं गितां. जीं गणपती हाडटना म्हणटात.

***नाचत आले गणपति, खेळत आले गणपति***
***आनंद राधे खेळत आले गणपति***

भुरगेपणांत हांवें पुण्यांतले सार्वजनिक गणपती खूब पळयले. दगडूशेट हलवाईचो गणपती तर सामको फामाद. थंय जावपी सांस्कृतीक कार्यावळी पळयत म्हज्या भुरगेंपणातलीं कांय वर्सां गेलीं. आमगेर इकरा दिसांचो गणपती आसतालो. म्हज्या काकाक गणपतीचीं कितलींच पदां येतालीं. एक ताचें खाशेलें पद आशिल्लें तें म्हळ्यार.

***गणरायाची स्वारी, आली इंद्रदरबारी***
***उंदरावरूनी पाय घसरला, चंद्र हासला भारी***
***चंद्राला या शाप दिला, तुझे तोंड पहाणार नाही***
***कुणी गणेशचतुर्थीला, बाप्पा मोरया रे...***

भुरगेपणान प्रस्न पडटालो, येदो गणपती येद्याश्या हुंदराचेर बसलोच कसो? आनी दुसरो पडटकच हांसप हो स्वभाव मनशाचो. तो चंद्राक खंयच्यान आयलो? देव सगल्यांचें बरेंच करता हो म्हजो विश्वास. मागीर गणपती तर देवांचो देव, ताणें चंद्राक स्त्राप कित्याक दिंवचो? बरें एक दीस लोकांनी चंद्राक पळयलें ना म्हूण ताका कितें फरक पडटा? अशे असंख्य प्रस्न तेन्ना मनांत येताले आनी दिसतालें. ही कथा आनी ताचे वयलें गीत. बरयतना रचनाकार खंयतरी चुकल्यात. तें आसूं!

गणपती हो सगल्यांचो रक्षक. तो शिराप दिवप शक्य ना. देव मनशाचें बरेंच करता आनी जें वायट घडटा तें मनीस आपल्या कर्मान घडयता. देखूनच आमी कितें करपाक शकतात आनी शकनात? कितें योग्य आनी अयोग्य इतलेंच समजुपाची तांक त्या देवाकडेन मागची.

गणपतीचेर हांवें खूब गीतां बरयलीं. चडशीं दूरदर्शनाचेर सादर जाल्यांत. 'सांज सुरांची' 'स्वरसंध्या' ह्या संगीत कार्यावळींनी हीं गितां सादर जाल्यांत.

चवथीक बायलां गणपती मुखार फुगडी घालतात तेन्ना एक वेगळेंच वातावरण तयार जाता. आमगेर चवथीक फुगडी घालतात ती म्हळ्यार –

१.

***मालवण समुद्रात किल्ला शिवाजी आत कसा शिरला***
***लाटा येती भयंकर, किल्ला दिसे मनोहर...***
***मी बाई कोकणचा बाळ, माझा दर्यावरी खेळ***
***मार्गी हळुहळू चाला मुखाने गजानन बोला...***

२.

***श्री गणेशा, महादेवा, तुजी गवर जाते माहेरा***
***जाता जाल्यार जाऊ दे तिला***
***कपाळभर टीळा लाऊ दे...***

ह्यो दोन फुगड्यो म्हाका आवडटात. गणेशाचें आगमन म्हळ्यार मनरिजवणीची बरसात.

खरें म्हळ्यार गणपती ही बुध्दिदेवता. तिची आराधना म्हळ्यार ज्ञानाची आराधना. गजानन म्हळ्यार देवांचो देव. ह्या देवाक आमी देहांत म्हळ्यार काळजांत प्रस्थापीत केलो जाल्यार सगल्यो समस्या सुट्टल्यो. जीण उजवाडान आनी गिन्यानान भरतली. संकश्टां पयसावतलीं. संत तुकाराम म्हणटात, देव खंयचोय आसूं ताका आमी देवळांत सोदचो न्हय तर देहमंदिरांत ताची प्रतिष्ठापना करची. म्हणचें देवाक सोदपाक तिर्थस्थानां भोंवचीं पडनात. एका अभंगांत ते म्हणटात.

***देह देवाचे मंदिर, आत आत्माराम परमेश्वर***
***जशी ऊसांत हो साखर तसा देहात हो ईश्वर***
***जसे दुधामध्ये लोणी तसा, देही चक्रपाणि***
***देव देहात देहात काहो जाता देवळांत***
***तुका सांगे मूढ जना। देव देही का पाहिना***

देखूनच देवाक देवळांत मेळपाक वचचे पयलीं चवथीक देवूच घरा येता. सगल्यांच्या काळजांत रावता.

देह हेंच देऊळ चित्त हेंच ब्रम्ह म्हूण दर एकल्यान स्वताभितरलो परमेश्वर सोदचो. अशें संत तुकाराम म्हणटात.

मराठी आनी कोंकणी काव्याक जाणी अज्रंवर केलें जाणी काव्याचो सर्वोच्च आविश्कार संवसाराक भेटयलो, जांच्या लिखणेंतल्यान एकापरस एक सर्वश्रेश्ठ गितां जल्मल्लीं ते कविवर्य बाकीबाब बोरकार म्हळ्यार सरस्वतीची सर्वश्रेश्ठ निर्मिती. ताणी जीणेकडेन पळोवपाचो मनशाचो दिश्टीकोणूच बदलून उडयलो. मनशाची बुध्दी लौकिक सुखां आनी सुवार्थ हातूंतच बुडिल्ली आसता तरी एका अध्यात्मिक उंचायेर वचून जीणेक सहजतायेन स्विकारची. मनांत कसलोच सुवार्थ वा पुर्वग्रह दवरिनासतना जीण गंगाजळावरी पवित्र करचीं हें सांगतना बाकीबाब म्हणटात.

*नाही पुण्याची मोजणी नाही पापाची टोचणी*
*जीणे गंगौघाचे पाणी जीणे गंगौघाचे पाणी*

श्रध्दा आनी भक्तिची सर्वोच्च भावना व्यक्त करतना ते म्हणटात,

*"पुजेतल्या पानांफुलां मृत्यू सर्वांग सोहळा*
*धन्य निर्माल्याची कळा धन्य निर्माल्याची कळा"*

भक्तिरसाची उत्कृश्ट देख दिवपी ह्यो सुंदर अर्थपूर्ण वळी फकत बाकी बाबूच बरोवंक शकतात. देवाच्या दारार उबें रावन आत्मरूपी भगवंताचें दर्शन घडयतात तांका संत म्हणटात. पूण चवथीक तर देवूच आमच्या घरांत येता. ताची देहमंदिरांत स्थापना करपाची संद आमी कित्याक वगडावची? तर दिवया न्हय येवकार ह्या आनंद स्वरुपी ज्ञानसागराक?

■■■



- रुपा कोसंबे
शिंदोळी,सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०



# हुस्को

*"भुरग्यांक तातुंतलें कितें कळटा? तांका फोग मारपाक तितले मायज दीस मेळटले. भुरग्यांनी केल्ल्यो आंगवण्यो पाळयो जाल्यार भुरगीं मागीर वर्सान वर्स गणपती दवरया म्हण आंगवण करतलीं. कितें, भुरग्यांची मळणी खंय, बी ना भात!" मावशीबाय फणफणली.*

"**आ**जे, अंदू आमगेर पांच दीस गणपती दवरया गे. आमगेर पांच दीस गणपती केन्नाच दवरलोना!"

विभा काकुळटेक आयलें.

"हय, म्हजी इश्टीण रीनागेरय बी अंदू खंय पांच दीस."

"तसो बेठोच गणपती पांच दीस दवरिनात आं! अनवाळपण आसता ताका."

आज्जेन विभाचें आनी विनिताचें म्हणणें खोडून काडलें.

तशें विनिता परत पिरपिरपाक लागलें.

"तुमी सदांच तशींच! हांगा वाड्यार पळयात, तीसालान गणपती दवरतात. म्हज्या वर्गांतलीं म्हाका वर्सानवर्स विचारतात. कितले दीस गणपती काय म्हण? आनी देड दीस म्हण सांगतगीर सदांच हांसतात. ना अंदू आमी गणपती दवरयाच."

"आगो बेठोच तसो गणपती दवरूंक मेळना. आंगवण आसल्यारच दवरपाचो" आज्जेन सांगलें.

विभा विनीताक दोळे मोडून म्हणपाक लागलें, "जाणा मगे आई, पोरूं मम्मी हॉस्पिटलांत आशिल्ली तेन्ना हांवें गणपतीक सांगून घेतिल्लें, मम्मीक बरी केल्यार पांच दीस दवरून घेतां म्हण!"

"वगीच कित्याय कितें उलोवनाका आं, भुरग्यांनी तशी आंगवण बी करूंक जायना." इतलो वेळ वगीच रावन आयकतले मम्मीन तोंड घालें आनी विभा-विनीताचें तोंड येदेशें जालें. "बरें बरें पळोवया. व्हनीबायक विचारून मागीर कितें तें ठरोवया" आज्जेन सांगलें आनी सगळीं ओगीच रावलीं

भुरग्यांची उमेद पळोवन नाय म्हळ्यार आज्जेक गणपती दवरपाचें मनांत आयिल्लें. पूण चार घरांचो गणपती आनी तातूंत ताणीं आतां राशीच्या घरांतल्यान लागसारच दुसरें घर बांदून तातूंत स्थलांतर केल्लें. हरशींच चार जाणांच्यो चार रान्नी आसल्यो. घरांतच आसल्यार एक वेगळें जाता. पूण भुरग्यांनी सांगून घेतलां खंय गणपती दवरतां म्हण! भुरग्यांच्या मनांत वचून गणपतीनच रावपाची इत्सा दाखयलीना मूं?' आज्जेचें मन थतरवितर जातालें. वयनीक विचारून पळोयया कितें म्हणटा ती. असो विचार करून ती रोखडीच भुरग्यांक घेवन आपल्या पोरण्या घराकडेन गेली. मावशीबाय भायर नेवऱ्यांखातीर सोय सुकत घालताली ती आज्जेक आनी नातरांक पळोवन तुरतुरीत आयली. व्हनीबाय भितर

काजुबियांचो भाजिल्लो घेऽ म्हूण ढीग घेवन बियो फोडपाक बशिल्ली. एकमेकांची वासपूस जातगीर आज्जेन हळूच विशय काडलो.

''अंदू गणपती दवरया म्हणटालीं भुरगीं. पोरूं आवय बरी नाशिल्ली तेन्ना आंगयिल्लें खंय ताणी.''

''भुरग्यांक तातुंतलें कितें कळटा? तांका फोग मारपाक तितले मायज दीस मेळटले. भुरग्यांनी केल्ल्यो आंगवण्यो पाळ्ळ्यो जाल्यार भुरगीं मागीर वर्सान वर्स गणपती दवरया म्हण आंगवण करतलीं. कितें, भुरग्यांची मळणी खंय, बी ना भात!'' मावशीबाय फणफणली.

व्हनीबाय सामकी देवभीरू. देवाकडचें, रांदपांचें काम सगळें तिजेंच. बाकीचीं सगळीं आयत्यावेळार येवन तिका कातपा-शिनपाक मजत करतालीं तितलींच. व्हनीबाय आठ दीस पयलींच वावराक लागताली. देवाचीं आयदनां काडून धुवन पुसून दवर, वाती वळ, देवाखातीर वस्त्रां कर, देवकूड निवळ कर, सगळ्या घराक शेण सारय. पूण उमेदीन करताली. केन्नाच पिरंगणी ना. अंदू मात तिची प्रकृती हालिल्ली. दोतोरालीं वखदां आनी श्रावणांतले उपास. खूब अशक्तपणा आयिल्लो तरी पुसून म्हणपाक लागली, ''रावता जाल्यार रावूं दी गे गणपतीक. खूब वर्सां जालीं गणपती दवरल्यार. भुरग्यांकय म्हण उमेद आसताच न्ही. सगळीं मेळून करुया गणपतीची सेवा आनी गणपती कितें खाता? सगळें करतात तीं आमी मनशांच खातात. देवा म्हऱ्यांत पेटता तो फकत दिवो. आसूं, जावं दी भुरग्यांच्या मनासारकें. वयल्यान, गणपती आसल्यार नुस्त्याचो खर्च तितलो वाचतलो.'' तिणें नुस्त्याचें नांव काडिनाफुडें इतलो वेळ तिडकीन आयकताली मावशीबाय उलयली, ''हय तुका नाका न्ही गे नुस्तें?'' म्हणून रागारागान थंयची उठून गेली.

मावशीबायक नुस्त्या बगर उंडी वचना. तयेचो दीस आनी चवथीचो देड दीस नुस्तें खायनासतना रावपाक चुकना म्हण ती जाणा. हरशींय म्हण देवाकडेन तिचो वावर कमीच. हें नजो तें नजो म्हण आपल्या घरांतच बसून रावप. फकत आरत्यां वेळार तोंड दाखोवप. शीत जेवनासतना पूण बाकीचें सगळें खावन-पिवन केल्लो तयेचो उपास तिका माल पडटा. मागीर चवथी दिसाक सगळें गरगरता, पित्त जाता, तकली उसळटा. परवत मागीर चवथीचो दीस वता. पूण पंचमी दिसाक मात ती बरी उमेदीन आसता. गणपती पळोवपाक वर्सासनाचें ज्यॉनी, रिंकू येतात. मागीर तांचेकडेन भायर बसून घे खबरो. खबरो कसल्यो तर फकत नुस्त्याच्यो. ''ज्यॉनी, ह्या दिसांक तुमचो चान्स न्हू रे, कोंकणे कोण नुस्तें खायनात. नुस्तें सवाय आसतलें ह्या दिसांनी न्हू रे? कसलें कसलें नुस्तें येता रे बाजारांत?'' जणू काय नुस्तें पळोवन म्हयनोभर जाल्ले भशेन मावशीबाय रुची काडत तांकां विचारता. ते काचाबूल जावन म्हणटात, ''कितें गे भाटकान्नी. कितें उलयता तूं? पडवेर गणेस बसला मगे तुमच्या? आनी तूं हिंगा निस्त्याच्यो खबरी उलयता?'' तेच बाबडे पोले फोडून घेतात.

''ना रे बाबा, सांजेचें नुस्तें हाडपाक जाय न्हू, नाजाल्यार म्हाका गांठ जाता.''

ते बाबडे एकामेकाक पळोवन हांसतात.

''म्हळ्यार तुमी नुस्तें खावं जाता तर गे आज?''

तेन्ना मावशीबाय उमेदीन तांका म्हायती दिता.

''आमगेर तशी पध्दतच आसा, पंचमी दीस नुस्तें खावपाकच जाय, नाजाल्यार मागीर पाच दीस नुस्तें खावपाक जायना.''

''आनी नुस्तें हाडलेंना जाल्यार?'' रिकू मुद्दाम विचारता.

''हाडलेंना जाल्यार खारें पूण रान्नीत, उडोवंक जाय. पुर्वापार चलत आयिल्लीच रीत ती.''

अजाप जावन ज्यॉनी आनी रिकु घरचे वाटेक लागतात. पंचमिची सांज जावंक येता तसो मावशीबायचेर बोवाळ पडटा. मागीर ती घोवाकडेन पिशवी दिवन बाजारांत धाडटा. घोव मागीर काळोख पडलो तसो बाजारांत वचून येवन नुस्त्याची पिशवी फाटल्या दाराक हुमकळयता. हेवटेन भुरग्यांच्या आरत्या-भजनांक रंग चडटा, फोग सोपोवपाचो बोवाळ पडटा. आनी सांगणें बी करून जालें तशें गणपतीचें विसर्जन करचेखातीर सगळीं गणपती घेवन बांयचेर वचपाक वतात. मावशीबाय गणपती पावोवपाक केन्नाच वचना. रातचें तिका पायांकडेन बरें झळकना. ओगी पडली-बिडली जाल्यार?

ते परस ती फाटल्या दारांत वता. पिशवेंत कितें आसा तें पळयता आनी त्या प्रमाणे वाटप काडून वाट्टा. नुस्त्याक मोक्ष दिता आनी गणपती पावोवन मंडळी घरा येतासर एके शेगडेर हुमण खतखतता आनी दुसरे शेगडेर तळपाचो आवाज येता. घरांत येतल्या मनशांनी व्हडलो श्वास भितर घेतलो म्हणटगीर मावशीबायक धन्य धन्य दिसता. मागीर व्हडलें एक कार्य पार पाडिल्ल्याच्या आनंदांत ती घरभर बोवाळटा. सगळ्यांची जीब तृप्त करता. गांठी पासून सगळ्यांची मुक्ताय करता.

अंदू गणपती दवरलो जाल्यार तितलीच गणपतीची दोन तीन दीस चड सेवा करूंक मेळटली म्हण व्हनीबाय खूश आसा. तितलीच पंचमी दीस सगळ्यांची सेवा करपाचें काम खंडीत उरतलें म्हण मावशीबाय चरफडटा, आंगवणेचें बंडल आज्जेकडेन खपलें म्हण भुरगीं खूश आसात. गणपती दवरलो जाल्यार लीवेचें कितें करपाचें काय म्हण भुरग्यांची मम्मी चिंतूंक पडल्या.

''आतां तुका कितें मनाक येता तशें कर रे बाबा.'' म्हण आजी गणपतीक सदांच साकडें घालता.

पळोवया कितें जाता तें!

■ ■ ■



- आशा शानभाग
सादोळशें-काणकोण- गोंय
मो. : ९४०४१४५३३७

# फटींग-फटींग



*हात-पायां वांगडा उलोवपाची शक्त वगडावन बशिल्ल्या मुथय्याच्या दोळ्यांतल्यान दुकांची धार व्हांवताली. पिटपिटपी पातकड्यो दुकां थारावंक अपेशी थारताल्यो. दनपरां नर्सी फाटल्यान जेवणाचो गाडो धुकलीत जयम्मा आयलें. दारांतल्यान पळेल्यार मुथय्याचे लुंड दाराकडेनच रोखून पळेताले. ताची ती नदर पळोवन जयम्मा मनांतल्या-मनांत घुस्मटलें.*

**बि**ल्डींगेच्या पांचव्या माळ्यावयल्या निमण्या सोपणांचेर चांटी दवरतना जयम्मान व्हडलो उस्कारो सोडलो. हय निमण्या माळयेवेळें जावं पूण तें ताच्या हक्काच्या घरा सामकार पाविल्लें. चोवन दार उगडतकीर भितर तांचेंच साम्राज्य. तांचें म्हळ्यार ताचें आनी ताचे एकसुरे धुवेचें, सोनीचें. होडविकेन ताणें दार उक्तें केलें. त्या वनरूम किचनाचे ताच्या घरचे वण्टीर लायिल्ल्या घोवाच्या हार घाल्ल्या फोटया सामकार तें खिणभर उबें रावलें. फोटवांतल्या मुथय्याच्या मुखामळार हात फिरयतनां जयम्माचीं दुकां दोळ्यांतल्यान व्हावलींच. ''मुथु, तुज्या भरवंशाचेर तामिळनाडु सोडून हांगा मुंबय शारांत आयलें. तुज्या मोगाच्या विस्वासार हांगचे झोपडपट्टींतय सर्गसूख अणभवलें. आमच्या मोगाची खूण म्हजे कुर्डीत रोवन तूं मात आमकां ऊकाशी करून गेलो. तुज्या मरणाची किंमत म्हणून मेळिल्ले शिर्विशेच्या पयल्या पगारांतली पयली खरेदी म्हळ्यार हो हार.'' अशें म्हणून परमळीत फुलांचो एक हार त्या फोट्याक घालो.

नेण्टें जयम्मा दुकां व्हांवयत फोट्याचेर हात भोंवडायतालें. 'अम्मा' सोनीचो उलो आयलो. आवयच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवपी दुकांनी सोनी ऊमगलें अम्माक अप्पाची खूब याद येता.

''अम्मा, अप्पाची याद आयली गे? म्हाकाय येता. हांवें तर म्हजे अप्पाक पळेला तोच ह्या फोटवांत.'' धुवेचीं उतरां आयकून जयम्मा सांवरलें. तेंच अम्मा आनी अप्पाचोय रोल धुवेखातीर जगतालें.

''बाय जे देवाक आवडटात. तांकां देव आपलेसरीं आपयता. तुजो अप्पाय तसोच. सगल्यांकच आवडटालो. घडये देवाकय तोच आवडलो. आनी ताणें ताका आफयलो. आमचेर अन्याय जातलो अशें देवान चितलें ना. कारण ताका अन्यायाची जाप विचारतलो कोणच ना न्ही?'' जयम्मा उलयलें. धुवेक समादान दिवपाक तें कितेंतरी उलयतालें. पूण ताका याद जातालो तो.. तो दीस.

सदचेवरी जयम्मा धारावींतले एके झोपडेंत आशिल्लें. जाता तितल्या घाणीमदी नितळसाण दवरपाचो ताचो यत्न चालूच आशिल्लो. मुथुय्या कामाक गेल्ल्यान दिसभर

झोपडेचें दार बंद करून स्वत:क थंय कोंडून घेंवनच तें जगतालें. केन्नाकेन्नाय ताका गांवचो नितळ, सर्गीक सैम येवजतालो. पूण मुथुल्या मोगा सामकार तें सगल्या हेर गजालींक किंकोत करतालें. अचकीत दनपारचेर हावेळ उठली की रेल्वेस्टेशनाचेर बॉम्बस्फोट आनी फारपेट जाल्या. जयम्माच्या आंगार कांटो शिरशिरलो. ''देवा, अय्यप्पा, मुथुक बरो करून घरा पावय.'' स म्हयन्याचें पोट घेवन जयम्मा भायर-भितर काडाओडी काडत रावलें. तिनसांज जाली तरी मुथु आयलोना. ताचो आवरो उडलो. कसोय तरी धीर करून ताणें एके झोपडेचें दार गडगडायलें.

''कौन है?''

''मैंईच हुँ जयम्मा.''

''रांड साली. याकुब की सारी कमाई के साथ उसे भी खा गई अब यहाँ क्या करने आई है रंडी?'' बडबडत कोणें तरी दार उगडलें. युनुसचाचा भरभरून दोन फुलोवपाचे तयारेन भायर सरलो. दारांत मुथुलें जयम्मा पळोवन तो निर्शेलो.

''माफ करना बेटा. आजा अंदर आजा.''

''चाचा, मुथु अब तक घर नहीं पहुचा. मुझे तो डर है की...''

''आरे बेटा डरना नहीं. मुथुको कुछ नही होयगा.''

दुसरे दिसा सकाळीं मात जयम्मा सामकेंच पोवशेलें. रातभर मुथु आयलो ना. 'अय्यो अय्यप्पा' म्हणून तें कळवळ्ळें. तरी धीर करून युनुसचाचाक घेवन तें हॉस्पीटलांनी दवरिल्ल्यो बॉडी पळोवपाक भायर सरलें. हॉस्पीटलांत ही गर्दी आशिल्ली. जांच्या वळखीच्यांचीं मडीं मेळिल्लीं ते बाबडे कोसळून रडटाले. जांकां कांयच सुलूस मेळनाशिल्ली ते बाबडे आशेर रावताले. घडये तांचो मनीस खंयतरी जितो आसतलो! थंय मेल्ल्यामदीं आनी रडतल्यांमदीं हिंदूय आशिल्ले आनी मोयरय आशिल्ले. चाचान एका दोतोराक मुथुचें वर्णन सांगतकीर ताणें दोगांयकय मड्यांचे कुडींत व्हेलीं. दाराआडच्या थंड हवेच्या झोतान जयम्मा कडकडलें. दोतोर दाखयतालो, त्या मड्यांक जयम्मा पळोवन ना अशी तकली हालयतालें. अचकीत ताची नदर एके कुडी म्हऱ्यांतल्या तुटक्या हाताचेर पडली. त्या तुटक्या हाताच्या बोटांतली मुदी तें वळखलें. ते मुदयेचेर तमीळ भाशेंत बरयिल्लें मुथु-जया वळखून ताणें आकांत मांडलो. फकत मासांचो गुळो आशिल्ले मुथुचे कुडीक ताणें वेंग मारली. चाचान झोपडपट्टींतल्या हेरांचे मजतीन ती कूड पोतयेंत भरून वस्तेंत हाडली आनी तिचेर निमणे संस्कार केले. चार दिसांनी चाचानच मुथुल्या मरणाचो दाखलो जयम्माक हाडून दिलो.

सरकारी आनी बिगरसरकारी संस्थांचे मजतीन जयम्मा जगतालें. ताणें एके चलयेक जल्मय दिलो. अचकीत एक दीस पोश्टमनान एक सरकारी पत्र हाडून ताका दिलें. सरकाराकडच्यान बॉम्बस्फोटांत मेल्ल्यांच्या घरच्यांक मजत म्हणून धाडिल्लो एक चेक तातूंत आशिल्लो. एका समाजसेवी संस्थेन ताका थळाव्या हॉस्पीटलांत दाईची नोकरी मेळोवन दिली. आनी ताका हो ल्हानसो फ्लॅट घेवंक आर्थिक मजतय दिली. आतां जयम्मा आपल्या पांयार समर्थपणान उबें जालें.

दीस वताले, म्हयने वताले. वर्सांय गेलीं. नाना तरेच्या दुयेसांचे रोगी त्या हॉस्पीटलांत येताले. कांय आपल्या पांयांनी तर कांय बाकीच्यांच्या खांद्यावयल्यान पयस वताले. ताचो वावर सगले हॉस्पीटलभर चलतालो. एक दिसा जनरल वार्डांत ते जमीन पुसपाक गेल्लें. ताची नदर एक हात-पांय नाशिल्ल्या लुंड मनशाचेर पडली. ताचे फकत दोळे तितले बिटीबिटी हालताले. इतलीच त्या लुंडाची जितेपणाची खूण. जेन्ना तें जमीन पुसत त्या धडा म्हऱ्यांत पावलें तेन्ना ताका त्या चेऱ्याची वळख पटली शी दिसली. त्या निर्जीव चेऱ्याचेर मात्शें हांसु शें लिकलिकलें आनी तें लुंड आपली मान-तकली आनी हात-पांय नाशिल्लें धड जोरजोरान हालोवंक लागलें. ताच्या तोंडांतल्यान मात कांयच उतर फुटनाशिल्लें. जयम्मा साप्प भियेलें. दोन-चार खीण ताणें त्या लुंडाच्या चेऱ्याकडेन पळेलें. हय. वळख पटली. मुथुच तो. जयम्मान आपल्या हातान आपलें तोंड धापून आयिल्ली किळांच थांबयली. वळख दाखोवं काय नाका ह्या विचारांच्या झोपाळ्याचेर ताचें मन धोलतालें. हय काय ना? ह्या विचारांत आसतना ताचेमुखार चलयेचो फुडार, माथ्यावेल्या छपराचो आदार, मुथय्याच्या मरणाची किंमत म्हणून मेळिल्ली शिर्वीस, दुड्, मुथय्याचो मोग, मोगाचे खीण सगळें सगळें झळकलें आनी निमणो वेव्हारी न्हयकार जिखलो. थंडसाणेन उदकाची बालदी घेवन तें वॉर्डाभायर वचपाक लागलें. दारांतल्यान फाटीं वळून पळेल्यार त्या लुंडाची नदर ताचेरच रोखिल्ली. तें फटाफट भायर गेलें.

हात-पायां वांगडा उलोवपाची शक्त वगडावन बशिल्ल्या मुथय्याच्या दोळ्यांतल्यान दुकांची धार व्हांवताली. पिटपिटपी पातकड्यो दुकां थारावंक अपेशी थारताल्यो. दनपरां नर्सी फाटल्यान जेवणाचो गाडो धुकलीत जयम्मा आयलें. दारांतल्यान पळेल्यार मुथय्याचे लुंड दाराकडेनच रोखून पळेतालें. ताची ती नदर पळोवन जयम्मा मनांतल्या-मनांत घुस्मट्टालें. नर्स जेवणाचीं ताटां वाटत मुथय्यासरी पावली. तिणें ताट खाटीर दवरून मुथय्याक सारको करपाक हात लायलो आनी ती एकदम किंळचली.

''आवयस, हो तर केन्नाचो मरून गेला बाबडो.''

तिच्या ह्या उतरांनी जयम्मा थंयच फातर जावन पडलें. मुथुची ती नदर जयम्माचेर एकच आरोप करताली.

''फटींग तूं सामकें फटींग.''

■ ■ ■



## आमच्या देशांत

आमच्या देशांत...
जेन्ना घडटात दुर्घटना
तेन्ना सगळेच जागे जातात
एकदम सुरू जाता राजकारण
आनी बदलता दृश्टीकोण...!
विरोधीपक्ष वार करता
सत्ताधारी पक्षाचेर
मंत्री मागीर दितात राजिनामे
टि.व्ही.चेर - पेपरांचेर.. बातम्योच बातम्यो
सगळेच जातात दयेचे पुतळे...
जाहीर जाता मजत
पेपराचेर फोटो...
मागीर थोड्याच दिसांनी
उडिल्लो धुल्ल बसता सकल
सगळेच आपापल्या कामांक
गुल्ल जावन वतात
प्रत्येक वर्साक याद करतात
मेणवाती पेटोवन श्राध्द..!
दुर्घटना पिडितांची जोतीं मात्र
झरत आसतात
सरकारान जाहीर केल्ले मजतीचे
चेक हाडपाक
तेंच्या दुकांच्या पावसान
भिजत आसता माती खीण खीण
आमच्या देशांत...!

– उदय नाईक
नगर्शे-काणकोण, गोंय

## स्वातंत्र्य मेळ्ळें... पूण?

स्वातंत्र्य मेळ्ळें
ब्रिटीश तर पळ्ळे
पूण...
आतंकवादी जल्मला... तो हांगाच आसा
भ्रष्टाचार मातला... तो हांगाच आसा

स्वातंत्र्य मेळ्ळें
स्वराज्य तर मेळ्ळें
पूण...
म्हारगाय वाडली... ती वचना
बेरोजगारी वाडली... ती सरना

स्वातंत्र्य मेळ्ळें
लोकशाय तर मेळ्ळी
पूण...
लोकसंख्या वाडली... वाडतच आसा
बेमानी वाडली... वाडतच आसा

स्वातंत्र्य मेळ्ळें
ब्रिटिश तर पळ्ळे
इंग्लीश हांगाच आसा... ती वच्ची ना
गरिबी हांगाच आसा... ती वच्ची ना



– मेहंदी अनय नायक देसाय
१२वी कॉमर्स,
गोपालनगर,
पर्वरी - गोंय

## काजेच्या मळ्यांत

काजेच्या मळ्यांत
दोळे तुज्या दोळ्यांत
वोवळांचो सर
घालून गळ्यांत

सुरंगाचो सडो
मोगऱ्याचो पुडो
लाजरें पडबिंब
मोगाच्या तळ्यांत

दुकां व्हांवता
कांकणां उलयता
पेपाऱ्याचो सूर
मनाच्या व्हाळ्यांत

हात सुटना
उतर फुटना
दोगांयचो जीव
अन्नाड्या जाळ्यांत



– इंद्रजीत गणपत घुले
मंगळवेढा, सोलापूर
फोन : ९०२८८४७६२८



## दुकांचें महात्म्य

तूं तें बोडकें झाड शिंप
उदक ना जाल्यार बांय खण
बांय खणुनूय उदक मेळना जाल्यार
तूं तुज्या दुकांनीं तें शिंप
दुकां येना जाल्यार तूं एक काम कर
त्या झाडामुळांत बस
दोळे धाप
आनी तुज्यो सगळ्यो आदल्यो वायट यादी
आठयत चल
दुकां आपशींच,
दोळ्यांतल्यान देवपाक लागतलीं
त्या दुकांनीं तूं तें झाड शिंप
झाड रोकडेंच पाचवेंचार जातलें
चंवरतलें.... फुलतलें... फळतलें
तुज्या दुकांचो परमळ
धाय दिकेन फांकतलो
तुका तुज्या दुकांचें
महात्म्य आपशींच कळटलें



– आर. रामनाथ
एम–ओ–६,
गोवा हाऊजींग बोर्ड,
कुर्टी - फोंडा, गोंय.

## रानफूल

सगळ्यांचे नदरेंतल्यान पयस
खंयतरी रानांत
एका कोनशाक
परमळटा एक आगळेंच रानफूल
कोणूच लागीं ताच्या
वचपाक सोदिनांत
परमळांत ताच्या
कुसट्टाण भरशिल्ली आसा म्हूण

पोरसांतलीं हेर फुलांय
ताका हांसतात
जल्मापासून आशिल्ल्या
ताच्यां ह्या दोशाक लागून
हातूंत ताची बाबड्याची
चूक तरी कशी
देवान दिल्या ताका
जिणूच तशी!

दुख्ख ताकाय जाता
काळजाकय ताच्या किसरां तोपतात
हेर फुलांवरी आपूण
दुसऱ्याक खोस दिना म्हूण
ताकाय मन आसा
ताकाय काळीज आसा
ताचे भितरूय जीव आसा
हें कशे विसरतात
ती पोरसांतलीं फुलां म्हूण

फुलांनो एक पावट
ताचेकडेन मायेन वळून पळयात
ताचें दूख समजून घेयात
जाता जाल्यार तुमचो इल्लो परमळूय
ताचे जिणेंत ओतून पळयात

मागीर ताचो खोशयेन फुटिल्लो
हांसो पयसावतलो
जिणेक लागिल्लो दाग आपसूक
त्यावेळार फुट्टलो नवो चंवर
तुमच्या मोगाक लागून

– संतोषी कोले
राधा पार्क, ए.फ–१
बामण वाडो, शिवोले बार्देस, गोंय



- गुरूदास मधुसुदन शेणवी नावेलकार
ऑरेल, असोळणें,
साश्टी-गांय.



# सोयरिगत

**म्हा**का एक सोयरिगत आयली. हय. जेन्ना एखाद्रो त्रयस्त सोयरिगत घेवन येतालो तेन्नाची गजाल. ह्या त्रयस्ताक 'मदलो म्हालो' लेगीत म्हणटाले. पूण आपले भितर. ताच्या तोंडार न्हय. व्हंकले-न्हवऱ्याचें बरें जालें जाल्यार 'मदल्या म्हाल्याक' विसरले. नाजाल्यार सगळें पाप ताच्या बोडार! सोड. आतां चलयेच्यो सोयरिगती येवप म्हळ्यार एक तर ती सामकी शामळू ना जाल्यार अबरगत! आतांच्यो चलयो भायले-भायर जुळोवन घेतात आनी आपल्याल्या 'ताका' घरा हाडून आवय-बापाय म्हऱ्यांत उबो करतात. 'मम्मी-डॅडी, हो म्हजो घोव!' जालें! मम्मीची जागच्या जाग्यार 'मम्मी' आनी डॅडी जंयचे थंय डॅड!

म्हाका सोयरिगत आयिल्ली तेन्ना अशो गजाली खंयूय चुकून एक! अशा चलयांक आमी फॉव्हॉर्ड म्हणटाले. पूण त्यो लेगीत आपल्या 'मोगी'क घरा आपय नासल्यो. हळूच घरांतलो रंग-प्रसंग पळोवन आवय-बापायच्या कानार आपलें कर्तूब घालताल्यो. बापूय मागीर बारिकसाणेन खबर काडटालो आनी हय किंवा ना इतलेंच सांगतालो. हय म्हणलें जाल्यार आनंदी आनंद. आनी ना म्हणलें जाल्यार अपसरण. चली खंयतरी उजळय म्हणसर घरांत! मागीर तिणें जनेलांत बसून फिल्मीस्टायलीन म्हणप 'ओ मैने प्यार किया, क्या जुल्म किया...'

तर म्हाका आयिल्ले सोयरिगती संबंदी सांगतालों. चलयेच्या नक्षत्रा वांगडा तिचो फोटोय आसलो. फोटोत पळेल्यार चली नखेत्र कशी! म्हाका अजाप! अशें नखेत्र कशें चली, आनी म्हाका सोयरिगत! मनांत उमळशीक जाली, पळोवंया तरी कशी आसा ती? पूण ताका कशें आनी खंय पळोवचेलें? हॉटेलांत च्या क आपोवचेलें? नाका रे बाबा. हॉटेलांत आपयलें म्हणूनच म्हज्या नांवान शंख मारतलें. म्हणटकच म्हळें आनीक कसलीय मांडणी करुया. चलयेच्या नक्षत्रा वांगडा एक फोल आसली. तिचेर तिची म्हायती आसली.

नांव : कु. सुरेखा राजन वाबगांवकार

जन्म : १५ ऑगस्ट १९४७

उंची : ५ फूट ७ इंच

शिक्षण : बि. ए.

वेवसाय : नोकरी - स्टेटफोर्ड इंटरनॅशनल बँक, मडगांव शाखा.

नांव सुरेख, दिसता नखेत्र कशी, जल्म भारताच्या स्वातंत्र्या दिसा - म्हजें स्वातंत्र्य ना करूंक म्हजे जिणेंत येवंक सोदपी - 'नारायण बँकेंत' काम करता? नारायण बँक म्हळ्यार दिवाळें काडपी बँक न्हय तर दुसऱ्यांक दिवाळें काडूंक लावपी धंद्याची नदर दवरून आयिल्ली मल्टीनॅशनल बँक. असले बँकेंत काम करपी मनीस कसलें आसतलें काय? म्हजें विचार चक्र चालू! खाश्ट आसूंक कुस्तार. कित्याक काय म्हूण विचारा. कितें आसता? जेन्ना दुसऱ्यांक दिवाळें काडूंक लायता, तेन्ना थंय गोड गोड उलोवपी मनीस जाय. हांयस दाखोवन गरयेक फारावपाची तांक आशिल्लो मनीस तांकां जाय आसतलो. असल्यांक हांव 'साखरे सुरी' म्हणटां. गोड गोड उलोवन कळनासतना गळो कापपी! असलीच साखरे सुरी आसतली ही! पळोवया तरी- म्हणून भायर सरलों. बँकेचें नांव, चलयेचें नांव सारकें पाठ केलें आनी गेलों मडगांवां. हाका ताका विचारून सांपडली एकदांची बँक. पळेत जाल्यार बँकेंत वचूंक सात आठ सोपणां - सगळीं सामकीं चकचकीत- सामकें आपलें तोंड तातूंत पळे - जणूंकाय, आमच्या नारायण बँकेंत येतलो जाल्यार, तुजें तोंड पळे, तांक पळे आनी यो. - अशेंच सुचयता. भीत भीत सपणां चडलों, दरवटच्याकडेन पावत जाल्यार तो लेगीत अवाढव्य - व्हडले हारशे-पारदर्शक. पूण भायल्या उजवाडाक लागून भितरलें कांय दिसना, फकत आपलेंच रूप तातूंत दिसता -

परत म्हाका येदोळचोच भास जालो. तितल्यान दारांत आशिल्ल्या गुरख्यान खड्क करून सलाम ठोकलो आनी दार उगडलें – म्हज्या काळजांत कच्च जालें. तसोच भितर घुसलों आनी भितर नदर मारली. बापरे! भितरूय सामकें चकचकीत – पूण हें कितें? ही बँक काय मिनेराचें ऑफिस? भितर सगळी एसी. एक एकलो टाय लावन एकाएका टेबलार बसला आनी तांच्या सामकार बोकडे बसल्यात. तितल्यान तें नखेत्र लिक्क जालें. फायलींत तकली घालून बशिल्लें. मुखार कोण्ण बोकडो नासलो. मनांत विचार आयलो. हांव तर ताका पळोवपाक आयलां. कितेंय तरी निमित्य करून ताचें मुखामळ सारकें पळोवंक जाय, कशें उलयता तें कळूंक जाय, कितें करुया? चल, हांवूय बी बोकडो जातां. अ‍ॅकावंट उगतो करूया – अशें चिंतून ताच्या सामकार बसलों. ताच्या मेजार ताच्या नांवाची पाटी आसली आनी गळ्यांत रेबीन आनी ताची ओळख दाखोवपी तकटो. ताणें तकली वयर काडून म्हजेकडेन पळेलें. स्मार्ट दिसलें – तोंडार एक वेगळेंच तेज दिसलें. तुमकां सांगतां, हें चली आतांच्या तेंपार जाल्यार, अशें सोयरीगतीक उरचें नासलें. कोणूय बि.ए.– एम.ए. करपी नाजाल्यार बँकेतलोच मॅनेजर ताका उखलून व्हरून आपल्या बापाय फुड्यांत उबें करतलो आसलो, 'डॅडी, ही म्हजी बायल!'

तर ते चलयेन तकली वयर करून म्हळें, ''गूड मॉर्नींग.. वॉट कॅन आय डू फॉर यू?''

मंजूळ, पुजेची कीणऽऽ कीणऽऽ घांट वाजिल्ले भशेन! आवाजान कान सुखावले.

''आंऽऽ, हां. अ‍ॅकावंट उक्तो करचो आसलो.''

''कसलो?''

''म्हणजे?'' हांव गोंदळ्ळों.

''सेव्हींग काय करंट? काय टर्म डॅपोझीट?'' ताणें हांसून विचारलें.

''हांऽऽ. हयऽऽ. बरोबर. सेव्हींग बँक अ‍ॅकावंट.''

''हें फॉर्म भरून दियात. आतांच यस्. बी. अ‍ॅकावंट ओपन करूया.''

तीन–चार पानांचें तें फॉर्म पळोवन हांव गोंदळ्ळों. खंय कितें बरोवंचें तें समजना जालें. फॉर्म परत ताचेकडेन दिवन म्हळें, ''रागार जावं नाका. म्हाका हें कांयच समजना. मातशें तुवेंच भरल्यार बरें.''

''सॉरी. फॉर्म तुमच्याच अक्षरान भरचेलो. तुमी हीं पळे हीं इन्स्ट्रक्शनां वाचात आनी भरात. सामकें सोपें. आनी तुमचे ओळखी खातीर ह्यो गजाली जाय. बँकेच्या ओळखीच्या मनशाची हांगां निशाणी घेयात.'' ताणें थंडसाणेन पूण खर आवाजान सांगलें आनी म्हजी बोलती बंद केली. खरें म्हणल्यार म्हाका ताचें अक्षर पळोवंक जाय आसलें. पूण ताणें ती संदच दिली ना.

दुसरे दीस तें फॉर्म भरून हांव परत ताचे लागीं गेलों. फॉर्माचेर ताणें बारिकसाणेन नदर मारली आनी सांगलें, ''हांगां कोणायचेंय इन्ट्रॉडक्शन जाय.''

''कोणायचें म्हणचे?'' म्हाका कळूंक नाशिल्ले भशेन म्हळें.

''कोणायचेंय म्हणल्यार जाका बँक वळखता अशा मनशाची निशाणी घेयात.''

''जाल्यार तुमीच करात. हांव हांगा कोणाकूच वळखना.''

''सॉरी सर. बँकेचे मनीस इंट्रोडक्शन करूंक शकना. जो मनीस बँकेचो अ‍ॅकावंट होल्डर आसा, अशा मनशाची निशाणी घेवंची.'' ताणें स्पश्ट केलें. तितल्यान सचिवालयांत काम करपी एक व्हड अधिकारी भितर सरलो. म्हाका पळेल्या बरोबर तो म्हजे म्हऱ्यांत आयलो आनी म्हाका हटकिलो. म्हजी खबर घेतली. हांवें मागीर तांकां म्हजे फॉर्माचेर निशाणी करचेली विनवणी केली. ताणीं व्हडा खोशयेन निशाणी करून आपली ओळख बरयली. येद्या व्हड मनशान सहज म्हाका इन्ट्रोडक्शन दिल्लें पळोवन ते चलयेन बेगोबेग फुडल्यो फार्मालदादी रोखड्योच करून म्हाका पासबूक दिलो.

दोनूय दीस जरी हांव ताच्या म्हऱ्यांत गेलों तरी, ताका संशय आयलोना. ताची सोयरीक जाचेकडेन गेल्या तोच हांव म्हणपाचें ताका खबर ना शें दिसता. एक दीस पणजे, दोन दिसां उपरांत, सांजेचो वचपाक भायर सरलों. बशींत गर्दी आसली. कुठ्ठाळे देंवन फेरीकडेन वतना फाटल्यान बँककार चली दिसलें. हय फेरी! त्या काळार फेरी बोटी चलताल्यो. बशींतल्यान गडगडीत देंवचेलें आनी धांवून फेरीबोट धरचेली. एक फेरीबोट चुकली जाल्यार तितलोच वेळ जाता. सुरू जाल्ले फेरीबोटीर उडी मारली म्हणून जायना, पलतडीं पावतकच परत फुडें वचपी बशीर उडी मारून सीटार घालून घेवंक जाय आशिल्लें. पूण आयज म्हाका घाई नाशिल्ली. म्हणून हांव सुशेगाद चलतालों. फाटल्यान पळेल्यार तें मात धांवतालें. हांव दिसल्या बरोबर मातशें थबकलें आनी परत म्हाका पळेत फेरीकडेन बेगीबेगीन पावलां मारीत रावलें. कदाचीत ताका हांव कोण तो कळ्ळां आसतलें म्हूण तोच हांव काय म्हूण तेळटालें आसतलें! हांवें तांचे बँकेंत वचून खातें उगडपा निमतान ताका पळेल्लें आनी त्या दिसा म्हजी पसंती तांच्या घरच्यांक कळयल्ली. पूण फाटल्यान पळेत वता म्हणल्यार फेरीबोटीकडेन पावपा सोडून सरळ न्हंयत कपाळमोक्ष जावपाचें. हांवें धावन वचून ताका घट्ट हाताक धरलें आनी म्हळें, ''बाय गो, कितें? जीव दिता? जाय तो म्हाका!''

ते बराबर तें खुळ्ळ करून गोड हांसलें.





# झुकती घटा गाती हवा सपने जगाए !

– रमेश भगवंत वेळुस्कार
पाळें, शिरदोन – गोंय.
मो.: ९४२०६८८४६१



*दोंगर उंचांचेर पाच पाच ही सालंकृत जाल्या*
*चिप्प ओल्या दडकांनीं तिका आकर्शक केल्या*
*पांयां पोंदची माती जाल्या हरयाळी लुसलुशीत*
*पानांवयल्या थेंबां थेंबांत सूर्यकिर्ण घसघसशीत*

हीं उतरां अशीं कित्याक अशे तरेन एकठांय जायत वयता तें कळना. मनाची अवस्थाच अशे अळंग लयेंत येता. आनी आपल्याक जाय तें म्हजे लिखणेंतल्यान बरोवन घेता. मागीर हांवूय ह्या विशयाचेर विशेश चिंतपाक वचना कारण मनाच्या विश्वांत देंवलों की थंयच्या आमकां खबर नासलेल्या नेमांक लागून त्या सगळ्यांचो अर्थ कसो लावप तें कळना. पूण तें मन भुलयणें आसता हातूंत मात लेगीत दुभाव ना.

*श्रावण येता*
*मनात आतां*
*जावन हरव रांगोळी*
*गगन वतां*
*दडक गितां*
*भरता आनंदान झोळी*

अशीं उतरां आपाप मनांत घोळत येतात. श्रावण असो थोडोसो ओळखिच्या साहित्याकडल्यान आमच्या मनांत फुलूंक लागता. हांव आमच्या अशें म्हण्टां तेन्ना तो जांकां जांकां ह्या पावसाचो सहज संसर्ग जावन वयता तांच्या मनात तो अशे तरेन सहज उदेवन येवंक लागता.

पावस हो जसो निसर्गीक तशेंच मन हेंय निसर्गीक. हीं दोगांय एकामेकांक मेळटा तेन्ना कितें अजाप जायत सांगूं नजो. म्हाकां एका बंगाली गाण्याची याद जाता. कोणें हें गीत बरयलां हें मात म्हाकां खबर ना. पूण हें गीत आयकलें आनी हांव ह्या गितार सामको पिसो जालों. कारण ह्या गिताच्यो ओळीच अशो ओडलायण्यो जाल्या.

*टापूर टुपूर शारा दुपूर नुपूर बाजाय के*
*जेनो एक काजला मेये*
*काजोल काजोल मेघेर आँचोल शुधुई उडाय के*
*जेनो एक काजला मेये*

प्रत्येक भाशेंत आपापल्या उतरांची एक गोडी आसता ती हांगा पळोवंक गावता. ही भास बंगाली. कोंकणी भाशेवरी गोड. हे कवितेचो हो अणकार :

*झरझरझर दनपारभर*
*नुपूर वाजय कोण...*
*जशी एक काजळी चली...*
*काजळ काजळ कुपाळ पदर*
*असो सळसळाय कोण...*
*जशी एक काजळी चली...*

हीं उतरां कशीं येतात तें मात म्हाकां केन्नाच कळना. तशीं उतरां आमचे भाशेंत तयारूच आसतात. पूण कांय जाणांक ही सदची उतरावळ नाका आसता. ते उतरांक नवी झळाळी आनी नवी अर्थकळा दितात. देखून ही उतरावळूय म्हाका वेगळेच तरेन जाणवली. 'झरझर दनपारभर नुपूर कोण वाजयता' ह्या उतरांतल्यान अचळय जाणवत वयता ती तरूणायेची नवी, स्वप्नील आनी गोड, रसाळ भावाव्यक्ती. पावस ही गजाल मनशाचे जिणेंत क्रांतिकारक बदल घडोवन हाडटा. पयल्या पावसांत नाचपाखातीर ल्हान भुरगीं इतलीं उतावीळ कित्याक जातात तें मात्शें निरखिल्यार आपशींच उकतें जाता. एक पोन्ने गीत आजून ल्हान भुरगीं गायतात तें आयकूंक येता.

*यो रे यो रे पावसा*
*तुकां दितां पयसा*
*पावस आयलो मोट्टो*
*पयसो जालो खोट्टो*

अशे तरेन ल्हान ल्हान भुरगीं पावसाक फटयतना दिसतात. खरें म्हटल्यार तांकां पावसाक फटोवपाचें नासता. पूण तांचेकडेन हें एकूच गीत. आनीक दुसरीं गीतां तांचेकडें नाच्च.

*यो रे यो रे पावसा*
*तुका नाका पयसा*
*व्हडें पलतडीं व्हर*
*है स्सा है स्सा*

ह्या लोकगीतात्मक बालकवितेक एक बरो ताल तर आसाच, पूण पावसांतूय आपलीं व्हडीं बरे तरेन पलतडीन पावचीं अशी एक सुंदर विचार संगती आसा. भुरगीं तर पावसा दिसांनी आपलीं व्हडीं उदकांत सोडून सदांच पलतडीं पावपाची वाट पळयत आसतात. तशें हें लोकगीत न्हय. लोकगीताक जाय आसलेले सगळे घटक आमकां हांगसर पळोवपाक मेळटा. हातूंत आसलेली पावसाची ओड म्हत्वाची आसा हातूंत दुभाव ना.

आमच्या लोकगीतांनी भुरग्यांचीं गीतां खूब आसात पूण नव्या जगांतल्या भुरग्यांक नव्यो विधायक जाणिवो दिवपाचें काम करपी रचनांचो अभाव आसा हीय तितलीच खरी खबर आसा. कोणें तरी हें काम आपल्याच मालवजार करपाची गरज आसता. कारण ज्यो संस्था भाशेच्या कार्याक ओंपलेल्यो आसतात ताणी सातत्यान बरें बरोवपी साहित्यिकांक तांकां जाय तसले प्रोजेक्ट करपाक दिवपाक जाय. जाका लागून मौलिक साहित्य प्रकार आपाप निर्माण जावन येतले. सृजनशील लेखकांकडल्यान बरें साहित्य कशें भायर काडूंक येत हाचेर विचार जावंक जाय. आयज संस्थांकडें पयसो आसा पूण फावोशें काम करून घेवपाची बुदवंतकाय दिश्टी पडना.

पावसाचें अस्तित्व मनशाक अंतरांतल्यान हालयता. पावस कितें फकत भायरच पडना. तो आमच्या अंतरांत आनी अंतर्मनात एकसारको झडत आसता. ह्या पावसाचो अंश आमच्या आंगांत खिणा खिणाक सळसळत आसता. पूण ताची जाणीव आमकां नासता. उदक हो घटक ह्या संवसारांत अशे तरेन एकरूप जाल्लो आसा की सैमान निर्मिल्ले जण एके वस्तींत उदक आसा. जमनींत तर उदक आसाच. झाडांपेडांनी तर उदकूच उदक. आमकां खबर आसा की घणघट्ट खडपांकूय झऱ्यांचे पाझर फुट्टात. आनी संवसारांतलो एक्कूय जीव उदकाबगर अस्तित्वाक येवंक ना हेंच सत आसूं येता. देखुनूच पावस शिरशिरूंक लागतांच आमच्या आंगांतलें उदक अंतरांतल्यान शिरशिरूंक लागता. माणकुल्यांक तर एक अनामिक हुरहूर आसता ह्या मळबांतल्यान झडत येवपी पावसाविशीं. वारोय येता ह्या पावसावांगडा मिरोवपाक येता. जमीन, वारो, मळब, उजवाड आनी उदक म्हटल्यार पावस अशा पांच पंचिश्टांच्या सांगातान नाचपाचो उत्सव मनोवपाचो हो खीण त्या माणकुल्या भुरग्यांतलें जीव-सैम मनशान निर्मिल्ल्या आपल्या कल्पनांच्या चौकटींतल्यान आरातून पारातून बांदलेल्या घरांत कशें रावूंक शकत? तें आपशींच भायर येता आनी पावसावांगडा किरोवंक लागता. आनी हीं भुरगीं पावसांत सैमिक संगीताच्या तालार नाचता तें पळोवप हो तर सौंदर्य दर्शनाचो एक उत्तम योगायोग म्हणचो पडटलो. शिवाच्या आदिम तांडव नृत्याची बैठकूय अशाच तरेच्या शिशुनृत्यांत दडलेली आसपाचीच चड शक्यताय आसा. शिवाक नागेश अशेंय नांव आसा. नागेश म्हटल्यार नागाचो ईश वा नागेश म्हटल्यार नगांचो ईश. नग म्हणचे पर्वत. म्हणून ताका आनी एक नांव आसा. नगाधिराज. भारतीय लोकांची श्रावण म्हयन्यांतली सर्पपूजा आनी शिवान आपल्या मस्तकार मिरोवपाखातीर आपणायल्लें चिन्ह म्हटल्यार सोरोप. एक पावट हांवें एके फुगडेंत आयकल्लें.

*कशी करूं*
*कशी करूं*
*लिंगाची पुजा हो*
*नागाची पुजा*

श्रावणांतली नागाची पुजा आनी ह्या लोकगितांतली नागाची पुजा हातूंत फरक करपाची गरज ना. पूण ह्या उतरांतल्यान भायर सरता तें मानव समुहाच्या मनांत खोल रुजलेल्या सार्वजनीक जाणिवांच्या मुल्यांचें धन. हांगा लिंग आनी नाग हांतलें साम्य व्यक्त जाता काय पर्वतपुरीस वा नागपुरीस हांच्या चिन्हाचें उदात्तीकरण जाता तें पळयात. काय दोनूय गजालींचें अविश्करण हांगा जाता? लोकगितांनी लोकमनाचें मर्मूच अचळय व्यक्त जाता. हें सगळें खूबच जटिल वा कोंप्लेक्स आसूं येता. शिवलिंग आनी नाग हांच्या माध्यमांतल्यान कितल्योशोच गजाली व्यक्त जायत रावतात. श्रावणांतल्या पावसावांगडा येतलो हो समाज मनाचो हुंकारूय म्हाका आनी हेरांकूय जे हाचे अभ्यासक आसतात तांकां खूब केळोवन वयता आनी बराबरूच कितलीशींच नवीं जनेलां उक्तीं करून वयता.

यद आयली म्हण कृश्णाची, पावस घोग्यानी घे पडलो
साळीकसंवळ्या पावलांनी घे, श्रावण झिरझिर झडलो

म्हाका हांगा साळीक संवळ्या पांवलांनीय झडपी श्रावणाचें सामकें अनवळखी दर्शन जाता. ताचीं साळीक संवळीं पांवलां हांव जेन्ना याद करतां तें ताचें दर्शन कितलें सुंदर आसा ताची जाणीव जाता. कोंकणी साहित्य नदरेकूय हें सामकें नवें आसा. आनी एकूण गजलेच्या संदर्भांतूय नवें आसा. आनी हो पावसूय असो की जो कृश्णाचे यादीन झडटा. म्हटल्यार कृश्ण जन्माचे यादीन झडटा. तो झडटा आनी श्रावण पावस जाता. एखादे पावसाचे धारेच्या पावलांचो रंग कितलो सुंदर आसतलो? मात्शें चिंता पळोवया! हरशींच धार तर सामकी नितळ आनी आरपार, पारदर्शी आंगाची. आनी जिचें आंग अशें पारदर्शी आसा तिचीं पांवलां कशीं आसतलीं? आतां सांगा, आसा काय ना ही कोंकणी कवितेन भारतीय कवितेक दिल्ली नूतन प्रतिमा? आनी ही प्रतिमा घेवन येता तो श्रावण. ह्या श्रावणाचें अस्तित्व अशें वेगळे तरेन जाणवत वयता आनी मागीर तो कविता रुपान अवतरीत जाता.

*म्हाका पावस आनी उदक आनी श्रावण हातूंत वेगळेपण जाणवना.*
*नदी नारे ना जांओ शाम पैंया पडूं*

अशें म्हणून कृश्णाची आवय ताका पराथता तेन्ना आमचे मुखार उबो जाता तो न्हंयच्या पाणयाचो पाट. हांतल्यान उबो जाता तो आवयचो मोग, आवयची लक्तुबाय आनी कृश्णाचीय. ह्या उदकावयली माया आनी आमीय मस्तील्ल्या पाणयाची याद. अशा वेळार आपशींच याद जाता ती –

*रिम झिम पाऊस पडे सारखा*
*यमुनेला ही पूर चढे*
*पाणीच पाणी चहुकडे*
*ग बाई गेला मोहन कुणीकडे* ह्या गाण्याची.

कृश्णाचो हो रिम झिम पावस मोग, उदक मोग तसो सवन भारतीयांच्या मनांत सामको संवकळीचो आनी जावो जावो जावोसो. भारतांतल्या देवांमदीं कृश्ण हो एक असो देव जाका उदकाचो मोग चड. ताका यमुनेच्या उदकांत किरोवपाक आवडटा. तेंय बी राधे वांगडा, गौळणीं वांगडा. मनशांक जी

एकसहज प्रवृत्ती आसा ताका सामकी लागीं अशी ही वृत्ती. देखून ही कृश्णाची व्यक्तिरेखा आमका चड लागींचीशी दिसता. आता हेंच पळयात की वयल्या उतरांनी श्रावण हें उतर ना. पूण ताची गरज ना. रिम झिम ह्या उतरांनीच तें काम करून दवरलां. श्रावण हो अशे तरेन आमच्या मनांत आनी साहित्यांत आपाप येता.

हिंदी साहित्यांत अस्तुरी आपल्या मोगाक उक्तेपणान खेळयतना दिसता. ती आपल्या मनाचे भाव सहज उतरांनी व्यक्त करता. हिंदी लोकसाहित्यांत हें आमकां वयले वयर पळोवपाक मेळटा.

*कैसे खेलन जैबो सावन में कजरिया*
*बदरिया घिर आई ननदी*
*तुम तो जात अकेली कौनो संग न सहेली*
*कान्हा रोक लैहे तोहरी डगरिया*
*बदरिया घिर आई ननदी*

ह्या गितांतली भावज आपले नण्डेक चतरायता की ह्या श्रावणांत ती कजरी गावपाक आनी खेळपाक वयता, पूण भायर तर पावस दाटून आयला. नण्डे तूं कशी वयतली? ते भायर तूं एकटीच वयता. वांगडाय कोण ना. वाटेक तुकां कान्हा आडयतलो. भावजयेचीं उतरां आयकून अशें दिसता कीं भावजयेन हें सगळें पयलीं भोगलां म्हण ती हें सगळें इतल्या स्पश्टपणान सांगूंक शकता. नण्डेचेर हो प्रसंग येवंचो न्हय अशें तिका दिसता. श्रावण आनी कृश्ण नाट्याचें मुख्य पात्र आसा. झोपाळ्याचेर बसून गायत गायत अस्तुऱ्यो आपलें मन मोकळें करतात. श्रावणांतल्या ह्या झोपाळ्यार गांवच्या गीतांक कजरी म्हणटात.

हांगासर *कैसे खेलन जैबो सावन में कजरिया* अशें म्हटलां. उत्तर भारतांत श्रावण म्हयन्यांत व्हडले व्हडले झोपाळे बांदतात आनी चलयो, सवाशिणी बायलो, नव्यो व्हंकलो झोपाळ्यार बसून धोलत गाणीं म्हणटात. श्रावण म्हयन्यांत तरा तरांचे सण उत्सव आसतात. कामा निमतान जेन्ना घरकार भायर आसता तेन्ना ह्या सणांवेळार अस्तुरेक घरकाराची याद जावन ती सामकी निन्हळटा. मागीर ती आपल्या काळजाचे उलास आपले लागशिल्ले इश्टिणीक सांगता वा सरळ आपल्या घरकाराकूच सांगता. कांय दिसां पयलीं हांव श्रवणांतच गुरगुजपूर नांवाच्या उत्तर प्रदेशांतल्या एका गांवांत पावलों. रायबरेली ते गुरगुजपुर म्हटल्यार मदीं पांच स गांव लागतात. थंय आंब्यांक वा कडूलिंबांच्या झाडांक बांदलेले झोपाळे पळयले. कांय झोपाळ्यांचेर चलयो बायलो धोलतानाय पळयल्यो. रायबरेली परततना एका झोपाळ्याकडे भांगार पिंजर भल्लेली एक मोन्यानी उबी आसलेली अस्तुरी पळयली. पावस नासलो पूण पावस अर्दवरा पयलीं झडून गेल्लो. पूण हांगासर आतां ही सगळी दडक तिच्या दोळ्यांत उबी जाल्ली.

*झिरझिर बरसे सावनी आँखियाँ*
*साँवरिया घर आ....*
*तेरे संग सब रंग बसंती*
*तुझ बिन सब सूखा*

हांगासरली प्रिया आपल्या घरकाराकूच हें गाराणें सांगता. तिचीं दुकांच श्रावण जाला. कारण तिचो सांवरियाच तिच्या फुडयांत ना. ताका लागून तिचे सगळे बसंती रंग फुलतात. पूण तोच ना जाल्ल्या कारणान तिची सगळी जीण सुकी जाल्या. एके वटेन श्रावण आनंदाच्यो धारो घेवन येता जाल्यार दुसरे वटेन आपलो वांगड ना जाल्यार होच श्रावण दूख देणो जाता.

*अजहूं न आए बालमा*
*सावन बीता जाए*

ह्याय गितांत आमकां अस्तुरेचें दुःख पळोवपाक मेळटा. हिंदींत श्रावण जसो उमेदिच्या धारांनी झडटा तसोच तो अस्तुरेच्या मनांतल्या दुकांनीय झडटा. *सावन के झूले पडे... तुम चले आओ* हे काळीज कातरून वचपी तळमळे आमकां वगीच भावनांत! *आँचल न छोडे मेरा / पागल हुई है पवन / अब क्या करूं मैं जतन / धडके जिया जैसे पंछी उडे* हो भावनांचो कल्लोळ लता मंगेशकरान आपल्या संवेदनशील आवाजान सामको जिवंत करून सोडला. फिशाल गायका कडेंच अशें शब्दांक जिवंत करपाचें सामर्थ्य आसता.

म्हाका हे वेळार याद जाता ती आमच्या विश्वकवींची, टागोरांची. पावसाचेर तांच्यो घे म्हण कविता आसात. पूण

*पागला हाऊवार बादोल दिने*
*पागोल आमार मोन जेगे उठे*
*चेनाशोनार कोनो बाईरे*
*जेखाने पाँथ नाई नाई रे*
*शेखाने अकारॉने जाय छुटे*

टागोर म्हणटात की मळब कुपांनी भल्लां, वाऱ्याक पिशें लागलां, आपलेंय पिशें मन जागें जालां आनी तें जाची वळख ना पाळख अशे सुवातेर जंय वचपाक रस्तो लेगीत ना थंय कांयच कारण नासतना वचूंक सुटलां. पावसाच्या धुंदीच्या परिणामान जातली मनाची अवस्था कवीन अचळय आपल्या फावो त्याच उतरांनी व्यक्त केल्या.

*झुकती घटा गाती हवा सपने जगाए*
*नन्हा सा दिल मेरा मचल मचल जाए*
*महके हुए बहके हुए मस्त नजारे*
*निखरे हुए बिखरे हुए रंग के धारे*
*आज गगन हो के मगन हमको बुलाए*
*नन्हासा दिल मेरा मचल मचल जाए*

हें गीत साहिराचें. तशें तें धूल का फूल ह्या फिल्मांतलें आसा. पूण हें गीत आयकतां आयकतां आमी पावसाळ्या आसमंतांत पावतात. गडद काळीं कुपां, सामकीं तुमचे लागीं येवपी, मनाचेर जादू करपी सैम आनी रावून रावून येवपी पावसाच्यो दडको तशेंच सांगाताक आसलेलें जुवानपण वा हे जिणेक जुवानपण दिवपी पावस. हें सगळें स्वर्गीय आसता. हांवें जुलयच्या म्हयन्यांत हिमालयाच्या वाटारांत ह्या *झुकती घटांचो गाती हवांचो* अणभव सतत झडत वयतल्या दडकांनी एक पावट घेतला. ताका लागून ही पावसाळी उतरावळ सदांच ओडून घेता.

पावस वा श्रावण हे जिणेंतूच आमकां स्वर्गीय आनंद दिता. बाकीबाब हें पर्जन्य धन सामको मनमुराद जगला. म्हाका तांची एक मराठी कविता याद जाता.

घन लवला रे घन लवला
क्षणभर श्रावण स्त्रवला रे
जरतारांचा फुलून मांडव
बनल जिवींचा निवला रे

श्रावण हो मनशाचे जिणेंतलो एक अमृतानुभव. जाका तो सांपडलो तो अमर्त्य जालो अशेंच म्हणपाक जाय. कारण पावसांत ताका हांगाच, हेच धर्तरेर स्वर्ग पळोवंक गावता. पावसूच आमची जीण परिपूर्ण करता.



बिम्ब सप्टेंबर ११



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

## आडवे

१. फटिंगपण, नाडपण
३. गणेश, गणपती
६. गुरवारपणांतलें पोटांतलें भुरगें
७. लक्ष्मी
९. कानांत हुमकळावपाचो भांगराचो दागिनो
११. काकुळट, मोग-माया
१२. उंच सुवातेर वसयल्लें शेत
१३. आर्य वंशाचो न्हय तो
१५. भायरावप, भायर दवरप
१७. दुकान
१९. वायट कर्माचें फळ, नशिबांतलो भोग
२०. उबार कांठ नाशिल्लो थाळो
२१. भावाची बायल
२४. नटप, भेस करप
२५. मोडण, वळसो
२६. गणेश, मंगलमूर्ती

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | २ | | | ३ | | ४ | | ५ | |
| | | | ६ | | | | | ७ | ८ |
| ९ | | १० | | | | ११ | | | |
| | | १२ | | | | | | | |
| | | | | | १३ | | | | १४ |
| १५ | | | १६ | | | | | | |
| | | १७ | | १८ | | १९ | | | |
| | | | २० | | | | | | |
| २१ | २२ | २३ | | | | | २४ | २५ | |
| २६ | | | | | | २७ | | | |

## उबे

२. काकय, गोडाचो पंक
३. देवाची म्हूर्त बसयल्ली देवळांतली भितरली कूड
४. अष्टविनायकां मदलो एक गणपती
५. मोवसाण
८. मोग वा दुडवां गांठ
९. व्हडलेंशें नातें नासून सोयरे म्हणून मिरोवपी
१०. हुमकळप
१४. रांजणगांवच्या गणपतीचें नांव
१६. खातीर
१८. पिडेखोर, पिडेस्त
२२. रिस्क, रेग
२३. दर एकलो मनीस
२४. धर्मीक उत्सवाचो दीस
२५. परत परत देवाचें नांव घेवप

### ऑगस्ट उत्तर कुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| क | ण | क | ण | प | | मो | | ग | च्च |
| डे | | व | | द | ला | ल | प | ण | |
| को | य | तू | ल | | पी | | | प | ड |
| ट | | क | ट | क | ट | | खा | ती | र |
| | खा | | प | | | | ज | | का |
| ख | ट | प | ट | | | का | न | पा | ळी |
| र | | | प | ण | सू | ल | | ल | |
| ड | म | रू | | व | | व | ख | व | ख |
| प | | ची | | | सु | णें | | | रे |
| ट्टी | | क | रा | म | ती | | बा | ल | दी |



- अतुल र. पंडित
मडगांव, गोंय

# हुंदरान दर्शन दिलें पूण...!



**श्रा**वण म्हयनो सोंपलो, भाद्रपद उदेलो. गांवांत बोवाळ सुरू जालो. लोक वर्गणी एकठांय करूंक लागले. सजयिल्ले माटोव वाड्यावाड्यार दिसूंक लागले. लावडस्पीकरावयल्यान भावगितां आनी सिनेमांतलीं गितां कानार पडूंक लागलीं. चवथीक लागपी वस्तुंनी दुकानां सजूंक लागलीं. चित्रशाळांतल्यान गणपती हाडपाची सर्त सुरू जाली. कोण गणपतीक पाटार बसोवन हाडटाले. कोण मोटारींनी हाडटाले, कोण स्कुटरींचेर बसोवन जाल्यार कोण रिक्षांनी घालून गणपतीक हाडटाले. कोणें गणपतीक संत तुकाराम केल्लो, कोणें मारूतीच्या रुपांत गणपती तयार केल्लो, कोणें गणपतीक साईबाबाचें रूप दिल्लें जाल्यार कोणें गणपतीक गांधीजी केल्लो. कोणें गणपतीक पृथ्वीचेर बसयल्लो, कोणें वागाचेर, कोणें मोराचेर जाल्यार कोणें गणपतीक गरूडाचेर बसयिल्लो.

आमच्या गणपतवाड्यावयल्या श्री वक्रतूंड भौशीक गणेशोत्सव मंडळाचो गणपती अंदू मोटो म्हणल्यार सामकोच मोटो आसलो. गोंयांतल्या भौशीक गणपती परस आमचो गणपती सगल्यांत लांब आनी मोटो आसचो असो आमी संकल्प केल्लो. त्या प्रमाण मुर्तीकारान गणपती 'लांबरूंद' केलो. हो गणपती तयार करपा खातीर मुर्तीकारान खास अशी निसण तयार केली. गणपतीक वाजयत-गाजयत माटवांत हाडलो आनी कमळाच्या शिंवासनार ताका बसयलो. त्या व्हड गणपतीक पळोवपाक लोकांनी खूब गर्दी केली. खिणभरयांत कितलेशेच हार गणपतीच्या पांयार पडले. दुडवांची रास पडली. मिठायेच्या काशींनी सुवात भरली. भटान निसणीचेर चडून गणपतीच्या गळ्यांत दुर्वांचो व्हड हार घालो. फुलांच्या हारांनी गणपतीचे चारूय हात भरले. लोक लक्तुबायेन आनी अजापान गणपतीक पळयताले.

सकाळचो वेळ आसलो. हुंदीर नटून थटून रस्त्या वयल्यान हालत धोलत वतालो. ताच्या कपलार व्हड कुकूम लायिल्लो. हुंदीर बाजारांत पावलो. सकाळीं सकाळीं हुंदराचें दर्शन घडलें म्हणून दुकानदार खूश जाले. कोणें पेढे दिले, कोणें जिलबी दिली, कोणें बर्फी दिली जाल्यार कोणें गुलाबजाम हुंदरा मुखार दवरले. गणेशभक्त हुंदराक भक्तीभावान नमस्कार करताले. हुंदीर अगत्यान रावतालो आनी लोकांच्यो प्रेमाच्यो भेटी स्वीकारतालो.

असोच भोंवन भोंवन तो गणपती वाड्यार आयलो. लोकांचे नमस्कार स्वीकारीत तो माटवाकडेन आयलो. थंय आमचो भौशीक गणपती ओर्रांद मखरांत बशिल्लो. भटान सकाळींच गणपतीची विधीपूर्वक पुजा केल्ली. चकचकीत दिवलेंतल्यो वाती पेट्टाल्यो, धुपाचो परमळ सगल्याक फांकिल्लो. भट व्हडव्हडान मंत्रपुष्पांजली म्हणटालो. अशा वेळार गणपतीचो हुंदीर माटवांत आयलो. थंयच रावलो. ताणें मान घुंवडायली आनी थंयच बसकण मारली. ताणें दोळे मोटे केले आनी गणपतीचे मुर्तीक एकटक पळयत रावलो.

कितलोसोच वेळ तो थंयच बसून रावलो. भटान कितलें सांगलें, लोकांनी कितलें विनयलें, बायलांनी कितलें समजायलें. पूण हुंदीर थंयच्यान हालूंकच तयार ना. त्या हुंदरान ज्युस्त गणपतीच्या पांयांकडेनूच बसकण मारिल्ल्यान गणपतीचें दर्शन घेवपी लोकांची धांदळ जाली. गणपतीच्या पायांक हात लावन ताका पांय पडप कोणाक जमनासलें. भटाकूय गणपतीच्या पांयार फुलां दवरूंक मेळनासलें. सगल्यांनी सगळे यत्न करून पळयले पूण व्यर्थ! हुंदीर थंयच्यान हालपाचें नांव काडिनासलो. कितें करचें तेंच कोणाक कळनासलें. हुंदराक समजावन सगळे थकिल्ले.

निमाणें मंडळाचो अध्यक्ष ह्या नात्यान हांवें हुंदराक समजावचें अशें थारलें. भीत भीत हांव

हुंदरा म्हऱ्यांत गेलों. ताका हात जोडले आनी म्हणलें, 'हुंदीर मामा...' हांवें इतलें म्हणलां मात हुंदीर तापलो.

''शट अप. म्हाका मामा म्हणिल्लें आवडना. तुमी म्हाका उठसूठ मामा म्हणटा तो हांव तुमकां कितें गोंयांत कश्ट करून जियेवपी कन्नड मनीस सो दिसता रे? गणपतीक तुमी गणपतीबाप्पा म्हणटात, मडगांवच्या श्री दामोदराक दामबाब म्हणटात मागीर म्हाकाच मामा कित्याक?''

''चूक जाली.''

''तुका खरें सांगूं, हुंदीरमामा आयलो, खाटीपोंदां लिपलो, त्या माजोरीच्या पिलान ताका एका घांसान खायलो. हें पद आयकून आयकून कान सामके विटले. गणपतीचेर तुमी हजारांनी गितां रचलीं, म्हजेर एक बरेशें गीत रचूंक तुमकां जमना?''

''सॉरी हुंदीरमाम...''

''परत तेंच, मामा, मामा म्हणून म्हाका तुमी मामा करतात तितलें पुरो. हाचे फुडें आनी मामा नाका.''

''बरें, तुका मूषकराव अशें संबोधल्यार चलतलें?''

''वा! व्हेरी गूड! आतां कशें जालें? एक सांग रे, तुमी गणपतीक आवडटात म्हणून ताका लाडू, मोदक आनी खीर दितात. म्हजे आवडीचे एकूय जिनस तुमकां करूंक येना?''

''मूषकराव तूं फकत ऑर्डर दी. तुका जाय तें हाडून घालतां.''

''तुऽऽका जाय तें हाडून घालता खंय? तुमी मनीस सामके फटींग. ह्या बोटा वयली थुकी त्या बोटार केन्ना करतीत सांगूं नज. पयरचीच गजाल. पोटाक भूक सोंसूंक नज जाल्ल्यान पांटल्यांत आशिल्ल्या आपोलाचो एक ल्हानसो कुडको काडलो जाल्यार तुजे बायलेन रोखडेंच दुसऱ्या दिसा म्हाका जिवेशीं मारपाचें वखद हाडून दवरलें. आपोलाचो ल्हानसो कुडको काडल्यार येदो व्हडलो बोवाळ! तुमी म्हाका जाय तें करून कितें घालतलीं. पाचवी बर्फी दिसली. म्हणून रूच घेवन पळोवया म्हणून गेल्लों, ज्युस्त त्याच वेळार गणपतीन म्हाका फाटीं ओडलो नाजाल्यार हांव येन्नादर सर्गांत पावतलों आसलों. ती विखारी बर्फी हें गणपतीनूच म्हाका सांगलें. म्हाका तुमचें अजापूच दिसता. आमी काय तुमचे वाटेक वचनात, तुमी आमच्या जिवार कित्याक उठल्यात?''

''मूषकराव हाचेफुडें तुमचो जीव वचपाचें कसलेंच वखद आमी दवरचीं नांत.''

''बरें आसा.''

''मूषकराव, आतां तरी हांगच्यान कुशीक सर न्हय. भटाची आनी भक्तांची खूब कुचंबणा जाता.''

''हय. तांची जाणविकाय आसा म्हाका. पूण जे मेरेन म्हजेर जाल्लो अन्याय पयस करपाचें उतर तुमी दिवंचे नात ते मेरेन हांव हांगाचो हालचों ना.''

''कसलो अन्याय?''

''तुमी गणपतीक जे मोदक दवरतात तसलेच मोदक म्हाकाय दवरूंक जाय. गणपतीची जशी पुजा करतात तशी म्हजीय करूंक जाय. गणपतीक जशी आरत दाखयतात तशी म्हाकाय दाखोवंक जाय. दनपरां आरती वेळार गणपती मुखार जशें जेवणाचें पान दवरतात तशें म्हजे मुखारूय दवरूंक जाय. गणपतीक जशे हार घालतात तशेच हार म्हाकाय घालूंक जाय. आसा मान्य?''

''विचार करचो पडटलो.''

''हांव गणपती परस ल्हान म्हणून म्हाका हिणसावं नाका. म्हज्यान कितें करूं येता? असोय, विचार तकलेंत हाडिनाकात. रावण आत्मलिंग घेवन लंकेक वतना ताचें आत्मलिंग जमनीर दवरपा खातीर गणपतीन जशें गोरवां राखण्याचें रूप घेतिल्लें तशें रूप हांवूय घेवंक शकतां. हांव खंयच्याय वेळार कोणालेंय रूप घेवंक शकतां. हांव ल्हान अर्भक जावंक शकतां तशेंच नरकासूरय जावंक शकतां. गणपती वांगडा रावन तशी विद्या शिकलां हांव.''

''ना. मूषकराव, हाचे फुडें तुजेर कसलोच अन्याय जावचो ना. म्हजें उतर मतींत धर.''

''पळय, उतराक नेगार जाल्यार मात ओगी रावचों ना. म्हाका फटींगपणां सोंसनांत. तूं जर नेगार गेलो जाल्यार देवाकुडींतल्या मंगेशाच्या पांयजेला फाटल्यान आशिल्ल्या कत्रेलांत तुवें लिपोवन दवरिल्ले तीन लाख ७० हजार ३४० रुपया खावन उडयतलों.''

''नाका, नाका तशें करिनाका. म्हजो काळो पयसो तो. मूषकराव, तुजेर अन्याय जायत, तुजो अपमान जायत, तुका वायट दिसत अशें हांव कांयच करचों ना. पूण तूं एकदांचो हांगाच्यान हाल.'' हांवें हात जोडून हुंदराक सांगलें.

''बरें आसा. येतां हांव. पूण दिल्लें उतर मात पाळ, नाजाल्यार, काळ्या पयशांचेर उदक सोड.'' हुंदरान म्हणलें.

''नाका नाका मूषकराव तशें करिनाका. म्हज्या काळ्या, पयशांक हात लायनाका. हांव तूं सांगता तें सगळें आयकतां, सगळें आयकतां.'' हांव एकलोच बडबडटालों आनी बायल धोमसून म्हाका उठयताली.

हांव उठलों. हुंदराक सोदूंक लागलों. मखरांत बशिल्ल्या गणपतीच्या पांयांकडेन हुंदीर आसलो आनी पांय वयर करून म्हाका कूय कूय करतालो. म्हजे कडेन काळो पयसो आसा हें बायलेक कळ्ळें आनी हांव वराचीं वरां देवाकुडींत कित्याक बसून आसतां हाचें बिंग फुटलें.

■ ■ ■



प्रिय सखी,

तुजें पत्र पावलें. पत्र पावलें काय तूं येवन गेलें? पत्राचेर पोस्टाचो स्टॅम्प ना. कुरियरान आयलां अशेंय दिसना. म्हणटकच तूंच येवन गेलां अशी म्हाका खात्री आसा.

कित्याक हुंबऱ्यार तुजो गंध रेंगाळटालो. दार अजून कोणेतरी दारार मारिल्ल्याचीं कंपना सोडटालो. हाचोच अर्थ तूं येवन गेलां. अशें कशें तूं येता, पत्र भितर उडयता आनी वता! येता तेन्ना मेळुंकच येवंक जाय न्हय! तशे आता कोण कोणाक मेळच नात. जीवन सामकें फास्ट फास्ट जालां. कितलेच लोक फकत धांवत आसतात धांवत आसतात. केन्नाय वयर तेर्रसाचेर उबें राव आनी सकयल पळय. लोक धांवत आसतात आनी मागीर प्रस्न पडटा हे लोक अशे धावून धावून वतात खंय? ते परस मुयो बऱ्यो. त्यो मुखावेल्यान आयिल्ले मुयेकडेन उलयतात. कितें उलयतात देवाक खबर! पूण उलयतात तरी नक्की. मनीस अशे उलोवपी क्वचीत दिसतात. लागीं लागीं नाच म्हळ्यार जाता.

आतां तुजेंच पळय. तू आयलें तुज्या सखाक मेळूंक. येवन तुवें दार धोडायलें. मागीर हातांतलें पत्र दाराचे खिळयेक लायलें आनी गेलें. आपूण येतां अशें तुज्यान फोनार कळीत करूं येतालें! हांव वाट पळोवपाचों. पूण तूं मेळ्ळ्यार मेळ्ळो, ना तर पत्र दवरून वतलें अशें येवजूनच आयलां आसतलें! रस्त्यार घर आसलें म्हणटकच रस्त्यावयल्यान वतना हें अशें सहज भितर सरप एक बऱ्याक पडटा.

हांव जाणां, तूं म्हाका मेळूंक येवंक नाशिल्लें. आमचें मेळप अदीं मदीं फोनाचेर जाताच. फोन म्हळ्यारूय एक पत्रूच न्हय? पयलीं जशें भोजपत्र आसतालें तशेंच हें फोनपत्र. कशें लागलें म्हजें? तर तुका येवंक जाय आशिल्लें तें म्हाका जायो घेवन. म्हाका जायो आवडटात हें तूं जाणां. देखून दर जायांच्या मोसमात तूं म्हाका जायो हाडून दिता वो धाडून तरी दिता. हे खेप जायो फुलल्यो तरी तुजो पत्तो ना. म्हणटकच हांवें चितलें एक तर हे खेप जायो फुलल्यो नांत वो तूं तरी गोंयांत ना. हय गो, हांव जाणां. तूं सद्या मुंबय. पुता खातीर यो वच करता. देखून जायोय अश्यो उसरांच फुलल्यो. जायो जायो जावनूय नाका नाका म्हणप हें अशेंच जाता पळय.

जायो म्हळ्यार श्रावणाचें हांसप. आमी कवी लोक म्हणटात पळय, तूं हांसलें आनी चान्नें शिंवरलें! तशें हो श्रावण आयलो, श्रावण हांसलो जायो शिंपडल्यो! हो जायांचो गंधूच धुंद करून उडांवपी. गेलां केन्ना जायांच्या माटवांतल्यान? जायो खुंटच्या तो भाग्यवानूच म्हणूंक जाय. जायांच्या गंधधुंद वातावरणात ताणें एकेक कळी खुंटप आनी आपणेंच गंध न्हाण घेवप हें आगळेंच सूख. सर्गसूख म्हण जाय जाल्यार. पूण सखी, तूं जेन्ना जायो माळून येता तेन्ना जायांच्या गंधांत तुजोय सुगंध मिसळिल्लो आसता आनी जायांच्या गंधाचो ग्राव अदीकूच वाडटा. तुका म्हजें हें बरोवप काव्यमय दिसता आसुंये वो पिशेपणाचेंय दिसता आसुंये! पूण तुका सांगलां दिसता हांवें की म्हाका गंधज्ञान रोखडेंच जाता हें!

मनशाक खंय वेगवेगळ्यो योनी आसतात. कोणाची योनी घोड्याची, कोणाची गायची तशी म्हजी योनी सुण्याची खंय! अशें म्हजी आवय म्हाका सांगताली. तातूंत तथ्यूय आसूं येता. कित्याचोच

वास घेवपाक जाय जाल्यार सुण्याक व्हरतात हुंगपा खातीर. ताका रोखडोच वास वळखूंक येता. म्हाकाय तसोच रोखडोच वास येता. हांव वळखतां तो वास कसलो तो! म्हाका आनीकूय खूबशो गजाली कळटात. आपल्याचेंच व्हडपण सांगू नये म्हणटात, पूण तुका सांगले बगर रावूं नज! ह्या दिसांनीं कित्याक कोण जाणा, मनांत येता तें सागून उडोवचें, बरोवन उडोवचें दिसता. अशेंय जावं येता की म्हज्या अकस्मात येवपी दुयेंसां खातीर म्हाका कोणाक कितें सांगूंक मेळटलें काय ना, बरोवंक मेळटलें काय ना अशें दिसता जावये! देखून हांव तशें करतां!

हेंच पळय आतां, कसलेच सिमटम नासतना म्हजी तकली उसोवची पडली. कसलीच सुलूस लागूंक दिवंक नासतना काळजान धोको दिलो. दोतोर सांगता म्हाका आताक येवन गेल्लो म्हूण! आतां म्हज्या कानांतलें उदकशें सुकलां खंय! ते पासत चलतना म्हजो तोल वता. गुळयो घेवप चालू आसात. पूण दाव्या कानांतल्यान विचित्र आवाज येता. मदीं मदीं तर कोण गुणगुणटा, कोण तरी वेगवेगळे लोक पयसुल्ल्यान उलयतात अशें आयकूंक येता. हांवें सुर्वेक दाराचें कंपन, तुवें दारार मारिल्लें ताचें कंपन म्हळां तो तोच प्रकार अशें मात म्हणूं नाका आं! तें खरें तुवें दारार मारिल्लें ताचें कंपन! म्हुण्णूच हांव म्हणटां म्हाका एक वेगळो गूण प्राप्त जाला जाका लागून म्हजे बाबतींत कितें घडपाचें आसा ताची सुलूस म्हाका पयलींच लागता. तेच पासत म्हाका कित्याचोच भंय दिसना, कित्याचोच हुस्को दिसना. हांव निश्चिंत जावन, मुखावयलो दरेक खीण हो निमणो खीण मानून दरेक खीण यथेच्छ जियेतां. तोच खीण हो निमणोय खीण आसूं येता असो विचार करून तोंडार हांसो खेळयतां.

तुवें पत्रांत ही काकी कोण काय विचारलां. म्हणचे तुवें क्रिशम वाचलां. काकी कोण हें तुका खबर आसा. सगळ्यांक खबर आसा. ती म्हजी सखी हाचीय तुका कल्पना आसा. पूण आतां तुवें विचारलांच म्हूण काकीची नवी वळख तुका दितां. तशी ती आत्मचरित्रांत येतलीच. पूण एकवेळ तें बरयनासतना उरलें जाल्यार तुजो प्रस्न अनुत्तरीतूच उरत म्हूण मातशी धांवती जाप तुका दितां.

तुका जशें म्हणलां हांवें हे आदीं तशे म्हज्यांत कांय आगळे गूण आसात. म्हजें मुखार कितें जातलें तें सुचीत करपी सपन म्हाका पडटा. एकूच सपन तीन खेप म्हाका पडलें म्हणटकच म्हज्या जिवीतांत ती घडणूक खरी जावन येता.

म्हाका मगो एक सपन पडप. हांव दक्षीणे कडेन म्हळ्यार कर्नाटक, केरळ बी ह्या वाठारांत वतां. म्हजे वांगडा कोणूच ना. एकटोच हांव. तातूंत हांव गुरवार. म्हजें मोठ्ठें पोट घेवन हांव चलतां. म्हजी केन्ना डिलीवरी जायत तें सांगू येना. खंयच्याय खिणाक हांव सुटूंक शकतां. सुटलों म्हणटकच मागीर कितें? हें जबरदस्त टेन्शन म्हजेर आसता. त्याच टेन्शनांत हांव एका फुटपाथार चडूंक पांय वयर उबारतां आनी म्हजी डिलीवरी जाता. त्या फुटपाथार सगळेकडेन रक्तूच रक्त. त्या रक्तांत एक जीव आसता. म्हजें भुरगें. आतां त्या भुरग्याचें करप कितें? कांयच कळना. हांव सामको दिग उबो आसतां. तेन्नाच एक बायल मनीस मुखार सरता. म्हणटा भिवूं नाका. हांव आसां. ती बायलमनीस त्या भुरग्याक उखलता. साफ करता. म्हजेकडेन दिता. म्हजेवयलें टेन्शन वता. ती बायल कोण? कितें? खंयची? हाची म्हाका मात्तूय कल्पना ना. सतत तीन खेप कांय म्हयन्याच्या, वर्साच्या अंतरान म्हाका हें सपन पडलें.

सखी तुका सांगतां, म्हाका साहित्य अकादेमी पुरस्कर मेळळ्या उप्रांत तो पुरस्कार म्हाका बंगळूर भेटयलो. म्हजो सत्कार अखिल भारतीय साहित्य संमेलनांत कोचीनांत जालो. पयलो भव्य सत्कार मंगळूर विश्व कोंकणी संमेलनांत जालो. आनी दुसरी गजाल म्हळ्यार म्हजें तकलेचें ऑपरेशन जालें तेन्ना हांव कोची वचूंक भायर सरिल्लों. बस सांजची आशिल्ली तेन्ना काकी म्हणूंक लागली तूं तकली दुखता म्हूण तक्रार करता, आतां सकाळचो वेळ आसा. दोतोराकडेन या. दोतोरान तपासलें, स्कॅनींग जालें. म्हर्जी रवानगी हॉस्पिटलांत. जेन्ना कोचीक संमेलन चलतालें तेन्ना दोतोर म्हजी तकली उसयताले. म्हाका ऑपरेशन थेटरांत व्हरता आसतना काकी दोळ्यांत प्राण हाडून पळयताली. तिचेर तेन्ना हांवें नदर घाली तेन्ना म्हाका सहज जाणवलें, आरे ही बायल म्हाका खूब पयलीं खंय तरी मेळळ्या. खंय काय?

मागीर एकदां काकी आनी हांव मंगळूर वतालीं. वाटेर सहज म्हळें मणिपाल रावुया. रावल्यांच तेन्ना तपासून घेवया म्हळें. तपासतकच कळ्ळें आताक येवन गेला. बायपास करप गरजेचें. काकीक विचारलें, करून घेवं गो? ताणें म्हळें करूंक जाय. डॉन्ट वरी. हांव आसां. कसल्याच भंया विरयत हांव ओ. टी. त गेलों. वतना काकीचेर नदर घाली तेन्नाय म्हाका जाणवलें हिका हांवें खंयतरी आदीं... आदीं पळयल्या... खंय काय? त्याच विचारांत हांव ओटींत आशिल्लों. दोतोरान म्हाका गुंगी दितात आं तुका अशें सांगता आसतनाच म्हाका सट्‌ करून येवजलें... आरे काकीक हांवें खूब पयलीं खंय तरी पळयल्या अशें दिसतालें पळय ती तीच बायल, जेन्ना म्हजी डिलीवरी जाल्ली आनी त्या भुरग्याक रक्तांतल्यान काडून पुसून म्हज्या हातांत दिवपी - भिवूं नाका तूं आपूण आसां अशें म्हणपी... म्हज्या सपनांत तीन खेप आयिल्ली ती संरक्षक देवता... तीच ही काकी... म्हजी सखी... कळ्ळें?

ही गजाल हांवें रवीन्द्र केळेकाराक सांगिल्ली. मागीर म्हाका दिसता रमेश वेळुस्काराक सांगिल्ली. कळ्ळें मू तुका, हांवें फाटलें पत्र तुका कित्याक बरोवंक ना, रमेशाक बरयलें तें? आतां हीच गजाल तुका सांगली. कोण उरूंक ना गो आतां मनांतल्यो गजाली उक्त्यो करूंक... देखून तुका सांगली...

■ ■ ■

**- दिलीप बोरकार**, आगशी - गोंय

मो. : ९८२२१३६८८५

# रोजगार संदी निर्माण करप हेंच आपलें ध्येय – मनोज काकुलो



पणजे सांत इनेज वाठारांतल्यान तोंकार वता आसतना गोंय सरकारच्या फायर ब्रिगेड खात्या मुखार आपशींच नदर वचून चलपाची गती मातशी उणी जाता ती थंय आशिल्ल्या प्रशस्त मॉलाखातीर. त्या मॉलाकडेन पळयतकच आपसूक मनांत प्रश्नचिन्ह उबें रावता, गोंयांत आनी येदें व्हडलें मॉल? गोंयांत मॉल संस्कृताय वाढीक लागूं येता? कोणे काय हें येदें व्हडलें धाडस केलां? आनी मागीर दोळ्यांत भरता तें नांव. 'काकुलो मॉल'. कोण काय हो काकुलो?

गोंयांत जीं उद्योजक मळार मोजकींच नांवां पुर्तुगेज काळासावन कानार पडटात तातूंत 'काकुलो' हें नांव आयले बगर रावना. 'फॉर्ड' हे गाडयेच्या डिलरशीपीखातीर म्हणा वो बांदकाम क्षेत्रांत म्हणा 'काकुलो उद्योग समुह' हें नांव गोंयकारांक संवकळीचें आशिल्लें.

सर्गेस्त एस्. बी. काकुलो हे द्रश्टे गोंयकार व्यक्तीन १९१० सालांत 'काकुलो उद्योग समुहा'ची बुन्याद घाली. पुर्तुगेज काळा सावन काकुलोचो उद्योग जसो जेटी, रस्ते, पूल, सरकारी इमारती बांदप चालूच आशिल्लें. सद्या ऑटोमोबायल डिलरशीप मळार नामना आशिल्ल्या ह्या उद्योग समुहाचो सामको २०व्या शेकड्याच्या आरंबाक लेगीत 'वाहन विक्री' मळार इंटरेस्ट आशिल्लो दिसता. तेन्ना ते गोंय मुक्ती काळामेरेन ट्रक, मोटरसायकली बी आयात करताले म्हणपाचें आमकां खबर आशिल्लें.

ह्याच उद्योग समुहाची धुरां मुखार व्हेली ती सर्गेस्त मोहनबाब काकुलो हाणीं. कंज्युमर ड्युरेबल्स, मोटरसायकल, लुब्रीकान्टस्, अर्थ मुवींग मशीनरी हातूंत ताणीं गोंयांत खाशेली सुवात सुगूर केली. तांची ही वळख हालींहालींची आसतनाच 'काकुलो मॉल'ची नवी वळख आमचे मुखार आयिल्ली पळोवन पावलां आपसूक मॉलावटेन वळ्ळीं.

भितर सरल्या बराबर मॉलांत पयल्या, दुसऱ्या माळयेर वचूंक लिफ्ट आशिल्ली दिसली. ते भायर एक्स्क्लेटर – फिरत्यो पायऱ्योय आशिल्ल्यो पळोवंक मेळ्ळ्यो. जे कोण गोंयच्या भायर शारांतल्या मॉलांनी बी गेल्यात तांकां हे एक्स्क्लेटर नविदाद न्हय. दाबोळे विमानतळारूय एक आसा. पूण गोंयकारांक ही नविदाद. सर्वसामान्य मनशाक गोंयच्या गोंयांत अणभव घेवपाक मेळिल्ली ही सुवात. भुरग्यांक आपले लागीं ओडपी ही सुवात म्हणपाचें पयलेच नदरेक कळिल्लें.थंयच भेट जाली बाब

मनोज काकुल्याची. मनोजबाबाची वळख रोटरियन म्हण आशिल्लीच. ताणें आपल्या सर्गेस्त बापायच्या मोहनबाबांच्या नांवान 'स्वरांजली' म्हूण जी संगीताची कार्यावळ गोंयांत सुरू केल्या ते कार्यावळींतय तो मेळ्ळा. हांसत्या मुखामळान उमेदीन आनी चैतन्यान भरिल्लो असो हो तरनाटो! वळखीचो कोणूय दिसल्यार तोंडभर हांसून हटकुपी. ताकाच विचारलें, 'हें तुजें मॉल?' तर तेच अभिमानान भरिल्ले उमेदीन ताणें हय म्हळें. ताचेच वांगडा मॉल फिरताना ताच्या उलोवपांतल्यान खूबश्यो गजाली कळ्ळ्यो. आयज गोंयचो तरनाटो व्हडल्यो व्हडल्यो डिग्र्यो घेवन नोकरी सोदपाखातीर भोंवता. बरी पगाराची नोकरी हातासपाक मंत्र्यां-संत्र्यांक लाखानी रूपया खावयता. ह्या तरनाट्यानी ह्या मनोज काकुलेची देख घेवंची. ताणीं नोकरे फाटल्यान धांवनासतना आपल्या पांयार उद्येग उबारचो असो कितें तरी विचार त्या वेळार आयलो. आनी मनोजबाबानूय सांगलें, जर कोण असो विचार करता जाल्यार ताका सगळी मजत करूंक, मार्गदर्शन करूंक हांव आसां, चेंबर ऑफ कॉमर्स अॅण्ड इंडस्ट्रीज आसा. पूण जाय ती आपल्या पांयार साम्राज्य उबारपाची हिम्मत आनी मनाची तयारी.

'काकुलो उद्योग समुहा'चो मनोज काकुलो सद्या चेअरमन आनी मॅनेजींग डायरेक्टर आसा. मनोजाची काकुलो उद्योग समुहांतली चवथी पिळगी. १९९१त ताणें इंजिनिअरींगची पदवी संपादन केली. मनोज सांगता - जेन्ना आपणें इंजिनियरींग सोपयलें तेन्ना काळ खूब वेगळो आशिल्लो. जागतिकिकरणाक गती आयिल्ली. मुक्त बाजारपेठेचें युग सुरू जाल्लें. हें वातावरण आपले आदले पिळगेक मेळ्ळें ना. ते नदरेन हांव म्हाका नशिबवान समजतां. मुक्त बाजारपेठेचो लाव घेवपाचे नदरेन हांवें आमचो जो पारंपारिक उद्येग आशिल्लो तातूंत बदल घडोवन हाडलो. हांव ऑटोमोबायल मळार देंवलों.

मनोजाक आपल्या कुटुंबाचो भारी अभिमान दिसलो. चलतां चलतां तो उलयतालो. - आमचो पुर्तुगेज काळार मुखेल वेवसाय विदेशी म्हालाची आयात होच आशिल्लो. आमी युरोपी देशांतल्यान म्हाल हाडून भारतांत विकताले. आमी फोर्ड हे मोटर कंपनीचे भारतांतले एकमेव अशे एजंट आशिल्ले. युरोप, अमेरिकेंतल्यान फोर्ड गाडयो हाडून आमी विकताले. हें १९६१ मेरेन चल्लें.


सुरज काकुलो

गोंय मुक्ती उपरांत बांदकाम, रिअल इस्टेट आनी काकुलो स्मॉल स्केल इंडस्ट्रीज असो आमचो उद्योग चलतालो. १९९० मेरेन. आमचो हो वेवसाय-उद्येग म्हळ्यार एक टीमवर्क. जर कुटुंबाचें सहकार्य नाशिल्लें जाल्यार हें यश शक्य नाशिल्लें. म्हजो धाकटो भाव सूरज म्हज्या उपरांत तीन वर्सांनी ह्या धंद्यांत आयलो. ताच्यो स्वताच्यो येवजण्यो आनी तांक, म्हज्यो येवजण्यो आनी तांक ह्यो गजाली आमी एकठांय हाडून वापर केलो. मुखार वचत रावले.

आमी वेवसायीक कुशळ मनीसबळाचो आदार घेतलो. तांचेर विस्वास दवरून तांकां चड अधिकार दिल्ल्यानूच हें जावप शक्य जालें. आयज आमच्या आस्थापनांनी सुमार ८०० लोक काम करतात. हो आटाप सूरज आनी म्हजेकडेन पेलपाचो नाशिल्लो. आमी कुशळ तज्ञ मनीसबळाची नेमणूक करून तांचेर विस्वास दवरलो. तेय आमच्या विस्वासाक जागले. तांचेर नियंत्रण दवरपा वांगडाच आमी तांची पुराय काळजी घेतात.

मनोज काकुलेच्या आवाजांत आपल्या कुटुंबाच्या कर्तत्वाचो अभिमान निशेतालो.

खंयचोय वेवसाय सोपेपणी वयर सरप शक्य ना. ते खातीर खूब कश्ट उसपुचे पडटात. जेन्ना १९९८त आमचे कडेन फोर्डाची डिलरशीप आशिल्ली तेन्ना हांव, सूरज आनी आमचो बापूय तिगूय व्यक्तीशा दिसरात मेहनत करताले. उपरांत आमी २००० वर्सा होंडाची डिलरशीप चालू केली. उपरांत २००८त वॉल्क्स वॅगनची डिलरशीप आमकां मेळ्ळी. आमच्यो ह्यो डिलरशीपी आंतरराष्ट्रीय नामनेच्यो. आमी हें कशें सांबाळटाले असो लोकांक प्रस्न पडप साहजिकच.

एक्स्कलेटराचेर उबो राविल्ले कडेन मनोजान म्हळें. वयर वतां वतां तो सांगतालो-

आमी जसो आमच्या कुशळ मनीस बळाचेर विस्वास दवरलो तसोच जे कोण आमचे ग्राहक येतात तांकां चडांत चड खोस कशी दिवं येता ताचेरूय लक्ष दवरलें.

जो कोण वाहन खरेदी करता तो आपले पयले गाडये सावन निवृत्त जाय मेरेन निदान आठ गाडयो खरेदी करता. तेन्ना आमी आमचे कडेन आयिल्ले ग्राहक हो फक्त एकूच गाडी घेतलो हे नदरेन पळयना तर फुडाराक आनीक आठ घेतलो हें मर्तीत दवरून तांकां सेवा दिता. हांवें हें आमच्या कामगारांच्या तकलेंत घालां. तेच नदरेन वावरत चलला. खूब समादानी आसात आमी आनी आमचे ग्राहकय.

आमी आता मॉलाचेर उलयतालीं. १४ मार्च २०११ हे दिसा मॉल सुरू जालें. मनोज सांगतालो. हें आमचें मॉल न्हय तर पुराय गोंयकारांचें मॉल हो विचार आमी रूजयला. जी अपेक्षा ह्या मॉलाविशीं आमी बाळगिल्ली ताचे परस खूब चड आमकां मेळ्ळें.

मॉल ही आंतरराष्ट्रीय संकल्पना. मॉल ही फक्त सामान विकत घेवपाची सुवात अशें मानूक फावना. ही सुवात मनरिजवण करपाची, ही सुवात लोकांक मेळपाची. ही सुवात आपल्या मनशांक घेवन बसून खावपाची. हांवें जेन्ना ही मॉलाची कल्पना मांडली तेन्ना सगळ्यांनी म्हाका पिशांत काडलो. पूण म्हजी घरकान्न मेघना आनी भाव सूरज हाणीं म्हाका पुराय तेंको दिलो.

म्हज्या बापायन म्हणिल्लें, खंयचीय गजाल करपाची इत्सा जाता आनी तिका खांद मारूंक सोदता तेन्ना तिचेर काळजांतल्यान विस्वास दवरूंक जाय. तेन्नाच तातूंत यश मेळटा. आमच्या जाण्टेल्यांच्या आशिर्वादाचेर आनी लोकांच्या प्रेमाचेर आमी तड मारूंक पावले. आयज हें 'काकुलो मॉल' गोंयकारांचें आनी गोंयचें पयलें मॉल थारलां.

मनोजाक आपली घरकान्न मेघना, भाव सूरज आनी ताची घरकान्न म्हळ्यार आपली भावजय हाचेविशीं भारी अभिमान. आपली बायल आनी सूरजाची बायल हाणीं आतां मॉलाची जापसालदारकी घेतल्या. तीं दोगांय समर्थपणान ती पेलतात. वेस्ट सायड फ्रेंचायज् पळयतात म्हणपाचें मोठ्या अभिमानान मनोज सांगता.

मनोज म्हणटा असल्या उद्योगांतल्यान रोजगार संदी निर्माण करप हेंच आपलें ध्येय. हातुंतल्यान बेकारीय पयस जावंक पावता.

मनोज फक्त वेवसायांतूच ना. तो सांस्कृतिक भान आनी जाण आशिल्लो उद्योजक. दर वर्सा मनोज 'स्वरांजली' ही संगीताची कार्यावळ आयोजित करता आपल्या बापायचे यादीक. नामनेचे कलाकार हे कार्यावळींत वांटो घेतात. कांदोळे, तांच्या मूळ गांवांत गांवच्या लोकांपासत ताणें 'मोहन काकुलो म्युजीक अकादमी' सुरू केल्या.

मॉल संस्कृताय गोंयांत रूजवणाक घालतनाच गोंयची संस्कृतायूय मनोज आनी काकुलो उद्योग समूह वाडीक लावपाचो यत्न करता. ताका खऱ्यानीच मोल ना अशेंय म्हणले बगर रावं नज!







# वखदांचे सायड इफेक्ट्स



खंयच्याच वखदाक सायड-इफेक्ट्स ना अशें म्हणूंकच जायना. जावं तें ॲलोपेथीक वखद आसूं, वा तें आयुर्वेदीक. किंवा होमियोपेथीक वखद आसूं!

थोड्या वखदांचे दुश्परिणाम जावपाची शक्यताय चड आसता. सर्वसामान्य दुश्परिणाम म्हणचे, तें वखद जर १० जाणांनीं घेतलें जाल्यार तातुंतल्या एकट्याक सायड-इफेक्ट जातलो. दुसऱ्या पोताक, थोड्या वखदांक सायड-इफेक्ट जावपाची शक्यता खूब कमी आसता. सायड-इफेक्ट म्हणचे, तें वखद जर १०,००० जाणांनीं घेतलें जाल्यार तातुंतल्या एकापरस कमी जाणांक सायड-इफेक्ट जातलो. पूण, ज्या मनशाक तांतल्यातातूंत सुरक्षीत वखदांचो पासून सायड-इफेक्ट जाता, जाल्यार तें ताचें बॅड लक!

थोडे सायड-इफेक्ट एकूच डोस घेवन अनुभवूंक शकता - उदा : ॲस्पिरीनचे गुळयेन पोटांत त्रास किंवा रक्तस्त्राव जावं येता, ॲलर्जीचीं वखदां घेतकूच झेमशी येवंक शकता; पॅरासिटामोल घेतल्यार थोड्यांक पोटांत मळमळ ना जाल्यार उल्टी जावंक शकता.

कांय सायड-इफेक्ट थोडे नाजाल्यार अनेक मात्रा घेतकूच अणभवाक येता, जाल्यार थोडे सायड-इफेक्ट वखद खूब तेंप वापरल्या उपरांतूच दिसून येता - उदा : ॲस्पिरीन अथवा हेर दुखीचीं/सुज देवोंवपाचीं वखदां जर चड तेंप वापरलीं जाल्यार पोटांत अल्सर, मुत्रपिंडाक दुखापत जावं शकता; स्टेरोयड चे थेंबे डोळ्यांत चड काळ घातले जाल्यार मोतिबिंदू जावं शकता; स्टेरोयडच्यो गुळयो चड तेंप घेतल्यो जाल्यार पोटांत अल्सर, मधुमेह, वा ऑस्टीओपोरोसीस जावंक शकता.

थोडे सायड-इफेक्ट दुयेंती स्वता अणभवता नाजाल्यार ताका दिसून येता, थोडे सायड-इफेक्ट दुयेंतीक आनी केन्ना केन्ना एकदम चड प्रमाणांत जाल्याशिवाय दोतोराकूय कळून येना.

कांय सायड-इफेक्ट जातले म्हणून सांगप शक्य आसता - कारण ते नमुद केल्ले आसतात आनी वखदांच्या जाल्ल्या ॲक्शनाचें अतिप्रमाण आसता उदा:

* अम्लोडिपिन (ब्लड प्रेशराचें वखद)च्यो गुळयो घेतकच कांय दुयेंतींक पायांक सूज येवं येता.
* एनालाप्रिल (ब्लड प्रेशराचें वखद)च्यो गुळयो घेतकच कांय दुयेंतींक सुकी खोकली येवं येता.
* मधुमेहाच्या गुळयांचें प्रमाण चड जालें जाल्यार रक्तांतली साखर चडूच देवूंक शकता.

कांय सायड-इफेक्ट अकस्मात जातात आनी ते जातले अशें आदीं कोणूच सांगूंक शकनात. अशे सायड-इफेक्ट कमी प्रमाणांत नाजाल्यार क्वचीत जातात पूण खूब फावटी ते जीवघेणे थारूंक शकतात. देखीक:

* सफिकझीम (ॲण्टिबायोटीक) नाजाल्यार हेर थोड्या वखदांक लागून कांय दुयेंतींक स्टीवन-जॉनसन सीण्ड्रोम (कातीची एक गंभीर अवस्था ) जावंक शकता
* रूग्णांक खंयच्याय वखदांची अलर्जी जावंक शकता
* पेनिसिलीनाच्या इंजेक्शनान जीवघेणी 'अनाफायलक्टीक रीएक्शन' जावंक शकता

वखदांच्या सायड-इफेक्टांची कांय वस्तुस्थिती :

* संवसारांत दर वर्सा २० लाखांवयर लोकांक सायड-इफेक्ट जाता
* सायड-इफेक्टांक लागून दर वर्सा लाखभर तरी लोक मरतात
* संवसारांत सायड-इफेक्ट हें लोकांमदीं मरपाचें चवथें व्हडलें कारण (न्युमोनिया, मधुमेह, एड्स, अपघाता परस चड.)
* सायड-इफेक्टाक लागून वर्साक अदमासान १३६ अब्ज डॉलर खर्च जाता. (मधुमेह आनी काळजाच्या मेळून खर्चापासून चड.)
* सायड-इफेक्ट जावन रूग्णालयांत उरपाचें, खर्चाचें आनी मरपाचें प्रमाण सदांच्या दुयेंतीपेक्षां दोब्रादान आसता.

तर, सायड-इफेक्टांक लागून:

* आरोग्याचेर खर्च वाडटा
* अस्वस्थताय आनी मरणां वाडटात
* रूग्णालयांत रावपाचे दीस वाडटात
* स्वस्थ आरोग्याचेर परिणाम कमी जाता

कांय लोक खंयचेंय वखद घेवपाक तयार नासतात, कारण तांकां सायड-इफेक्टांची काळजी आसता. दुसरे वटेन खूब जाण अशेय आसात जे शुल्लक कारणांक लागून वखदां घेतात आनी ताका लागून वखदांचो अती आनी गरजे शिवाय वापर जाता. लोकांनी समजूंक जाय की वखदां फक्त गरज आसता तेन्नाच, बरोबर मात्रेन, योग्य वेळार आनी योग्य तेंपा खातीर आनी योग्य तरेनूच घेवंक जाय. म्हणून दोतोर ना जाल्यार फार्मासिस्टाच्या सल्ल्यानुसार वखदां घेवंचीं.

■ ■ ■



- राज वैद्य
इंडियनफार्मास्युटिकल असोसिएशन
ईमेल : ipacpd@gmail.com

POSTAL LICENCE NO.: G-2/RNP.Goa/01/2009-11

RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413



# समस्त गोंयकारांक चवथीचीं हुनहुनीत परबीं

म्हायती आनी प्रसिद्धी खातें
गोंय सरकार




Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim - Goa & Printed at Impressions, Belgaum. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in